


श्री गुरूदेव दत्त

# दत्तपरंपरा ग्रंथ

ॲड. मंजुनाथदास कृष्णराव कामत

# श्री गुरूदेव दत्त








# दत्तपरंपरा ग्रंथ

कै. ॲड. मंजुनाथदास कृ. कामत

# दत्तपरंपरा ग्रंथ

कै. ॲ. मंजुनाथ दास कामत


- **प्रकाशन क्र. १**

  योगिता गौ. वेर्णेकर

  पणसुले काणकोण गोंय.

- **पयली उजवाडणी - २००६**

- **उजवाडपी**

  **अर्थ प्रकाशन**

  पणसुले, काणकोण, गोंय.

- **छापपी**

  **कस्तुरी प्रिटिंग, धवळी, फोंडा-गोवा.**

- **टाइप सेंटीग (शब्दांकन)**

  रुपेश केरकर.

  महालक्ष्मी ऑफसेट, ऑल्ड गोवा.

- **मुखचित्र आनी भितली चित्रा**

  **गौरिश वेर्णेकर**

- **मोल - १३५ रुपया**

---

हे पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या प्रकाशन पूर्व अनुदान येवजणे खाला छापलां.



# कै. मंजुनाथ दास कृष्णराव कामत

कोकणी भाषेची उद्रगत जातली जाल्यार
ते भाषेंन संत जल्माक येवपाक जाय.

धार्मिय साहित्याची बुन्याद घडोवपाखीर कोंकणी भाशेंत
उतांतरित धार्मिक साहित्य करुन ताचों बोध तरगाट्यांमेरेन
पावपाचो यत्न करून विचारांचो विकास घडोवचो.

समाजाभितर वावुरताना मनशान प्रसिध्दिखातीर
अशें कांयच करपाचें नासता, सेवा म्हूण करची.
फक्त मनशान सिध्द करपाचें आसता.

- कै. मंजुनाथदास कामत



# कै. मंजुनाथदास कृष्णराव कामत - ओळख

मंजुनाथदास कृष्णराव कामत हाचो जल्म देसेम्ब्र १९३१ सालांत कारवार जालों. तांचे माध्यमिय शिक्षण कारवारांत आनी मुंबय जालें. कुमठा महाविद्यालयांत बी.ए. पदवी घेवन फुडें शिक्षकी पेक्षा करपाचे तांणी थारायलें. पूण कांयकाळ कारावारांतच पत्रकारितेचे काम केलें. तेंचवेळार गोंय सुटके झुजाची चळवळ चलताली. ते चळवळीत गुप्त रावन म्हायतीगाराचें काम केलें. तांची शिक्षकी पेशेची आवड गोंयच्या काणकोण म्हालांतल्या कांय संदितांच्या लक्षात आयली. तांच्या आंदोळ्यान काणकोण श्री मल्लिकार्जुन विद्यालयांत शिक्षक ह्या नात्यान ते आयलें आनी काणकोण स्थायिक जालें. तेच विद्यालयांत उपरांत मुख्याध्यापक जालें. थंयच्यान उपरांत चावडी हांगा सेंट तेरेझा ऑफ जिझस हायस्कुलांत मुख्याध्यापक म्हूण तब्बल २८ वर्सांची सेवा दिली. झुंजात वाटो घेतिल्ल्या कारवारकार श्री. कामत हाणी गोंयच आपली कर्मभूय मानली.

## संस्कृती आनी प्रकृतीचो दास

ॲड. मंजुनाथदास कामन प्रकुती आनी संस्कृतीचे उपासक आशिल्ले. हिंदूवेदाचे समरस ज्ञान, पुराणाचो संदर्भ इतिहास तांच्या अभ्यासिक जिवयेचो ध्यास आशिल्लो. धार्मिक विधी कार्या, ताचे संगोपन, मंत्रापचार हांचो सखोल अभ्यास तांणी केल्लो.

हिंदू संस्कृतीचें ज्ञान घेवन, वेदात्मक अभ्यास करताना कितलेशेच श्लोक आनी अध्याय ताचे सुलभ आनी सरळ अर्थ लोकांमेरेंन पावोवपाखातीर नवपिढयेक तांतूतलीं गंभीरताय कळपाखातीर तांणी ताचे भाशांतर कोंकणीतल्यान तशेंच मराठींतल्यान करुन दवरलां. कोंकणीच्या साहित्यमळार धार्मिक साहित्य उतांतरित करपाचो मान तांणी मेळयला.

ते स्वामीं समर्थ अक्कलकोटचे भक्त आशिल्ले. धार्मिक आनी सांस्कृतिक कार्यांत तांचे योगदान आसतालें. संस्कृतांतली किर्तना, भजना, सुभाशितां हातूंतल्यान समाजप्रबोधन आनी विचारमंथन घडोवपाखातीर ते समाजांत निश्ठेन वाबुरतालें. भक्तीभावान तांणी स्वामी समर्थांच्या जिणयेकडेन निगडीत श्री दत्त परंपरा ग्रंथ बरयला.

## संघटन आनी समाजसेवेचो श्वास

काणकोणच्या अनाथ आनी गरजू विद्यार्थ्यांच्या कलागुणांक आनी शिक्षणाक वाव दिवपाच्या इत्सेन एका वसतीघराची बुन्याद तांणी घाली.

श्री अरविंद सोसायटीचे मुखेल कार्यवाहक म्हूण तांणी कार्य केलें. माताजी मंदिर नांवान चल्यांखातीर वसतीघराची स्थापणूक केली. कितल्याशाच अनाथ आनी गरजू विद्यार्थ्यांच्या विकासाचो फुडार हांगा घडलो. चित्र, नृत्य, खेळ, स्वातंत्र्यवीरांची कथानकां सांगून, व्याख्यानां घडोवन यौग्य मार्गदर्शन दिवन भुरगीं घडोवपाचें कार्य तांणी हे संस्थेमार्फत केलें.

ह्याच समाजकार्याचो कौल फुडें व्हरतना अरविंद सोसायटीच्यो अंगणवाड्यो आनी बालवाड्यो काणकोणां सुरु जाल्यो.

मासिंका, पुरवणी, स्मरणिका आनी हस्तपत्रिंका काडून आपल्य कार्याचे मोजमाप चालूच दवरलें. कोंकणी चळवळींत ते काणकोण म्हालांतले प्रमुख कार्यकर्ते आशिल्लें. ओपिनियन पोल, भाशिक आनी राजभास चळवळीत काणकोणांत जागृतायेचें अभियान तांणी चलयलें.

श्री. कामत केन्नाच प्रसिध्दिच्या झोतांत आयलें नात. प्रसिध्दिपरस सिध्दिक ते चड म्हत्व दितालें. तेचखातीर केन्नाच तांणी भौस जमोवपाचें आनी पत्रकांनी विचार मांडपाचें कार्य केलें ना म्हळ्यारच पुस्तकां छापप आनी तांचो व्हडलो आक्त करप हे तांका आवडनाशिल्लें. तांचे खुपशें साहित्य अप्रकाशितच उरलें पूण आपल्या निवृत्तीच्या काळांत तांणी काय पुस्तकां साद्याशाप्रमाणांत छापली. तांची कांय प्रकाशीत आनी अप्रकाशीत पुस्तकां अशीं...

१) श्री. गणपती अर्थर्वशिर्ष
(कोकणी अणकार प्रकाशीत)

२) श्री रामरक्षा स्तोत्र (कोकणी अणकार)

३) माताजी मंदीर (स्मरणीका)

४) कारवारचे रसिक आनी गोयचे हौसिक
(आत्मचरित्र प्रकाशीत)

५) टागोर रस्तो - ३ अंकी नाटक (अप्रकाशीत)

६) निबंध लेख हाचे संकलन (अप्रकाशीत)

## एक आदर्श शिक्षक

श्री. मंजुनाथदास कामत हांचो शिक्षकी पेशा श्री. मल्लिकार्जुन विद्यालय चाररस्तो काणकोण हांगा सुरु जालो. थंयच्यान उपरांत चावडी - काणकोण हांगा सेट देरेझा विद्यालयांत मुख्याध्यापक म्हूण रुजु जाले. अवघ्या २० ते ३० भुरग्यांची शाळा आपल्या कारकिर्दांत तागी सशे ते सातशे भुरग्यांचे व्यासपीठ करुन दाखयली.

कामतमास्तरांची शाळेंतली शिस्त, वेवस्थापन, मार्गदर्शन, प्रत्येक विद्यार्थी तशेंच शिक्षकां भितरलें गुरुशिश्याचें वात्सल्य दाखयतालें. कामतमास्तरान शिकयिल्लीं भुरग्यांची भुरग्यां ह्या शाळेंत शिकतात.

कामतमास्तरांच्यो कल्पना, रचना रुपान साकारतात.

तांच्या शिक्षकी जीवनांतली एक सांगपाची गजाल, गरिब भुरग्यांक धावेची फी भरपाक वा युनिफार्म शिवपाक, पुस्तकां हाडपाक ते आर्थिक मदतय करताले. हेचखातीर गरिब, अनाथ भुरग्यांक ते मुख्याध्यापक, गुरु न्हय तर आपले बापूय अशे दिसताले.

## मोनजातिविशीं कळकळ

मोनजातीचेर ताणी मनशासारकें प्रेम केलें. घरांतल्या मांजरांक धुवांपुतावरी ते सांबाळटाले. प्रत्येकट्याक आवडीची नांवा दवरप, अपुरबाय करप. आपूण शिवराक मनीस आसूनय माजरां नुस्त्याविणें जेवनात तेन्ना बाजाारांतल्यान कापिल्लें नुस्तें हाडुंन तांचे पोट भरताले. पोरसांत आयिल्ल्या गाय-बैलांचेर तांणी केन्नाच फातोर वा बडी मारली ना. केन्नाच खयच्या जिवांक दुखयलें ना आपल्या घरांतय केन्नाच कोमी वा बोकडो शिजोवपाक तांणी दिली ना.

## आयुर्वेदीक मनीस

सुद्दढ आनी निरोगी रावपाखातीर आयुर्वेदाचो उपयोग करचो अशे ते म्हण्टा. आयुर्वेदाचे उपयोग करचो अशें ते म्हण्टा. आयुर्वेदाचे म्हत्व ताणी जाणिल्लें. हेचखातीर शुध्द शाकाहाराचें व्रत ताणी घेतिल्लें. आठवड्यातलें दोन दीस मंगळार आनी शेनवार तें रातचें उपास करतालें. वयाच्या ब्यातराव्या वर्सामेरेन ते प्रकृतीन ठणठणीत आशिल्ले. कसलेंच वायट व्यसन तांका नाशिल्लें. सोरो, मांस आनी तंबाखू हांच्यासेवनान मनशाचें मनसिपण मरता अशें ते म्हण्टाले.

## लोकसेवेखातीर वकिली

आपलें म्हातारपण लोकांच्या सेवेखातीर घालोवपाचें हे उद्देशान कामतसरांन वयाच्या ५२ व्या वर्सा मुख्याध्यापकाची जबाबदारी सांभाळून कायद्याचें शिक्षण घेतलें. ५५ व्या वर्सा शिक्षणीक मळावयल्यान

स्वेच्छानिवृत्ती घेतली. गरजू आनी दुबळ्या लोकांक न्याय मेळोवन दिवपाचें व्रत तांणी घेतलें. तेच व्रत तांणी जीवनाच्या शेवटमेरेन तांणी पाळ्ळे.

कितल्याशाच गरजंवताक तांणी आपल्या बुध्दीच्या ज्ञानान न्याय मेळोवन दिला. केन्नाच पैशांची अपेक्षा केली ना. आपूणजावन केन्नाच आपली फी मागली ना वा पैशाखातीर आपलें कामय केन्नाच आडायलें ना. काणकोणांत ताका गरिबांचो वकिल म्हूण वळखतात.

अशी या व्यक्तीमत्वाची ही लहानशी ओळख.

तांचे शेवटचें विचार ह्या पुस्तक रुपान मुखार येतात.

**- गौरिश वेर्णेकर.**
अर्थप्रकाशन
पणसुले, काणकोण.

## दत्तपरंपरा ग्रंथ पावयतना.........

*लेखक आनी तांचे लेखन समजावपाक वाचकांक दाखोवन दिल्ली पांयवाट.ही पांयवाट दाखयतना लेखनावांगडा लेखकाकूय ब-यातरेन समजूनघेवप तितलेंच गरजेचें.होच हेतू हयाय प्रस्तावनेचो.ही पांयवाट दाखोवपी हांव व्हड साहित्यिकूय न्हय वा व्हड समीक्षकूय न्हय.कोंकणी भाशेच्या कुसव्यांतल्यान वाडिल्लें.हया पुस्तकाचे लेखक ॲड.मंजुनाथदास कामत हे म्हजे पप्पा. भुरगेपणासावन पप्पान रूजयिल्ल्या संस्कारातल्यान आमी. तीग भयणी घडल्यात.संसारात जगपाची आनी वावुरपाची प्रेरणा आमकां तांच्या देखींतल्यान, रितीरिवाजांतल्यान, अभंग, स्तोत्रां, परवडींतल्यान मेळळया. शिस्तबध्द वातावरण आनी धार्मिक संस्कारांत ही घडण घडल्या.पप्पांच्या वाणीतल्यान अध्यात्माचे धडे भुरगेपणांतच मेळळयात.हें सगळें सांगपाचें खास कारण पप्पोची खरी वळख ती हीच.आपल्या घरांतली भुरगींच हें हक्कान सांगपाक शकतात इतलेंच न्हय तर तांच्या शिक्षकीमळार घडिल्ली भुरगीं आनी तांच्या मायेच्या सावलेंत (माताजी मंदिरांत) वाडिल्लीं भुरगींय हेंच सांगतलीं.घडये हाचेपरस चड.*

*पप्पा जितले अधात्माचे उपासक अशें आमकां दिसतात तरूय तितले ते अंधविश्वास वा देवाच्या भावार्थांत आपलीं तत्वां वा मूल्यां अंधविश्वासांत बुडोवपी मनीस निखालूस  नाशिल्ले.देवाचेर तांची चड भक्ती.भक्तीपरस भावार्थ चड.पूण हया भवार्थाचो विज्ञानीक जगाकडेन समतोलय तांणी सांबाळिल्लो. म्हूणच देवाच्या नांवान चलपी अनवाळेपण वा कुडडे विश्वास बाळगप तांच्या सभावांत नाशिल्लें. देवाच्या भवार्थांत ते देवाक मानताले.हेचखातीर धार्मिक वेगळेचार करप तांचेभितर नाशिल्लें. हिंदूधर्मावांगडाच ख्रिश्चन धर्माकूय, तांची तत्वां आपल्याक भावतात तशीं ते मानताले.आनी तांचेय एक वेगळें भ्क्तीस्थान तांणी निर्मिल्लें.*

*मुळांतच प्रसिध्दीच्या विरोधांत आशिल्ल्यान कोंकणी मळार तांचो प्रचार जावंक ना.एक अलिप्तपणा तांच्याप्रमाणच तांच्या साहित्याक आयलो. कोंकणीतले म्हलगडे दो.मनोहरराय सरदेसायांक म्हजेमार्फत तांच्या लिखाणाची सुलुस लागली तेन्ना म्हळयार पांचवर्सांपयलीं मुजरत म्हाका पत्र बरोवन पप्पांच्या हया धार्मिक साहित्याची तांणी तुस्त केल्ली आनी कोंकणीमळार हया साहित्याची वळख जावपाक जाय ही सदिच्छा उक्तायिल्ली.तांची ही सदिच्छा हया पुस्तकावरवी घडून येता जावंये.*

*"दत्तपरंपरा ग्रंथ" ब-यातरेन छापून सगळयांमेरेन पावोवपाचो पप्पांचो ध्यास*

आशिल्लो.श्री दत्तगुरूंचे ते परमभक्त. तेचप्रमाण अक्कलकोटच्या श्री स्वामी समर्थांचेय ते भक्त.हया भक्तीभावार्थांतल्यानच श्री गुरूंचे चरित्र कोंकणी भाशेंत आयच्या पिळगेक धार्मिक संस्काराची जाण दिवपाचो तांचो उददेश आशिल्लो.

आयज हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या ५० टकके अनुदानाखाला उजवाडाक येता. एकवर्सापयलीं गोवा कोंकणी अकादेमीचे उपाध्यक्ष प्रा.भूषण भावे सरांकडेन आमी हया पुस्तकाची कल्पना मांडली तेन्ना तांणी एका उतरान ती मानून घेतली तांच्यामुळेच हें पुस्तक हया येवजणेखाला उजवाडाक येता.अर्थ प्रॉडक्शन तांच्या रिणांत आसा.तशेंच अध्यक्ष श्री.पुंडलीक नायक सरांनीय हें पुस्तक उजवाडावपाचें मानून घेतलें आनी आयज तें पुराय केलें. पप्पाक वैचारिक आनी मानसीक आदार दिवपी श्री.कमलाकर म्हाळशी, श्री.नारायण गांवकार,श्री.मार्टिन मिनीन फर्नांडिस हांच्याय आमी उपकारांत आसात.

पप्पान आतांमेरेन चवदांवयर पुस्तकां बरयलीं.(खूपशीं अप्रकाशीत) वयाच्या सत्तराव्या वर्सा तांका श्री दत्तपरंपरा ग्रंथ कोंकणींतल्यान हाडपाचो ध्यास लागलो. पूण अचकित तांका देवाज्ञा जाली तेवेळार तांणी पुराय ग्रंथाचें लिखाण पुराय केल्लें आनी तें छापपाचें तयारेंत ते आशिल्ले तांचे ते सपन अर्दकुटेंच उरलें.

"दत्तपरंपरा ग्रंथ" कशातरेन आसा ताची आंखणी थोडेभितर सांगता. हया ग्रंथांत पप्पान दत्तपरंपरा.अवतार कथा,आख्यायिका खूपच सरळ आनी सोप्या उतरांनी मांडल्या.

दत्तपरंपरा मुखार कशी पावली,दत्ताचें वसतीस्थान हाची म्हायती दिल्या तेचवांगडा मानवधर्माचीं मूल्यां, सामाजिक संस्कार हांचेरूय उजवाड घाल्लो दिसून येता पप्पान हो ग्रंथ पांच भागांत वांटला.पयल्या भागांत धर्म म्हळयार कितें ? देवालें रहस्य (संकल्पना) तशेंच "दत्त" हो देवाचो अवतार कसो हें स्पश्ट केला. ब्रहमा,विष्णू,महेश, दत्तात्रेयाचें रहस्य,समाजांतली वेगवेगळीं गुरू पिठां आपल्या विचारान आनी अध्यायनाव्दारा स्पश्ट केल्यांत.

दुस-या खंडांत श्रीपाद श्रीवल्लभ,नरसिंह सरस्वती तेउपरांत स्वामीसमर्थ हया अवताराकडेन. दत्तपरंपरेची वाटचाल कशी जाली तें दाखोवन दिलां हांगा म्हाका एक सांगचेशें दिसता शेंकडयांनी वर्सांचो इतिहास संकलित रूपान एकटांय करप मुळांत एक कठीण काम.वेगवेगळया प्रवृत्तींच्या विचारवंतांचे विचार जेन्ना एककडेन येतात तेन्ना हया शेणिल्ल्या इतिहासाविशीं सांगतना आनी अभ्यासतना मतभेदाचो गोंदळ जावंक शकता.

स्वामी समर्थांच्या जिणयेचेर प्रामुख्यान आदारित हो ग्रंथ आशिल्ल्यान तिस-या खंडांत तांणी स्वामी समर्थांच्यो कथा, अजापां, रहस्य, अचर्यां सांगल्यात हयो कथा इतल्यो सरळ आनी बोलक्या भाशेंतल्यान सांगल्यात तांका गौरिशान चित्रांची जोड दिवन खूपच बोलक्यो केल्यात.

चवथ्या, पांचव्या खंडांत तिर्थक्षेत्रां आनी दत्तभक्त म्हापुरूशांच्यो वळखी दिल्यात. असो हो पांच खंडएकटांयिल्लो दत्तपरंपरा ग्रंथ.

पप्पा आपल्याफाटल्यान संग्रहीत करून दवरून गेल्लो दत्तपरंपरा ग्रंथ प्रकाशित करतना कोंकणीच्या साहित्य, नाटय आनी संगीतमळार "अर्थ प्रॉडक्शन" नव्यारूपान पप्पांच्या यादीबुन्यादीचेर आमी उबी करतात.

कोंकणी पुस्तक प्रकाशन आनी कोंकणीचे हेर प्रॉडक्शन आमी वेवसाय म्हूण स्विकारनात हें आमी हांगा स्पश्ट करतात. कोंकणीच्या प्रकाशन माचयेर पावल घालतना नवोदितांक तशेंच साहित्यिकांक, नाटयकलाकार आनी संगीतकलाकारांक नवी माची मेळोवन दिवप, तांच्या सुप्तगुणांक वाव दिवपाचे नदरेन हया "अर्थ प्रॉडक्शन" संस्थेची धडपड आनी संकल्पना आसतली.

बरें मागून,
सौ. योगिता वेर्णेकार
प्रकाशक
"अर्थ प्रॉडक्शन"

# मांडवळ



——— श्री गुरुदेव दत्त ———

# अध्याय पयलो

## धर्म आनी देवालें रहस्य

जेन्ना आमी खंयच्याय धर्माचो अभ्यास करतात तेन्ना आमकां दिसून येता की धर्माफाटल्यान एका विशिष्ट देवाचें अधिष्ठान आसता. त्या अव्यक्त पूण असामान्य सामर्थ्याची उपासना करतात, ताकाच आपणालो देव मानतात. हया परमसामर्थ्याचो देव परमात्मा ताका खोंशी करून आपणाली जीण सार्थक करून घेवची अशी प्रत्येक सूज्ञ मनशाली मोख असता. हिन्दू सोडल्यारअन्य जे धर्म, किरिस्तांव, मुसलमान (इस्लाम), पारसी, इत्यादी हे एकाच देवाक मानतात. किरिस्तांव स्वगांतल्या बापायक, मुसलमान अल्लाक, तर पारसी अग्नीक देव मानतात. हे धर्म एका म्हामनशान स्थापना केल्ले, येशून क्रिस्तांव, महम्मद पैगंबरान इस्लाम.

पूण हिन्दू- धर्म हो कोणेच एका व्यक्तीन स्थापिल्लो नाशिल्ल्यान तो हजारांनी वर्सा साकून चलत आयिल्लो परंपरागत धर्म जावन आसा. म्हूण ताका हिन्दूधर्म म्हणचे परस ''सनातनधर्म'' म्हणप योग्य दिसता. पुराणात हाचो उल्लेख ''एव धर्मः सनातनः'' असो केल्लो. मागीर कायच हजार वर्सा वंतकीच हया सनातन धर्मात दृष्टे ऋषी मुनी जल्मले.तांणी धर्माचे आचरण करचे नेम घालन दिले. धर्म विधी कशी करची, परमेश्वराक कशें प्रसन्न करन घेवचें इत्यादी कर्म मार्ग घालून दिले. आनी कालांतरान जेन्ना गीर्वाणभाषा म्हळयार देवाली भाषा जाका संस्कृत अशें म्हण्टात ते भार्षेत ते बरोवन काडले. देवनागरी लिपी वापरन बरोवन दवरिल्ले ग्रंथ जे वेद, पुराण, उपनिशद इत्यादी तयार जाले.पूण हो सनातन धर्म वा तो पाळपी लोक हिंदुस्थानातलोच म्हळयार सारकें जावचें ना. कारण हो सनातन धर्म पाळपी लोक आर्य वंशाचे आसून ते आताच्या युरोपांतल्या कास्पियन समुद्राभोंवतणी प्रदेशांत रावपी आसले.कास्पियन हें काश्यप हया शब्दाचें अपभ्रंष आसा. हे युरोपातले आर्य सावकाश करन दक्षिणेंत सरकून हिमालया कुशीक पावले. सिन्धू नदीच्या तिराचेर खूब प्रमाणात वस्ती करन

रावले. तेन्ना तांकां ''सिन्धू'' आर्यांत ''हिन्दू'' अशें नांव लोकप्रीय जाले.

हया आर्यांनी जे देव म्हण मानले ते म्हळयार हया विश्वातली प्रमुख शक्तीस्थानां जशेंच सूर्य,चंद्र, उदक, वारो मागीर कीमान वनस्पति म्हळयार झाडाकच पवित्र मानपा लागले. जसो जसो जगाचो विकास जायत गेलो तशी तशी हया आर्यांली मोख आशिल्ली ती हया विश्वांतल्या पराशक्तिचो सोद घेवची. वेदकाळात किंवा वेदांत म्हणा आंमका खंयचोय एक देव, देवता, जे आयज गणने भायर (असंख्यं) जावन आसात ते पळोवपाक सोद्दां मेळनात. जेन्ना आर्य युरोपांतल्यान दक्षिणेक सरकून भारतांत (तेन्नाचे आर्यावर्त) आयले तेन्ना हांगा द्रविड लोक व्हड प्रमाणात आशिल्ले. ते लिंग पूजा करपी तांगेली ती लिंग पूजा हांणी (आर्यांनी) आपणायली आनी ताका ''शिवलिंग'' म्हण संज्ञा दिली. मागीर हया लिंगाकनी शंकराचे मुखवटे आर्यांनी चडयले. कालांन्तरानच ''लिंग'' आनी ''योनी'' हांची पूजा सुरू जाली. ताचे नेम तांणीच घालून घेतले. हया लिंगाची अधिष्टान देवता 'परमेश्वर' आनी स्त्री स्वरूपी ''योनीक'' परमशक्ती दुर्गा अशें मानूंक लागले. हजार वर्सा वतकेच वेदांचो अभ्यास करपी ''ब्र÷ा'' हो आर्यांचो मूळ देव जालो आनी ताणेंच जगाची रचना केली अशें समजूं लागले. जगाचें निर्माण केलें म्हण्टकेच ताचे पालन पोषण करचें पडले ती जापसालादारकी ''विष्णु'' देवार घाली आनी उत्पन जाल्ल्या, विकसीत जाल्ल्या प्राणिमात्रांक, चराचर सृष्टीक नाश करचें काम महेश (महान् ईश) हाचेर घालें. अशी ही त्रिमूर्ती कल्पना उदयाक आयली. ब्र÷ालो, विष्णुलो आनी महेशालो बापूय कोण हें खंयच कोणेंच सांगलें ना. कारण ते स्वयम्सिद्ध देव जावन आसात. मागीर जसो जसो जगाचो विकास जायत गेलो तश्यो सहजच सत् असत प्रवृ-ती बळावत वचून जगांत घोर स्थिती उत्पन्न जाली तेन्ना ताचे नियंत्रण करपाक हया देवतांनी मनीसकुळांत अशें रुपान जल्म घेवन अजापाची कर्तुबा केली. तांकांच देवाचें अवतार म्हण्टात. वयर सांगिल्लें की ईश्वर लिंगाचो प्रसार भारतांत आशिल्लो ती मूळ

म्हळयार "स्वयंभू ज्योतिर्लिंगा" अशें म्हण्टात.

"सौराष्टात सोमनाथ, श्रीशैलार मल्लिकार्जुन, उज्जयनीत महाकाळ, ॐकारात ममलेश्वर, परळींत वैजनाथ, डाकीनीत भीमा शंकर, सेतुबंधाचेर रामेश्वर, दारूकावनांत नागेश, वाराणासींत विश्वेश्वर, गौतमी तटाचेर त्रिंबकेश्वर, हिमालयांत केदार,घृष्णेश हीं शिवालयां".

अशीं हया बारा ज्योतिर्लिंगाची नांवां प्रख्यात आसात तांचेर शिवाचे मुखवटे घालची पध्दत आयची म्हण सांगलाच. शिव हो हिमालयांत रावपी. हिमालयाची धूव पार्वती (पर्वतराजाली धूव). तांचें लग्न जालें इत्यादी काणी प्रसिध्द जाली. समुद्रमंथना वेळार विष्णुक लक्ष्मी प्राप्त जाली. पूण ब्रह्माक मात्त आपणाल्या मानसपुत्री सरस्वतीक घेवनच सांगचें तात्पर्य म्हळयार आमी सनातनी आर्य लोकान हया पध्दतीन निराकार,निर्गुण परब्रह्माक साकार सगुण परमात्मा स्वरूप दिवन ताची पूजा उपासना करचें ससार केलें. हें करताना आर्यानी आपणाल्या परमदेवता ब्रह्माक "ब्रह्मलोक" विष्णुक "वैकुंठलोक" आनी शंकराक "कैलास लोक" अशे तीन लोक निर्माण केले. विष्णुलोक वैकुंठ हो महासागर, पाताळलोक जंय शेषाचेर विष्णु आसा, शंकरालो कैलास, हिमालयाचेर कैलासपर्वत अशे दाखयतात. जगन्मिथ्या ब्र÷देव सत्यम् हया आदी शंकराचार्याल्या तत्वाप्रमाणे (जगन्मिथ्या ब्र÷ सत्यम) दिसता तेंच खरे न्ही अदृश्य तें ब्र÷ सत्य म्हण ब्र÷लोक जगातच न्ही तर अख्या विश्वात भरून आसा. फुडें फुडें जस जसे ऋषीमुनी, यती, सिध्दपुरूष वगैरे महापुरूष, महान् सामर्थ्य साधपा लागले. तांणी हया तिनूय देवतांकडेन लागींचो संपर्क दवरलो. मनात येता तेन्ना ते त्या देवतांकडेन वताले, संभाषण करताले,वेदांतले मंत्र, तंत्र इ. आचरण करताले ताच्या बळाचेर तांणी हया तिनूच आदी देवतांकडेन वर मागून आपणाक जायत अशी दिव्य संतती प्राप्त करन घेतली,मुकार अत्रीऋषीची काणी येता तातूंन हें कळतूंतले. हेतू होच आशिल्लो की जगात लोकामदी मांडिल्लो गोंदळ, बोवाळ काण्ण उडोवचो, मनशांत एकवट घडोवचो आनी सगळयांक सन्मार्गार लावचें.

अत्री ऋषीले काणेन समजून येतलें की हया ऋषी मुनील्या

परीपक्व (विकसीत) बुद्धींतल्या देवतांचो एकवट, किंवा एक स्वरूप सनातन धर्मात आयिल्लें सैलपण काण्ण उडोवचें.ब्र÷ा वेगळो, विष्णू वेगळो. शंकर वेगळो न्ही तरी ती एकच परमात्म्याली तीन स्वरुपां आसतात. हाची देख दिवची. हे कल्पनें तल्यान दÎmाात्रयाली मूर्त कल्पना उत्पन्न जाली किंवा केली म्हणयेत. तें मुकार विस्तारान दिला. ऋषीमुनीक मागीर दिसून आयलें की प्रत्येक वेळार हया महान देवतांकडेन संर्पक दवरप कठीण जातलें, म्हण तांणी आपणाक आयिल्ली अनुभूती बरोवन दवरली. याज्ञवल्कान म्हळा की आपणाक श्री विष्णून जशें सपनांत सांगला तशें आपणें बरयलें. प्रत्यक्ष शंकरान उपदेश दिलो ताचे आमी आचरण करतात. उपदेश दितलो गुरू जालो आनी उपदेश घेतलो शिष्य जालो हें गुरूशिष्याचे नाते परंपरेन वाडत गेलें. गुरू म्हळयार व्हड, श्रेष्टशिष्य म्हळयार ग्रहण करपी, घेतला ते आचरणात हाडपी. शिष्य म्हळयार शिकपी. गुरूकुलांत वचून गुरूकडल्यान विदया शिकची, नमळायेन रावचे आनी गुरूसेवा करची अशी परंपरेन ''संस्था'' निर्माण जालीच. ताका राजाश्रय मेळ्ळो, लोकाले आधार मेळ्ळो. शिकप हें एकच गुरूकडल्यान नासून अख्या संसारांतल्यानच अशी दÎmाात्रेयान देख घाली. ताणें चोवीस गुरु केले, ते कोण, कशे इत्यादि मुकार विस्तारान समजून घेवया.



श्री गुरूदेव दत्त

# अध्याय दुसरो

## श्री दत्तात्रेयालें रहस्य



प्रथम अध्यायांत आमी सर्व सामान्य देव कसे उत्पन्न जाले हें समजून घेतलें. आतां श्री दत्तात्रेय अवताराचें रहस्य समजून घेवचे खातीर दत्तसंप्रदाय म्हळयार किते दत्तपरंपरा ती खयची हें घेवचे अगत्याचें आसा. सनातन धर्मात देवादिदेव हजारांनी आसात, आनी ते सगळे मूळ विष्णुपासून अवतार धेतिल्ले अशी जाणकारांची समजूत आसा. अशे असंख्य (तेत्तीस कोटी) देव आसून सुद्दां हिंन्दुस्थानात हिंन्दुची राखण जावची कठीण जाली, देवळांचो विध्वंस जालो आनी आतां हिन्दुस्थान जाता कितें अशी परिस्थिती निर्माण जाली. मुसलमान लोक ''हम हिंन्दूस्थानी हमारी जबान हिंन्दुस्थानी'' अशें अभिमानान सांगू लागले हाचो अर्थ असो न्ही की मूर्ती पूजतल्यांक ते ''काफर''म्हण्टाले. हिन्दू लोक आतां परमश्रेष्ट अल्लाक (परवरदिगार अल्लाह) मानतले, नमाज पडतले ''या अल्लाल्ला

बिसमिल्ला महम्मद अल रसूल्ला'' अशी व्हडान बोब मारतले (दिंमी मारन दोनी कानात दोनी हातांची बोटां घालन) अशी तांका गोड सपनां पडूंक लागलीं. हजरत महम्मदान अरबस्थानात स्थापिल्ल्या ६ ार्मपीठ, मक्काए मदीना, बगदाद आनी हांगा धर्मपीठ प्रमुख शीवालया'' (खलीक) नेमले आनी तांका जगाचे चार भाग पाडन त्या दिकांनी वचून आख्या जगांत इस्लाम धर्म स्थापन करात असो संदेश दिलो.बगदादचो खलीफा हाणे आपली नदर हिन्दूस्थानाचेर फिरायली आनी तागेल्या आदेशान इ. स. ७00 त मीर कासीमान सिंध राज्याचेर घुरी घाली. हांगा आपण्याल्या हिन्दूराजा दाहेर हाजेर वैतागिल्ले. नांवां पुरते ते झुजले आनी हार मानून घेतली. तांकां तीर कासीमान रणामळारच इस्लामदीक्षा दिवन नमाज पढोवन घेतलो ''ॐ नम: शिवाय, हर हर महादेव'' घोषणेबदल ते ''अल्लाहो अकबर या अल्ला बिसकमल्ला''अशी दिंमी मारन आड्डूं लागले. हिन्दूस्थानात हिन्दूलोक संतुष्ट नात. वयलो समाजाचो लोक सकयल्या समाजाचेर जांच करतात (तांकां तुच्छ मानतात) लेकनात, बायलांचेर अत्याचार करतात, सती सारके घोर कर्म, करून जबरदस्तीन बायलेक होरन उज्यात वडयतात, ही सगळी खबर त्या धूर्त मुसलमान धर्मपंडि तांक समजुवपाक वेळ लागलो ना. मागीर अरबस्थान, अफगाणीस्थान, इराक, इराण आदी देशांतल्यान मुसलमान सैन्यांच्यो झुंडीच हिन्दूस्थानांत येवंक लागल्यो.तांकां हिन्दूचेर जैत मेळोवंक कळाव लागलो ना. सांगचें म्हळयार पोक्को जावन आशिल्लो हिन्दूसमाज हया धर्मकोल्ल यवनांक आपणाल्या मुसलमान धर्मात ओडन घेवपाक वेळ लागलो ना. इ. स. १६०० पर्यत म्हळयार हिन्दोस्थानात मोगलराज येयसर सुमार एक हजार वर्सात उ-तर हिन्दोस्थान, हिन्दूलोकालो पवित्र हिमालय वाटार, हिन्दूल्यो पवित्र न्हंयो,गंगा, यमुना, सिन्धु हया भांगात कोटयावधी हिन्दूलोक बाटून मुसलमान जाले. मोगलराज्य स्थापन करतल्या बाबरान खुद्द काशीक्षेत्राचेर मशिदी उब्यो केल्यो, अयोध्येचें श्रीराम मंदिर फोडन वडयलें आनी थंय मशिदी बांदल्यो (बाबरी मशिदी प्रकरण सगळयांक खबर आसा).

अशें परिस्थितीं हिन्दुसमाजाक हिन्दूधर्मावयली निष्ठा घट्ट दवरन

हिन्दूत्वाची राखण कोणे केली जायत तर ती आदी शंकराचार्यांनी. ताणी हिन्दूस्थानच्या चार कोनशांनी चार धर्मपिठा स्थापन केली. ही धर्मपिठां म्हळयार शक्ती स्थानां उत्तरेक हिमालयात बद्रीकेदार, पूर्वेक जगन्नाथ पुरी, दक्षिणेक शृंगेरी, पश्चिमेक व्दारका. हया शृंगेरीमठाच्या विद्यारण्यस्वामीन. १२०० इस्वींत इतिहासांत मोलादिक कामगिरी केली. वारंगळाचेर मुसलमानांनी शेक बसोवन धांवडयिल्ले राजपूत श्री हरीहर आनी बुक्क भावांनी विद्यारण्यस्वामील्या कृपाप्रसादान गोदावरी नदीतीराचेर ''विजयनगर'' हें हिन्दुराज्य इ. स. १३३६ त स्थापन केलें. ताचे फाटोफाट बहामनी राज्य इ.स. १३४७ त जरी स्थापन जालें तें नांवा प्रमाणे बहामनी (ब्राम्हणी) हिन्दूलोकांक अभय दिवन, गांगभट्ट उर्फ गंगू हया ब्राम्हणाल्या आशीर्वादान. काळांतरान विजयनगर चे राजे उन्म-त जावन शेजारी राज्यांचो हावळ घाली आनी ताजो परिणाम हया विभिन्न मुसलमान राजे एकवट जावन विजयनगराचो नाश केलो अशें इतिहास सांगता. आमी धार्मीक आनी अध्यात्मिक दिष्टीन जर विचार केलो तर आमकां कळन येता की हया विस्कटिल्ल्या हिन्दू समाजांत एकवट हाडपाक देवांचो एकवट हाडचें गरजेचे आशिल्ले. ब्रम्हा, विष्णु, महेश हांचो एकावतार दत्तात्रेयाची उपासना जनसामान्यात हाण्ण ती गुरुमुखान बोध केलो तो आदि शंकराचार्यान. दिल्लीं उतरां अर्थ संस्कृतांत ताचो संप्रदाय जालो. ही एकोष्याची (एकवटीची) उपासना काळांतरान वेगवेगळया अवतार पुरूषांनी किंवा सिद्ध पुरुषांनी चलोवन व्हेली.

ती परंपरा गोदावरी नदी तटाचेर मुसलमान राज्यांत गाणगापूर क्षेत्र केद्र बिंदू करन श्रीनृसिंह सरस्वतीन घट्ट बसयली. ती दत्तपरंपरा हाचे शंबर वर्सा पयलीं तेलंगणातली. (मद्रास राज्यातले राजमहेंद्रीतले जीगपूर हांगचे). श्री पाद श्री वल्लभ यतीन ''कुरवपुरां'' हे क्षेत्र कृष्णा नदी तिराचेर बसयले. श्री नृसिंह सरस्वती हे श्रीपाद श्रीवल्ल्भाचेच अवतार अशें मानतात. तें सविस्तर प्रकरण मुकार तांगेल्या पवित्र चरित्रांत.दिला ते वाचचें.

## श्री गुरूदेव दत्त

# श्री दत्तात्रेय स्वरुपाचो विकास

श्री दत्तात्रेयाक तीन तोंडां आसात ही कल्पना सुमार एक हजार वर्सासावन रूढ जाली. ताचे पयली ताका एकच तोंड आनी स हात आशिल्लें वर्णन मेळटा कारण तो वेळपर्यत श्री दत्तात्रय हो श्री विष्णुलो अवतार मानताले. जरी श्री दत्तात्रय हो विष्णुलोच अवतार मानलो तरी तागेल्यांत तीनूंय आदी देवाचें (ब्रम्हा,विष्णु,महेश) स्वरूप एकठांयला. श्री दत्तात्रेय हो आदी देव ब्रम्हा, विष्णु, आनी महेश हाणी गुरुरुपान दिल्लो. साधकांक वरदान म्हण्ण श्री दत्तात्रेयाक भजतना श्री गुरुदेवदत्त अशी उपासना करतात. हया जगांत सामान्य लोकांचेर अध्यात्माचो प्रभाव पडपाक चमत्कार हें साधन लागता तें श्री दत्तगुरुल्या साक्षात्कारानच घडटा अशें आमका थळा थळा दिष्टीक पडटा हाका शाक्ततांत्रीक सादना म्हणटात. ती विद्या आत्मसात केल्ला योगी, सिध्द योगी हांणी श्री दत्तगुरुचे रहस्य परगटायले पूण तांणी जावू किंवा श्रीपाद श्री वल्लभ, श्री नृसिंहसरस्वती आनी नंतरचे योगी सत्पुरुषानी श्री दत्तात्रेयाकच भजात अशें केन्नाच सांगलें ना. गुरुचो साक्षात्कार जातकेच आयिल्ले अनुभूतिचेर तांगेल्या पायांचें प्रतीक आशिल्ल्या पादुकांचेर जिज्ञासूंची भवती बसली किंवा बसची अशी तांणी बुन्यांत घाली. निर्गुण रुपांत पादुकांची पूजा करची प्रथा पाडली. श्री क्षेत्रगाणगापूर, नर्सोबावाडी, औदुंबर इत्यादी स्थानांचेर केवळ पादुकांचेर कस्तुरी,अष्टगंध फुलां वगैरे अर्पण करतात. पादुका पुजाच गुरू पुजा, सेवा. अशा महान गुरूचो गुरू आदिदेव शंकर जावन आसा. तो श्रेष्ट आसा तागेली परंपरा अशी सांगल्या.

श्री शंकर- विष्णु- ब्रम्हा- वशिष्ट - पराशर- व्यास -शुक -गौडपादाचार्य- गोविंदाचार्य -शंकराचार्य- विश्वरूपाचार्य -ज्ञानबोध ागिरी -सिंहगिरी- ईश्वरतीर्थ -नृसिंहर्तीर्थ - देवतीर्थ- विद्यादितीर्थ शिवतीर्थ-भारतीतीर्थ -विद्यारण्य -विद्यातीर्थ मायानंद देवतीर्थ सरस्वती- यादवेंद्रसरस्वती -कृष्णसरस्वती आनी नृसिंहसरस्वती.

हाचेवयल्यान अशें दिसून येता कीं गुरूचें उगमस्थान प्रत्यक्ष

आदिदेवांतच आसा किंवा आसत. हया तिनूंय आदि देवाची तिनूंच तत्वां, तिनूंच स्वरुपां एकवट जाल्लो श्री दत्तात्रेय. म्हणण श्री दत्तात्रेयाक श्री गुरूदेवदत्त हें बिरूद फावता.



श्री गुरूदेव दत्त

# अध्याय तिसरो

## श्री दत्तमहाराजाची काणी



आमी पळयलें कीं श्री दत्तात्रेयाक दत्तगुरू कित्याक म्हणटात. गुरूपरंपरा खयसावन सुरू जाली तें बी समजून घेतले.पूण दत्त प्रत्यक्ष रुपात मनुष्युकुळात कसो आयलो तें जरा समजूवन घेवचें अगत्याचें. श्री दत्तपुराप्रमाणे श्री दत्तहो मनुष्ययोनीन जल्मल्लो न्ही राम, कृष्ण, अवताराप्रमाणे राजकुळात जल्मल्लो न्ही, अत्रि ऋषी आनी तागेली धर्मपत्नी अनसूया हांगंर प्रगट जाल्ले अतिचीय रुपांतले तीन आदीदेव सती अनसुयेल्या तपोसामर्थ्यान बाळकरुपान प्राप्त जाल्लो. अत्रि ऋषीन आपणाक तेजपुंज पूत किंवा धृव वा जावची म्हण घोर तपश्चर्या केली. तेन्ना हे तीन आदी देव ब्रम्हा,विष्णु,महेश एकच वेळाट प्रकट जाले. अत्रि ऋषीन नमळेंन म्हळें कः एव भवता

म इहहोपुत्र:श (तुमगेल्यांतल्या एकटयाकच हावे आपयिल्लो तो कोण)तेन्ना त्या तिगायदेवतां नी जाप दिली यद्त्वं ध्यायति ते वयम् (तुज्या एकाच तत्वाचे ध्यान करता ते आमी) हो संवाद सुचयता की दिसताना ब्रम्हा,विष्णु, महेश वेगळे दिसले तरी ते एकच परमात्मे आसात. तिनूंय गुण (सल, रज, तम) तिनूंच अवस्था (उत्पती स्थिती, लय) एकातच भरिल्ली आसात तीरत्र एव देवता (तिनूंच ते एकच देव) अशी पुराणाची वाचा आसा. पृथ्वीचेर अग्नी, अंतरिक्षांत वायु, विश्वस्वरुपांत सूर्य अशी तिनूंच देवता (जे आमी पळयतात किंवा जाणतात) हांचें प्रकटीकरण पृथ्वीचेर जावपाक आनी ती मानव सदृशात समावेश जावपाक परमात्मा विशिष्ट योजना केली ती योजना म्हळयार, तिनूंय आसात, तिनूंय तत्वाचे तिनूंय अश्यांचे दैवत्वांचे एकीकरण (एकवटो) हें परमात्मान साधले. दत्तात्रेय स्वरुपात किंवा दत्ताअवतारान (अवतरण म्हळयार वयल्यान सकयल येवप) विष्णुले धा अवतार प्रसिध्द आसात. (मत्स्य, कूर्म, वराह, नरसिंह, वामन, परशुराम, श्रीराम, श्रीकृष्ण, बुध्द आनी परलंकी). पूण हे अवतार पृथ्वीची काळगणना (मोजपाक) करतात. श्री दत्तात्रेय हो त्रेतायुगातलो वेगळोच अवतार जावन आसा. तशेंच श्री दत्तात्रेयाचे सोळा अवतार आपणाल्या तपोसामर्थ्यान तिनूंच देवांक भुरगी बनयली आनी आपणाले दूद पाजयले (तें तागेल्या तपोसामर्थ्यानच) ही रूपक काणी सुचयता की तिनूंय देवांचो जल्म अनुसूयेगेर जालो ना. ते तिका दिल्ले म्हळयार संस्कृतात दत्त ते खातीर ताका दत्तावतार नांव पडला. महाभारतांत असो उल्लेख मेळटा की

स्वायंभूवोत्रि: कौरव्य: परमर्शि: प्रतापवान ।
नस्य वंशे महाराज अतात्रेय इति स्तृत: ।।
(अत्रि ऋषी हो स्वयंसिध्द करणेन श्रेष्ठ प्रतापवंत आथिल्लो:
(थोडेजण कुरू वडांजतलो मूळ क्षत्रिय समजतात)
तागेल्या कुलांतलो दत्तात्रेय महाराज अशें सांगता
श्रत: मृळयार अशें आयकला (पूण हांगा स्मृत: म्हळा)

पूण ब्रम्हा पुराणात जी दत्तात्रेयाची काणी सांगल्या तातूंत श्री विष्णुचो अवतार अशें सांगून तो धर्माची राखण करपाक, देवांक

प्रतिष्ठा मेळोवन दिवक, चातुर्वण्यात आयिल्ली सैलपणां पयस करचे खातीर अधर्म आनी असत्य नाश ताणे केलो इत्यादि. संस्कृत वाक्यां अशीं आसात.

भुया भूतात्मनो विष्णोः प्रादुभाषा भूतात्मः ।
तेन नष्टेपु वेदेष प्रक्रियास मखेपुय ।
चातुर्वण्ये च संकिर्ण धर्म शिथिलतामगते
यती वर्जंति चाधर्मे सत्ये नष्टे अनुते स्थिते ।
पूजासु शीर्यामाणासु धर्मे चाकुलता गते ।
सयज्ञाः सक्रिया वेदाः प्रत्यानीता तेन वै ।
चातुर्वर्ण्य संकीर्ण कृत तेन महात्मनः ।

हांगा श्री दत्तात्रेयाक महात्मा अशें विरूद दिल्ल्या. एकूण खरें कीं श्री दत्तात्रेय हो मानतात, पूजवीचेर वावरिल्लो परमात्म्याचो अंश. तो शिवालो अंश की विष्णुलो अंश हातूंत फरक ना. कारण शिव आनी विष्णु एकच. शिवमहिम्मा स्तोत्रात निमाणे म्हळा इति विष्णु माराघ्ययात (हया स्त्रोंत्रात विष्णुची आराधना करची) हे सत्य आमका उपनिशदातल्यान समजून येता. रूद्र- ह्दयो पनिशदात बरयला -

ये नमस्यंति गोविन्दम् ते नमस्यंति शंकरम् ।
(जे विष्णुक नमस्कार करतात.ते शंकराक नमन करतात.)
थों ऽ चर्यात हरी भवत्या ते अर्चयन्ति वृषवजम।
(जो हरीक पुजन करतात तो ईश्वराचें पूजन करता.)
ये द्विषन्ति विरूपाक्ष ते द्रुपन्नि जनार्दनम्
(जे ईश्वराचो देष करतात ते विषणुची निंदा करतात.)
जे रूद्रं नाभिजानन्ति ते न जानान्ति केशवम्
(जांकां रूद्र शिव कोण तो स्पष्ट ना, ताका कृष्ण विष्णु हो कोण समजुवचोना.)

अशी हो हरी आनी हरीचो एकवट ठासून सांगल्या. तेंच उपनिशद मुकार सांगता

यो रूद्र स स्वयं ब्रम्हा, ब्रम्हा विष्णुमयोरूद्रः
(जो रूद्र तोच खुदृ ब्रम्हा. ब्रम्हा हो विष्णुरूप रूद्र आसा हया वचनांनी एक तत्वाची तीनमृती. एक स्वरूपाची कल्पना सिध्द केल्या)

वयर सांगिल्या तीन गुण, तीन अवस्था इत्यादींची जाणीव आमकां करचें खातीर उपनिषद विस्तारान सांगता

अंतरात्मा भवेद ब्रम्ह: परमात्मा महेश्वर: ।

वयर सांगिल्ले तीन गुण, तीन अवस्थ इत्यादिंची जाणीव आमका जावचे खातीर उपनिपद विस्तारान सांगता

अंतरात्मा भवेद ब्रम्ह: परमात्मा महेश्वर: ।

(आमगेलो अंतरातलो आत्मा जर महेश्वर: ।

ईश्वर परमश्रेष्ठ आत्मा जावन आसा. )

सर्वेषमेव भूतांनां विष्णुरात्मा सनातन: ।।

(सगळया प्राणीमात्रालो शाश्वत अनादि असो विष्णुलो आत्मो भरत आसा. )

हया एका तत्वाचें स्पष्टीकरण करपाखातीर उपनिशदात हया स्वर्ग, पृथ्वी आनी पाताळ अशा तिनूंय लेकांक रूकाचि उपमा दिवन सांगला की

अस्य त्रैलोक्यवृक्षस्य भूमौ विपटशाखिन: ।

अग्रमण्यं तथा मूलं विष्णु ब्रम्ह महेश्वर:

(हया तीन लोकांचो एक जमनीचेर खादी पसरावन आसा, ताजो उंच भाग विष्णु मधलो भाग ब्रम्ह, आनी सकयल मूळाचो भाग महेश्वर जावन आसा). ताची घटनाच अशी आसा की

कार्य विष्णु: क्रिया ब्रम्ह कारणं तु महेश्वर:।

प्रयोजनार्थ रूद्रेंण मुतिरेका त्रिधा कृता।।

(विष्णु काम करता,ब्रम्हा तें काम घडयता तर महेश्वर हो निमित्ताक कारण आसा. प्रत्यक्ष उपयोगाखातीर रूद्र म्हादेवान तीन भागांची एकच मूर्त घडयली.) म्हणून विचार केल्यार सगळया उपनिषदानी एकच सत्य सांगला. तें म्हळयार एष एकस्त्रीधा भूत: अर्थात् हे एकच (सत्यरूप) तीन घडलें हे विवेचन आमी आणिक विस्तारान करु.

**श्री गुरूदेव दत्त**

# अध्याय चौथो

## दत्त जल्माचें वैशिष्टय



राम, कृष्णादि अवतार मनुष्य कुळात जाले तसो श्री दत्तात्रयाचो जल्म जालो ना. तो सगुण रुपांत दिसून निर्गुणांत रावता. निर्गुणाचें म्हात्म्य अधिक देखूनच निर्गुण पादुकाची उपासना करतात. दत्तात्रेय तो गुप्तच वावरता. तो प्रकट जावचो कमीच किंवा प्रकट जायना. एकाच प्रिय मसनोटीचेर तागेलें वास्तव्य. जाका रूद्रभूमी अशें म्हण्टात ती तागेली आवडीची. अशा हया दत्तात्रेयाची भक्तीपरंपरा सुरू जाली ती चडकरन महाराष्ट्रांत मद्रास राज्यांत. गोदावरी जिल्ल्यांत जल्मल्ले तैलंगी ब्राम्हणकुळात श्रीपाद श्रीवल्लभ हांणी महाराष्ट्र आनी आंध्रप्रदेस सीमेवयलें कुरवपुर आपणालें स्थान निवडलें. तांणी १२०० इस्वींत श्री दत्तोपासना प्रचारांत हाडली. थोडयाच वर्सानी श्री नृसिंहसरस्वतीचो जल्म जालो. तांणी महाराष्ट्रांतल्या औदुंबर, नरसोबावाडी आनी गाणगापुर क्षेत्रांचेर राबितो करन श्री दत्तभक्तीचो महिमा जनसामान्यांलो जाणयली. हाचे नंतर दत्तपरंपरेतले खूब संत महात्मा

जावन गेले. तातूंत चिपळूणचे गोपाळबुवा केळकर, माणगांवचे दुबे महाराज उर्फ वासूदेवानंद सरस्वती आनी बेळगांव लागीं बाळेकुंद्रीचे पंतबाळेकुंद्रीकर, बिजापुरांतल्या ताळीकोटचे पदमनाथतीर्थ महाराज प्रमुख आसात.

नाथ परंपरेत दत्तोपासनासंत ज्ञानेश्वरांनी इ. स. १२०० त घाल्ली. नाथ परंपरेंत संत एकनाथ तर दत्ताची उपासना घराघरांत पावयली. तांणी रचयिल्ली श्री दत्ताची

आरत जण एक दत्त भक्ताले जीबेर घोळटा ती निमार्णे दिल्या. महाराष्ट्रांल्या वारकरी पंथाचे मुकुटमणी संत तुकाराम महाराज श्री दत्ताचि प्रार्थना अशी करतात -

तीन तोंडा, स हात । ताका मगेलोप्रणिपात।।
खाव-यात झोळी, मुकार सुणे,
औदुंबरा मुळात उबे रूप सगुणे ।।
जान्हवीत सदात न्हाता,
जटाभार मात्यारसोबता।।
आंगाक सुवासिक विभूत,
शंख, चक्र, गदा हातात ।।
पायातले खडाव करतात गर्जना,
तुका म्हण्टा, असल्या दिगंबराक करता अर्चना।।

वारकरी नाथ पंथाप्रमाणे श्री दत्त उपासनेत कर्मकांड, ओवळेंसोवळें पेक्षां श्रध्दा, भक्ती, समभाव हाचेर भर दिला.

## दत्त महासिध्द योगी

अत्री ऋषीक बापूय मानून राविल्लो भुरगो दत्तात्रेय

अत्रील्या सांगण्यावेल्यान गौतमी नदीच्या तिराचेर वचून श्री शंकराचें तप केलें. ताणें शंकराक प्रसन्न करन ब्रम्हविद्या प्राप्त करन घेतली. दत्ताक बोध दिवपी आदिनाथ शंकर आशिल्यान नाथपंथांत दत्तात्रेयाक आदिसिध्द म्हळा. भागवत ग्रंथांत अवधूतान चोवीस गुरू केले अशें सांगला. तो अवधूत म्हळयारच दत्तात्रेय अशें समजतात.

भागवत सांगता की दत्तात्रेय हो श्री विष्णुलोच अवतार. भास्करभट्टान बरयिल्या उध्दवगीता हया ग्रेंथांत अवधूताचें जें वर्णन केला तें दत्तात्रेयाक तंतोतंत लागू पडटा, ताची म्हत्वाची ओवीची अशी

ते अवधूत । मुर्ती तरि शांतु ।
पुण काळाक कृतांत । जावन गेलो ।।
ते वैराग्याचो कांतिउ । की महातपाचो कोतिवू।।
की निवृतीचो चळिउ । पसरलो तो ।।
जो जगा वेगळोच करता योगी लीळा ।।
फिरता एकटोच सगळया भूमंडळा ।।

वयर सांगला कीं अवधूतान (दत्तात्रेयान) आपूण परीपूर्ण जावचे खातीर चोवीस गुरू केले म्हण्ण सगले चराचर विश्र्वच साधकान गुरू जावन आसा अशें सुचयला.

साधक जेन्ना प्रगती करची इत्सा करता तेन्ना ताका हया चोवीस गुणाचोस्वीकार करन मुकार वचचें पडटा. ते गुण अशें -

१ सहिष्णुता
२ धीर
३ परोपकार (पृथ्वी, पर्वत, रूक)
४ अनासक्ती
५ वैराग्य
६ अलिप्तता (वायू, आकाश, देह)
७ स्निग्धता (मोग)
८ माधुर्य (उदक)
९ तेजस्वीता
१० मळनाश (उजो)
११ दुर्गुणांचो त्याग आनी सदगुणांचो स्वीकार(सूर्य)
१२ बायल मनशेचो त्याग (कपोत)
१३ यदृच्छा लाभ संतोष (अजगर) पतंग, हत्ती
१४ अक्षुब्धता

१५ प्रसाद
१६ गंभीरता
१७ लाभलुक्साण विषयांत समान नदर (समुद्र)
१८ असंग्रह (म्होवांमूस, सर्प)
१९ स्वावलंबनान स्वताचो उध्दार (पिंगला )
२० एकांतरूची (कुमारी)
२१ खावपापिवपांत संयम (मासळी)
२२ एकांतात एकाग्र ध्यान (कुधुकार, भिंगरटी)
२३ कर्ता, संहारकर्ता ईश्वराचे ज्ञान (कोळी, कातीण)
२४ मानापमानात समान पळोवप (भुरगे)

अशें हें चोवीस गूण हया चराचर जीवसृष्टीन व्यापिल्ल्या गुरूकडेन दत्तात्रेयान शिकून घेतले.

हाचे सबंध वर्णन करतना दत्ताचो महान भक्त संत एकनाथ महाराजान म्हळा –

जो जो जागेलो घेतलो गुण ।
तो गुरू केलो हांवे जाण ।
गुरूक आयले आपारपण (व्हडपण)
जगच सगळे गुरू दिसपा लागले ।
जागेलो गुण घेंतलो, तो सहजच गुरू जालो।
जागेलो गुण घेंतलो त्याग रूपान.
तो बी गुरू जालो बहित त्यागान ।।

म्हाराष्टातले वारकरी पंथाचे संत हे नाथसंप्रदायाचे आशिल्ले. ताणी गुरूचे म्हत्व जामील्ले. आदि संत श्री ज्ञानेश्वरान दत्तात्रेयाक योगिया म्हळयार योगी अशी संज्ञा दिल्या हया ज्ञानेश्वरान दत्तात्रेयाचो उल्लेख आपणे बरयिल्या अभंग-गाथ्यात केल्या तातूंत ते म्हणटात

पयस मेरू शिखराचेर । एक योगी निराकार ।
लावन मुद्रा खेचर । ब्रह्मपराचेर बसला ।।

ताणे सोडन दिली माया । तोण्ण उडयले मायपास।।
मन गेले नमळतेन । ब्रहयानंदाभीतर ।।
एकसारखो ध्वनी नाद । तो पावलो परमपद।
तुर्यावस्थेत जावन उन्मत । पाया क डुलता।।
गोदावरी तीराचेर लावन ध्यान। पंचाळेश्वरात केलेमन।
कोल्हापंरात भक्षा मागुन माहुरात करता न्हाण ज्ञानदेवाल्या काळजाभीतर । योगी दतेत्रेयाले यान।।
अशे त-हेन योग साधनेन सिध्दावस्था पाविल्ला
श्री दत्तात्रेय श्री ज्ञानेश्वरराक महासिध्दगुरू दिसता ।



**श्री गुरूदेव दत्त**

# अध्याय पांचवो

## महानुभवपंथांतलो दत्तात्रेय



भारतांत महानुभव पंथ म्हण्ण एक संप्रदाय आसा. हे लोक दत्तसंप्रदायाचेच आसात पूण हे महानुभवपंथी दत्तात्रेयाक ब्रम्हा, विष्णु, महेश हया तीन देवतांचे अवतार मानीनात. तांच्या मतान दत्तात्रेयालो अवतार त्रेतायुगात जालो, पूण तो सगळया युगांत चालू उरतलो अशें समजतात. दत्तात्रेय हो सदांच गुप्त रुपांत वावरता, दत्तात्रयालें दर्शन मेळप म्हळयार महाशोधच आनी असो जर बोध प्राप्त जालो तर तो मनीस सुध्दां दत्तात्रेया बरोबर अदृश्य जावन वता. जनन आनी मरण हांचे फेरे चुकोवपी एकच श्री दत्तात्रेय आनी हाची ख्याति संत जनार्दन महाराजांल्या लोकप्रिय आरतींत मेळटा.

दत्त येवन उबो रावलो ।  
साष्टांग नमन प्रणिपात केले ।।  
प्रसन्न जावन आशिर्वाद दिलो ।  
जल्म - मरणाचो फेरो चुकयलो ।।

जयदेवा जयदेवा जय श्री गुरूदता ।
आरत आवाळतकेच गेली भवचिंता ।। जयदेव ।।

अशें तरेन दत्तागुरूक शरण गेल्ल्यालें भाग्य उजळटा. दत्तगुरूले उपासनेंत सोवळें - अनवाळें बंधन ना. भक्ति भावना गुरूली सेवा करची. सगळे गुरूबंधुभगिनी जावन वागप म्हत्वाचें आसा.

श्री दत्तत्रेयाक तीन तोंडां किंवा एकच तोंड आसा हाजेबद्दल व्हड म्हत्व ना. तो निगुणातीत जावन आसा. पुराण - उपनिशदाकाळा सावन तो प्रसिध्द आसा. श्री दत्तात्रेयालो उल्लेख रामायणात मेळटा. श्रीराम वनवासाक वताना वाटेर अत्री ऋषील्या आश्रमाक भेट दिली थंय श्री दत्तात्रेयाक भेटलो अशें म्हळा. महाभारतांत तर श्री दत्तात्रेयाची महती वेगळीच सांगल्या. वनपर्व, शांतिपर्व आनी अनुशासन पर्व हातूंत सापडता.

भारतांत बुध्द धर्माचो प्रसार जावन सनातन धर्माचेर गंडांतर आयलें आनी क्षात्रधर्म फाटीं पडलो. शंकराचार्यांनी श्री दत्तोपासनेचो प्रचार करन हिन्दू समाजांत आयल्ली गळसण पयस केली. विष्णु वेगळो शिव वेगळो वगैरे भेद भाव ना करन सगळया देवांचो अंशरूप जावन आशिल्लो दत्तात्रेय हिन्दूल्या बहुजन समाजांत लोकप्रिय जालो. भागाशिल्ले लोक समाज अप्रत्यक्ष देवापरस प्रत्यक्ष गुरूक चड मानतात. तांगेल्यांत गुरू भक्ती घट्ट बसोवन गुरूच साक्षात परमश्रेष्ट देव आसा हो विचार पाताळावन उच्च - नीच भाव पयस केले. आयज प्रत्येक समाजांत तांगेले गुरू आसात मठ आसात. ही सगली प्रेरणा आदि शंकराचार्यांनी भारतखंडात चार धर्मपिठां उबीं करन संप्रदाय घालन दिलो. पांच देवतांचें पूजन, गुरूपूजनाची परंपरा पसरत गेली. मुकार जेन्ना मुसलमानांचें आक्रमण भारताचेर जालें आनी हिन्दू लोकांक बाटवोन मुसलमान केले, हिन्दूलीं देवळां जमीनदोस्त केलीं, तेन्ना पादुका पूजनान, गुरू पूजनान हिन्दूधर्म देवतांची शास्वती राखली. दत्तपरंपरेत जल्मल्या सिध्द योगीपुरूषांनी मुसलमान बादशाह

धरन सामान्य लोकांचेर अध्यात्मिक शक्तीन पकड बसयली. मुसलमान धर्मांत सुफी पंथ निर्माण जालो. ते गुरूक मानपी. तांकां मूर्तीपूजा जरी आवडनाशिल्ली तरी ते गुरूपरंपरेचो मान राखूं लागले.

यज्ञ, याग, होम, हवन, ओवळें सोवळें सावन पयस रावन भक्ती प्रधान मानता. अशी जाती पंथाक थारो नाशिल्ली गुरुपरंपरा भारतांत सगल्या हिन्दूसमाजांत लोकप्रिय जाली.



**श्री गुरूदेव दत्त**

# अध्याय सवो

## समाजांतलीं गुरुपिठां

भारतात हिन्दूसमाजात जाती पंथाप्रमाणे स्वतंत्र धर्मपिठां आसात आनी प्रत्येक पिठांचेर एक एक गुरु आसतात ते मठाधीश आसात आनी ते संन्याशीय आसात. तांगेलो समाज तांकां स्वामी अशें मानतात. हे स्वामी प्रामुख्यान दोन पंथांचे आसतात एक शिवपंथ किंवा शैव, तर दुसरो विष्णुपंथ किंवा वैष्णव. पूण हिन्दूलोक आपणाले कुळदेव कुळस्वामी हांकां मानून सुध्दां इतर श्रध्दा स्थानांक, इतर विभूती पुरुषांक भजतात. तांकां ते आराध्यदैवत, आराध्य गुरू म्हण्टात. प्रत्येक धार्मिक कार्याविळार, लग्न, मुंज विधी वेळार कुळदेवतांक, कुळस्वामीक श्रीफल दवरन हया आराध्य देवता, गुरुंक स्मरण करन नमस्कार करतात.

आपणाली निष्ठा मात्र कुळदेवतेक, कुळस्वामीक वोपतात. अशी हिन्दू समाजात अनेक देवतांक एक देवतास्वरूप पळोवची रीत जावन आसा. संत रामदास स्वामीन बरयला की अनेकी जो एक देवासी पाहे. श्री दत्तात्रेय देवाक (गुरुस्वरूप मानून घेवन) हयाच दृष्टीकानांतल्यान पळयतात आनी भजतात. आदिगुरु, सध्दगुरु म्हण दत्तगुरु अशें मानतात. जाति - पंथांतले भेदभाव नष्ट करचें काम हे वेगवेगळे विभूतिपुरुष, सिध्दपुरुष सदाकाळ करत आसात. गुरुचो जयजयकार करतना आमी अनंत कोटी ब्रम्हांड नायक राजाधिराज योगिराज---की जय अशी आड्डणी मारतात (जय घोष करतात)- अशा पैकी श्री दत्तात्रेयाले अवतार श्रीपाद, श्री वल्लभ श्री नरसिंह सरस्वती, अक्कलकोटचे स्वामी समर्थ हांचो मुकारल्या खंडांत परीचय करन घेवया. परिचयच न्ही तर तांगेलो बोध समजून घेवन आचरणात हाडून श्री दत्तगुरुच्या कृपाप्रसादाक योग्य जावचें, आमगेली जीण सार्थक जावची अशी मागणी करन हो पयलो खंड सोपयतां.

**श्रीपादश्रीवल्लभ श्री गुरुदेव दत्त**

# अध्याय सातवो

## पादुकांचें रहस्य

पादुका म्हणल्यार पायांतलें लाकडी व्हाण. पयलीच्या काळांत स्वामी, गुरु वगरे पवित्र आचरण करपी लोक पायांत चामडयाची व्हाण वापरनाशिल्ले. अनवाळपणाक लागून लाकडी व्हाण उपयोग करताले. रामायणात सांगला कीं दशरथ राजा मरण पावतकच श्रीरामाक वनवासांतल्यान वापस आपोवचे खातीर भरत रानांत गेलो पूण जेन्ना श्रीरामान सांगलें की बापायक दिल्ल्या वचनाप्रमाणे आपूण वनवासांत चौदा वर्सा पुराय करतलोंच तेन्ना निरुपाय जावन भरत परतलो. श्रीरामान सांगलें की तूं बापायल्या उतराप्रमाणे राजा जावन राज्यकाभार चलय. भरतान तें मानलें ना. श्री रामाल्याच नांवान सिंहासनाचेर श्रीरामालींच पादुका स्थापना केली आनी आपूण प्रतिनिधी नात्यान राजकारभार चलोवंक लागलो. सांगचें तात्पर्य, अवतार पुरुषांनी, सिध्दयोगी पुरूषांनी वापरची व्हाण सुध्दां पवित्र थारता. श्रीरामाली लाकडी व्हाण सिंहासनाचेर बसली हाची उत्पति आमकां वैदिक काळासाकून मेळटा. घरांत जेन्ना मंगल कार्य करतात, वडिलांचे श्राध्द करतात तेन्ना एक ब्राम्हण आनी सवाषिण बायल पूजपाची विधी आसा. तांका मानान आपोवन पाटांचेर बसयतात आनी जराशे तांब्यांतलें उदक चिपटान दोनी पायांचेर घालन पांय धुयले अशें शास्त्र करतात. तें उदक आपणाल्या मस्तकाक लावन घेतात. सांगचो हेत की पायाची पूजा, पाय धुयिल्ले उदक पवित्र मानतात.

शास्त्रोक्त मंत्रांत म्हणला यानि कानि तीर्थानि, तानि तीर्थानि सागरे ।

स सागरस्य तीर्थानि, पदे विप्रस्थ दक्षिणे ।।

म्हणल्यार जितकीं पवित्र तिर्था (नदी) आसात तीं निमाणें दरयाक मेळाटात, आनी त्या पवित्र समुद्राचें तीर्थ ब्राम्हणाल्या पांयांचेर ओतिल्ल्या उदकांत आसा, अशें पांयांचे म्हत्व गायला. लग्नविधीवेळार मांयमांव आपणाल्या जावच्या जांवयाले पाय धूवन पूजा करतात

ताका श्रीविष्णुसारको समजतात (लक्ष्मी नारायण). विष्णुपद म्हण्ण एक तांब्याचे पावल करतात आनी श्राध्दकार्यावेळार ताचेर पिंड दवरतात. हाचेवयल्यान अशें दिसून येता कीं पुराणकालासावन देहांतल्या सगल्यांत पांयांक मान दिला. खुद्द पांयपडप हो शब्दप्रयोगच पांयां वेल्यान आयला. म्हणल्यार संस्कृतांन स्थान ते मूळ. कोणेंच चूक केल्ल्या मनशान येवन तकली धरली,हात धरलो म्हण्ण राग शांत जायना तर पांयांक धरलें कीं मन विरगळटा असो पांयांचो प्रताप. श्री विष्णुल्या पांयांच्या प्रतीकाची पूजा वयर सांगिल्लेप्रमाणें ब्राम्हण, सवाशिण, लग्नांत न्हवरो हांची करतात ते प्रमाणें गुरुची पूजा जी करतात ताका पांयांची पूजा (पाद्यपूजा) म्हणची चाल आसा. आदि शंकराचार्यांनी जेन्ना श्री दत्तात्रयाची व्हडवीक आनी गुरुपरंपरेचो प्रसार केलो तेन्ना सावन हया पांयांच्या प्रतिकाचें अर्थात् पादुकांचें म्हत्व वाडलें. सगुणरुपात दिसच्या श्री दत्तात्रयाची उपासना करतना तागेल्या निर्गुणरुपान दिसच्या पादुकांची पूजा, उपचार म्हूण मूर्तीक हार फुलां घालतात, मूर्तीक पीतांबर न्हेसोवन सजयतात इतलेंच. आरत पयली पादुकांची करतात आनी नंतर मूर्तीक दाखवतात मूर्त ही साक्षीरुप थरता अशें पादुकांचें म्हत्व आसून सुद्धा केवल पादुकां ची देवळ बांधनात ताजेर घुमटी बांधतात आनी पादुकां हीं कायम दिसचीं अशी दृष्टी दवरतात. वतान, पावसान परिणाम जावनजो हाचे खातीरच ताचेर घुमटी बांदतात. ज्या जाग्यार देवूळ आसा आनी थंय जर श्री दत्ताची मूर्त आसा तर ताच्या फुडयांन पादुका दवरतात. अशें एक अनुमान काडल्यार चुकचें ना कीं भारतांत जेन्ना यवनांची हावळ आयली आनी ताणी हिन्दू लोकाली देवळां फोडलीं, मूर्तीची नासध्‌ूस केली त्या वेळार हिन्दू समाजात श्री दत्तात्रेय किंवा दत्तगुरुचो परंपरेन एकवट जालो तेन्ना तांणी असल्या आक्रमक लोकापासून धर्माची राखण करचें सारकें देवूळ बांधनासतना ल्हान घुमटी बांदून तातूंत पादुका स्थापन केल्यो. मुसलमानांचे अत्याचार चड आशिल्ल्या वेळार सुमार हजार वर्सा जंय थंय पादुकांची स्थापना जाली मूर्ती भजक मुसलमानांक पादुकांचें म्हत्व दिसलेंना. तांणी लेकल्ल्या श्रीपाद

श्रीवल्लभ श्रीनृसिंह सरस्वती हांणी आपणाल्या शिष्याकडेन पादुकांच दिल्यो आनी त्यो सगले कडेन स्थापन करात म्हण्ण आदेश दिलो. गाणगापूरांत पादुकांचेर फकत घुमटीच आसा. अशा हया श्रीदत्तसंप्रदायांत पादुका पूजा प्रसार जालो. जनसामान्यांत तोंडार घोळची विसरूं कसा मी गुरुपादुकाला ही प्रार्थना हया पादुकांचे महात्म्य पटोवन दिता.



## श्री गुरुदेव दत्त

# अध्याय पयलो

## श्रीपाद श्रीवल्लभ

मद्रास राज्यांत गोदावरी जिल्हयांत मुख्य तालुका गांव आसा राजमहेन्द्री. ताच्या उत्तरेक गोदावरी नदीवरी नदीच्या तोंडार पिठापूर नांवाचें गांव आसा थंय सुसंस्कृत घराण्यातले नित्य देवाची भक्ती करपी जोडपें रावतालें. घोवालें नांव आपळराज आनी बायलेलें नांव सुमती. तीं दोगांय श्री दत्तात्रेयाली परमभक्ती करताशिल्लीं. इ. स. १३२० सुमाराक तांगेर एक सुंदर चलो जल्माक आयलो . तांका तांणी अपुरबायेन श्रीपाद श्रीवल्लभ अशें नांव दवरलें. तो दोनूय नांवानी प्रसिध्द जालो. तागेलीं व्हडलीं भावंडां अपंगूळ आशिल्लीं. श्रीपाद श्रीवल्लभान आपलो मोगाचो हात तांचेर फिरायले बरोबर तीं एकदम सुदारलीं. हो चमत्कार पळोवन आवय - बापायक अजाप जालें, तसोच खूब आनंद जालो. तांणी जाणलें की हो एक अवतारी पुरुष जातलो म्हण्ण. पूण तो मानव योनींत जल्मल्लो. ताका मानव नियम लागू पडटाले. तांणी ताका घरांतच शिकयलें आनी सातव्या वर्सावयाचेर तागेली मूंज केली. व्हड अजापाची गोष्ट म्हणल्यार तागेली मूंज जातकेच जेन्ना तांकां गायत्री मंत्र कानांत सांगलो त्या बरोबर तो वेदपठन करूंक लागलो. जमिल्ल्या ब्राम्हणांनी म्हणलें की हो एक व्हड अवतारी पुरुष. तो सदांच धर्माचरणान रावतालो. श्री दत्तात्रेयाची उपासना कडक करतालो. सोळावें वर्स लागपर्यंत तो घरांत रावलो.

ताका शिकोवची अशी कायच गरज नाशिल्ली. ताणें आवय बापायली परवानगी घेवन सोळा वर्साचेर घर सोडलें. तो थेट काशी क्षेत्राचेर गेलो. थंय कांय वर्सा रावलो. थंयसाकून तो हिमालयांत बद्रीकेदार गेलो, नंतर परतलो तो ओरिसांत जगन्नाथ पुरी आयलो. थंय कांय तेपं रावन तो थेट दक्षिणेक गोकर्ण क्षेत्राचेर आयलो. हांगा तो तीन वर्सा गुपीत रितीन रावलो, म्हणल्यार तो कोणाकच दिश्टी पडनासलो. मागिर तो आंध्रप्रदेशांतल्या श्री शैलपर्वताचेर गेलो. नंतर तो

संचार करत करत कृष्णा नदीचे धडेर आशिल्या कुरवपूर हया गांवांत आयलो. हो गांव रायचूर शारासाकून पयस आयकूर नांवाचें एक खेडें आसा ताजे लागीं नदीपलतडेक आसा. थयं कृष्णा नदी ओलांडून होडेन वचचें पडटा. हांगा तो एकमठ बांदून समाधी घेतापर्यंत रावलो. श्रीपाद श्रीवल्लभानी संन्यास असो घेतलोच ना. तागेल्या मूळ नांवानच प्रसिध्द रावलो. तो नित्यनेमान आपणाल्या देवळांत पूजा करतालो. तांकां थंयचो एक धोबी नेमान फुलां हाण्ण दितालो. तो धोबी श्रीपादश्रीवल्लभालो परमप्रिय भक्त जावन आशिल्लो. एक दिवस तो धोबी नेमाप्रमाण नदीचेर वचून कपडे उंबळतालो तेन्ना एक मुसलमान बादशाह आपणाल्या बेगमाक घेवन होडेन जलक्रीडा करत थंय पावलो. ती बेगम खूब सुंदर दिसतालीं. तांगेली ती प्रणयक्रिडा पळयत तो धोबी इतलो गुल्ल जालो की ताका कितलो वेळ गेलो तें कळळेंच ना. ताणें येवजिलें कीं आपणाली जीण व्यर्थ. आख्खी जीण लोकांले कपडे उंबळन काडले, हे राजेलोक कशे चैनीत जीण काडटात पळय हांवूय तांचेभासेन कित्याक जावंनजो? ब-याच वेळान तो तंद्रेंतल्यान जागो जालो. आपणें गुरुखातीर फुलां काडलीनात म्हण ताका याद जाली. तो गडबडलो, धांवत धांवत वचून जितलीं फुलां मेळटात तितली घेवन तो गुरुकडेन गेलो. पश्चात्तापान रडत सांगलें, स्वामी म्हाराज, मगेली चूक जाली, वेळ जालो, क्षमा करात. श्रीपादश्रीवल्लभ हांसले आनी म्हणले तुगेली चूक कांयच ना. तूं एक साधोमनीस. तुंवें राजपुत जावन सुख भोगची इत्सा केलीत. चूक कांय ना. पूण तो धोबी म्हणपा लागलो, ''गुरुमहाराज, तुमी साक्षात देव, तुमगेलें काम चुकलं, मगेले ते क्षुद्रवासनेमुकार तुमगेल्या पवित्र कामात हयगय जाली''. तागेली पश्चात्ताप बुध्द पळोवन गुरु प्रसन्न जालो. तांणी ताका म्हळें, रजका, तुका मुकारल्या जल्मांत राजसुख भोगचेंशे दिसता खुशाल माग. तो धोबी म्हण्टा, ''गुरुदेवा, म्हाका राजसुख मेळू, पूण तुगेलो विसर मात्त केन्नाच पडनजो, तुमगेली सेवा घडची जाय!

श्रीपाद श्रीवल्लभानी तथास्तु म्हण्ण धोब्याक आशीर्वाद

दिलो. मुकारल्या जल्मांत तो बेदरच्या सुलतान कुलांत जल्माक आयलो. त्यावेळी श्रीपाद श्रीवल्लभ नाशिल्ले, ते गाणगापुरांत श्रीनृसिंहसरस्वती अवतारान प्रसिध्द आशिल्ले. हो धोबी आतां यवन राजपूत जरी मुसलमान आशिल्लो तरी तो हिन्दू धर्माची देवांची, मुनींची कदर करतालो. व्हड जातकेंच तो बादशाह जालो. तागेलें नांव बेदरचो अल्लाउद्दीन दुसरो अशें म्हणटात. ताका एक फोडाचें दुखणें जालें. कितलेशेच हकीम, वखदां केली, पूण तो रोग बरो जालो ना. तेन्ना ताका कोणें सांगलें कीं गाणगापुरांत ताका मेण्यांत बसोवन गाणगापुर व्हेले. जेन्ना सुलतानाक श्री नृसिंहसरस्वती म्ह-यांत बसयलें तेन्ना स्वामीन ताचेर एक नदर घाली आनी हासून म्हणलें, ''खंय तो फोड दाखय''. सुलतानान फोड सोदलो तर तो नाच जाल्लो. सुलतानाक तरतर आयिल्ली तो उठून बसलो ताणें स्वामीक नृसिंहसरस्वतीक नम्र मुजरो मुसलमान पद्दतीन साष्टांग नमस्कार केलो. स्वामीन ताका म्हणलें ''अरे, रजका, तुगेली राजसुख भोगची इत्सा पुरो जाली?'' ते सरशीं सुलतानाक आपणाल्या पयली जल्माची याद आयली. ताणें स्वामी नृसिंहसरस्वतीक जाप दिली, ''राजसुखापरस व्हड सूख तें तुमगेल्या दर्शनान जाला.'' ताणें स्वामीक मानमर्यादा दिवन आशीर्वाद घेतलो.

काय दिसां नंतर श्रीपादश्रीवल्लभ महाराज नेमाप्रमाण नदीचेर न्हावपा गेल्ले. थंय एक विधवा बायल आपणाल्या एक अपंगुळ भुरग्याक घेवन नदींत जीव दिवपाक आयिल्ली तिगेलें नांव अंबिका. श्रीपादश्रीवल्लभान तिका पळोवन काकुळतेन म्हणलें, ''अगे अशें अविचारण करनाका. तुगेली जीण सार्थक जातली.'' तिणें जाप केली, ''स्वामी, माका हें अजाण भुरगें आसा, हांव असहाय जावन आसां. जिवंत रावन तरी कितें करू? श्रीपादश्रीवल्लभान तिका सांगलें, ''अगे, आत्महत्या करप व्हड पाप. तुगेली जीण सार्थक जावचे खातीर तुका एक उपाय सांगतां. तूं शनीप्रदोश नेमान कर.'' तिणें नमळतेन मागलें, ''स्वामी, म्हाका मुकारल्या जल्मांत तरी तुमगेलो सारको श्रीहरी पूत जावचो असो आशिर्वाद दियात.

तेन्ना श्रीपाद श्रीवल्लभान तथास्तु म्हण्ण तिका आशिर्वाद दिलो. मुकारल्या जल्मांत ती बायल करंजानगरांत वाजसय ब्राम्हण कुटुंबात जल्माक आयली. तिका तांणी अंबाभवानी अशें नांव दवरलें. पयली जल्माच्या संस्कारान म्हणा तिणें हया जल्मांत सुध्दा शनी प्रदोश वीर्त चालू दवरलें. वयार येतकेच तिगेलें लग्न माधवभट्ट नांवाच्या एक विद्वान पंडिताबरोबर जालें.तो व्हड शिवभक्त आशिल्लो. तांगेरच नृसिंहसरस्वती अवतार जल्माक आयलो, तें मुकारल्या प्रकरणांत पळोवया.

श्रीपाद श्रीवल्लभ हागेलो समाधीचो जागो असो ना. कारण ते एक वर्सा अश्वीन वद्य व्दादशी माघा नक्षत्र मृगराज (सिंह) राशी हया पवित्र समयाचेर गंगा नदीर न्हांवक म्हण्ण गेल्ले ते परते आयलेच नात. ते अदृश्य जाले. ही द्वादशी आतां गुरुद्वादस म्हण्ण प्रसिध्द आसा.

श्रध्देन आमी ती मनयता, सगल्या दत्तमंदिरांत, गुरुमठांत हया गुरुद्वादशीचो उत्सव गंभीरपणान दबाजान मनोवन हजारो लोकांक जेवण घालतात, हाका महाप्रसाद म्हणतात.



**जय श्रीपाद श्रीवल्लभ, श्री गुरुदेव दत्त**

# अध्याय दुसरो
## श्री नृसिंहसरस्वती



श्रीपाद श्रीवल्लभांच्या चरित्रात अंबिका नांवाचे बायलेक दिल्लो आशीर्वाद, आनी ती मुकारल्या जल्मांत करंजानगरांत जल्माक आयली हें सांगलाच. हया महाराष्ट्रांतल्या लाडकरंजा नगरांत श्री माधवभट्ट आनी तागेली धर्मपत्नी अंबाभवानी हांगेर एक चलो जल्माक आयलो. हो चलो इतर भुरग्यांभाशेन जल्मतकेच रडलो ना, तर तो एकसारको ॐ अशें म्हणपा लागलो. ताका तांणी अपुरबायेन नरहरी अशें नांव दवरलें. चलो सात वर्सां पिरायेचो जालो तरी कांयच उलयना. फकत ॐ म्हणता. तागेल्या आवय बापायक खूब दूख जालें. अपुरबायेचो एकटोच पूत आनी तो मोनो, फकत ॐ म्हणण उपयोग कितें? तांणी ज्योतिषांक दाखयलें, तांणी तागेलें नक्षत्र पळोवन सांगलें,''हो गुरुंचो गुरु जातलो.'' पूण आवय बापायक समाधान जालें ना. एक दीस तांणी त्या चल्याक म्हणलें पुता, ''तूं असो कितलीं वर्सां ॐ करीत रावतलो? तेन्ना त्या ल्हान चल्यान खुणेन सांगलें कीं आपणाक मुंज

करात. आवय बापायक खूब आनंद जालो. तांणी व्हड दबाजान तागेली मुंज केली. मुंज जातकेच पुरोहितान तागेल्या कानांत गायत्री मंत्र म्हणलो, त्या खिणांत तो भुरगो नरहरी एकदम तोंड फुटून उलोवक लागलो. ताणें आवयक म्हणले, "माये, तुंवें म्हाका भवति भिक्षां देही मंत्र शिकोवन भिक्षान्न घालें हो उपदेश हांव सुतानसुत पाळटलों."

हांव अशीच भिक्षा मागून वेदाभ्यास करतलों, हांव आनींक ब्रम्हचारी रावतलो, संन्याशी जातलो. आवयन सांगलें, पुता तूं सन्याश घेत म्हण्टा पूण ब्रम्हचर्याश्रमांतल्यान तूवें थेट संन्यास आश्रम कसो घेतलो? गृहस्थाश्रम करन एक तरी पूत जल्मतकेच संन्याश घेतात. पूण बालनरहरी म्हणपा लागलो, "मायें, आदि श्री शंकराचार्याची जीण याद कर, ताणें थेट संन्यास घेतलो नाशिल्लो? सगलेच नियम सारकेच पाळचे उरनात, कांय अपवाद आसतातच." तेन्ना तीं आवय बापूय खूब दूख करतात पळोवन बाळ नरहरीन म्हणलें, "आतां एक वर्स घरांत रावतां, नंतर मात म्हाका घर सोडची आज्ञा दिवची." फुडल्या वर्सा तिगेर जुळे पूत जल्मले तेन्ना बाळ नरहरी आवय बापायली परवानगी घेवन भायर सरलो. ताणें वतना आवयक म्हणलें, "तुंवे श्री शंकराकडेन अवतारी पूत मागिल्लो मुगे ? ताणें तुगेली प्रार्थना मानल्या. आतां तूं म्हगेली प्रार्थना मानून घे म्हाका वचूं दी. हांव तीस वर्सानंतर मेळटलों, काळजी करनाकात." असो हो सात वर्साचो बाळ नरहरी करंजा नगर सोडन थेट काशीक्षेत्राचेर गेलो. थंय ताणें तपास्वाध्याय आनी ईश्वरप्रणिधान इत्यादि तपां सुरु केली. तागेल्या तोंडार तेज झळकूंक लागले. वारणाशीत तो संन्याशी समुदायात प्रख्यात जालो. तो जेन्ना वेदान्ताचेर भाष्य सांगतालो तेन्ना तो जणू आदी श्री शंकराचार्यच असो दिसतालो.हया वारणशीत श्री शृंगेरीपिठाच्यां आचार्य परंपरंतलो जाण्टो कृष्णसरस्वती नावाचो यती रावतालो. तांणी बाळ नरहरीक संन्यास शिक्षा दिली आनी तागेलें नांव श्री नरसिंह या नृसिंहसरस्वती अशें दवरलें.

हांगा वाराणशीत हांकां खूब शिष्य मेळळे. तांका घेवन तो तीर्थाटन करच्या गेलो. तांणी हिमांलयात बदरीकेदारक्षेत्राक भेट दिली.

सुमेरु क्षेत्राचं दर्शन घेतलें, आनी नंतर ते गंगानदीच्या तटाक आले. थंय प्रयोग क्षेत्राचेर रावले हांगा तांकां खूब शिष्य मेळ्ळे तातूंत सात शिष्य आसात तांगेली नांवां अशीं आसात.

१)माधव सरस्वती २)बाळकृष्ण सरस्वती ३)उपेंद्र सरस्वती ४) सदानंद सरस्वती ५)ज्ञानज्योती सरस्वती ६)कृष्ण सरस्वती ७)सिध्द सरस्वती

हया सिध्द सरस्वतीन गुरुलें संपूर्ण चरित्र

नामधारकाक सांगून बरोवन काडलें. तें गंगाधर सरस्वतीन मराठीत बरयलें. हे गुरुचरित्र प्रसिध्द आसून ताचे पारायण सात दिवस केल्यार जिणेंत लाभ जाता हो अनुभव आसा. हया गरुचरितात बावन्न अध्याय आसात.

मगीर नरसिंह सरस्वतीतिर्थाटन करत करत दक्षिण भारतात आयले. आवय- बापायक दिल्या उतराप्रमाण तीस वर्सांनी ते करंजानगरांत येवन तांकां भेट दिली. भाव  भयणीक उपदेश केलो, तागेली रतन नांवाची भयण जिणेत निर्शेल्ली, तिका तांणी केल्लो उपदेश सगल्या तरुण चलयांक - बायलांक मार्गदर्शन करता. तिका गाणगापुर वतकच कृष्णानदीत ती न्हाली तेन्ना तिका जाल्लो कोड रोग बरो जालो.

नंतर ते लागीं - पयसल्या क्षेत्रानी भेट दिवन महाराष्ट्रांतल्या अमरापुरी गांवांक पावले. हांगा कृष्णा नदी आनी पंचगंगा नदी संगम आसा.

हो गांव श्री नरसिंहसरस्वती राबिल्ल्यान आतां नरसिंहवाडी किंवा नरसोबा वाडी नांवान प्रसिध्द आसा. थंय कांय वर्सां रावन ते गाणगापुर गेले. हांगा खूब वर्सां ते रावले आनी जायते चमत्कार केले. फाटल्या प्रकरणांत श्रीपाद श्रीवल्लभान धोबीक दिल्लो आशीर्वाद फळाक येवन तो  बेदरच्या सुलतानागेर जल्मा आयलो तेंन्ना तो गाणगापुरा येवन स्वामी नरसिंह सरस्वतीचें दर्शन घेतलें. ताका जाल्ल्यो फोड बरो जाल्ल्यो उल्लेख आयला. गाणगापूर क्षेत्राचीं वर्णनां केल्या. तातूंन नरसिंह सरस्वतील्या थोडया चमत्कारांची म्हायती

दिल्या.

एक दिसा ते आपणाल्या चारय विश्वासातल्या शिष्यांक घेवन कृष्णानदीतटार वचून फुलांनी सजयल्या ल्हान होडयेंत बसून श्री शैलदिशेन गेले. ती फुलां गुरुलो प्रसाद माळन ते गुरुध्यान करन रावले. श्री नृसिंह सरस्वती श्री शैलाच्या श्री मल्लिकार्जुनांत विलीन जाले, अशें म्हण्टात.

## जय श्री नृसिंहसरस्वती महाराज की जय



## श्री गुरुदेव दत्त

# अध्याय तिसरो

## श्री स्वामी समर्थ

श्री नरसिंह सरस्वती श्री शैलपर्वतावाटेन गेले अशें फाटल्या प्रकरणांत सांगलां. थंय ते कर्दळीवनांत समाधि घेवन बसले. तेन्ना तांच्या आंगार वाळटीन घर केलें. असल्या स्थितींत ते सुमार तिनशी वर्सा रावले अशें कळटा. कारण, जेन्ना स्वामी इ. स. १८४६ क सुमार अक्कलकोटांत येवन रावले तेन्ना ते आपूण वाळटेंतल्यान आयला, आपणाले नाव नृसिंहभान अशें सांगतालें. अक्कलकोट येवचे पयली ते मंगळवेढा, हया गांवाभायर रानांत बारा वर्सा रावताले, सांजवेळा सुमार गांवां भायर काचप उडोवचे जागेर येवन बसताले. ते पुराय नागडे आसताले देकून तांकां लोक दिगंबर बुवा म्हणटाले. नंतर ते थोडीं वर्सा पंढरपूर आनी सोलापुर गांवांत रावन अक्कलकोट आयले, थोडया भाविकाल्या मतान तांगेलो जल्म इ. स. ११४७ म्हणल्यार शके १०७१ त चैत्र शुध्द द्वितियेक जालो. पंजाबातल्या हस्तिनापुर गांवासाकून सुमार २५ मैल पयस छेली गांवांत ते अवतरले अशें सांगतात. पूण तांगेली आवय- बापूय कोण, भुरगेपण खंय गेले, खंयच्या गुरुकडेन गेलें, संन्यास केन्ना घेतलो आदि म्हायती अजिबात मेळना. आम्ही यजुर्वेदीय ब्राम्हण । नृसिंहभान आमुचे नांव । मुळपूरुष वटवृक्षस्थान ।दत्तनगर निवासी हो ।आपूण वाळटेंतल्यान भायर आयलो, थंयसाकून गंगानदी तटार गेलो, कलकत्या वचून काली मातेचे दर्शन घेतलें आनी दक्षिणेक येवन श्री शैल इत्यादि यात्रा करत रामेश्वर गेलों, मागीर महाराष्ट्रांत पावलों अशें तांणी एक कलकत्यांतलो युरोपीयन बॅरिष्टर अक्कलकोट येवन तांकां मेळिल्लो तेन्ना तांगेल्या प्रश्नाक जाप दितना सांगिल्ले. तांणी महाराष्ट्रांत येवचे पयलीं मध्यप्रदेश देवल गांवांत एक मठ बांदिल्लो आनी ताका आठ गांवची जागीर मेळ्ळी तो मठ शिष्यांक ओपून ते तडक रानांत गेले.

मध्यप्रदेशात आसतना तांकां चंचलभारती नांवांन वळखताले. तांणी अशीं तीस चाळीस वर्सा फिरतींतच घालीं. तांगेल्या आंगाचेर

वस्त्र कांयच ना, बरोबर कसलीच वस्त ना, आसल्ली फक्त लंगोटी. अक्कलकोट पावले तेन्ना ते बरेच जाण्टे दिसताले पूण तोंडार ब्रम्हतेज झळकतालें.

स्वामी समर्थान कायच बरयिल्लें ना, कसलीच ग्रंथरचना केल्ली ना. तांणी बोध , प्रवचनां अशीं कांयच दिल्लीं नात. तांचेकडेन आयिल्ल्या हजारों भाविक भक्तांक तांणी फकत कृपादिष्टी लावन आशिर्वाद दिलो हेंच ताणी चलयल्ले म्हान कार्य.तांगेली कृपानदर जांचेर जाली ते भाविक भक्त रोगमुक्त जाले, मेल्ले जिते जाले, व्यसनांतल्यान वाटावले आनी आपणाली जीण सार्थ करन घेतली, आनी कितें जाय?

इ. स. १८५६ त हिन्दुस्थानांत व्हड क्रांती जाली. ब्रिटीश सरकाराविरूध्य हिन्दुस्थानांतली जनता आपसांतले मतभेद, वर्णभेद पयस दवरन एक जाल्ले. असल्या महाक्रांतीकाळांत स्वामी समर्थ अक्कलकोट संस्थानात प्रकट जाले.

थंय ते बावीस वर्सा अख्खी जीण दिंगबर रावन काडली. मेळटा तें खावप, जात धर्म भेद करनासतना सगल्या भक्तांमदी मिसळन तांणी दिल्लो नेवैद्य स्विकार करन ते एक विचित्र जीण जगले. ते इतके विचित्र वागताले की लोक खूबपटी तांकां हो एक पिसो अशें म्हणटाले. पूण ब्रहमत्वान पछाडिल्लो हो पिसो आमगेले पिशेपण ना करूंक शकतालो हें तांणी केल्ल्या वेगवेगळया चमत्कारांन समजून येता.

स्वामी समर्थाक विधिनिशेधातीत उन्मीलनावस्था प्राप्त जाल्लो सिध्द पुरुष अशें म्हणटात. तो एक योगाची परिभास. इ. स. १८५६ त ते अक्कलकोट आयले ते बंडाचे दीस. महाराष्ट्रांत नानासाहेब पेशवे, तात्या सारके मराठा सरदार प्रामुख्यान बंडांत आशिल्ले. पूण ब्रीटीश पलटणी मुकार तांकां हार खावची पडली. ब्रिटीशांले हेर (गुपीत पोलीस) जळींमळीं पसरिल्ले. साधु, बैरागी लोकांक ते संशयान पळयताले, तागेलो ते छळ करताले. पूण संस्थाना हीं जरा स्वतंत्र आशिल्ल्यान थंय ब्रिटीश सैनीक किंवा पुलीस सिधा वचून नागरिकांक हात लावपाक शकनाशिल्ले म्हण्ण स्वामी समर्थांनी

अक्कलकोट संस्थान पसंत केले जायत. स्वामी समर्थाक हिन्दुंस्थान स्वतंत्र जाल्लें जाय आंशिल्ले. पूण ताचे पयलीं हिन्दु लोकांली सामाजिक परिस्थिती सुदारन अध्यात्मिाक उन्नती जाल्ली जाय आशिल्ली. स्वामी समर्थ रामदासांनी अशेंच कार्य केल्लें तें छत्रपती शिवाजीक महाराष्ट्रांत हिन्दुधर्मराखण करपी राज्य स्थापन करण्याक उपयोगा पडलें. बंडाचे पराभव जातरेक पांच स वर्सा उमाजी नाईक आनी वासुदेव बळवंत फडके सारके क्रांतीवीर महाराष्ट्रांत वावुरताले. ते स्वामी समर्थालो आशीर्वाद घेवंक गेल्ले पूण स्वामीन आपणाल्या अंतरज्ञानान तांकां यश हें मेळचें ना जाणा जावन सूचकशी खूण केली. स्वामीन आपल्या हातान तलवार म्हाका दिवची असो वासुदेव फडकेन आग्रो केलो, पूण स्वामीन ती दिली ना. उमाजी नाईकाक ब्रिटीशधरन जेजुरी खंडोबा देवळालागीं झाडाचेर फासा लायले. वासुदेव फडक्याक धरन एडनच्या कालापानी धाडले थंयच तो मेलो. स्वामी समर्थाक भूत भविष्य कळटाले, देकून ते खोटें आश्वासन उत्तेजन दिनाशिल्ले. स्वामी समर्थान अमुकच देवाक भजात अशें केन्नाच सांगलें ना. तांचेकडेन सगले धर्माचे लोक येताले. जांणी तांणी आपणाली श्रध्दा निष्ठा आसा त्या देवाक भजचें, भूतदया करची अशी तांगेली शिकवण आशिल्ली. भुकेल्ल्याक अन्न पयली दी, मागीर देव धर्माची खबर सांग अशें तांचें म्हणणे. आपणाकडेन आयिल्ल्या लोकांक अन्न उदक मेळचे खातीर अन्नछत्र चलोवची तांगेली इत्सा आशिल्ली. तांचेकडेन श्रीमंत लोक येताले, तांकां सांगताले, ब्राम्हण भोजन दी. सगल्यांक जेवण मेळटलें ती पद्दत अजून चालू आसा. अक्कलकोटा दर दिसा दनपारा आनी रातीन आरती नंतर पांच-स हजार भाविक भक्तांक अन्नछत्रांत जेवणाचो प्रसाद मेळटा हें सगले तुस्त करपासारकें. हजारों भक्त भाविकांनी हजारांनी न्हय तर लाखो रुपयांची दिल्ले देणगीच्या कायम ठेवींतल्यान हो दिसपट्टो खर्च करतात. अजुनी भक्त भावीक देणगी दीत आसात हें स्वामी समर्थालें सामर्थ्य.

स्वामी समर्थान केन्नाच राजकारणाचो विचार केलो ना. धर्म

पालन, कर्तव्य पालन हें श्रेष्ठ काम. आपणालो धर्म पाळटल्याक अध्यात्मशक्तीची मदत मेळटा. तांकां खंयचीय सत्ता आपुडच्या शकना. भारतीय परंपरेतले गुरु वळखुवन गुरुची सेवा हीच ईश्वरसेवा समजप म्हत्वाचे. स्वामी समर्थ हे धर्म भेद, जाती भेद पयसावल्ले व्हड गुरु तांगेली व्हडविकाय तांणी संदेशरुपान हयात आसतना दाखयिल्ल्या कांय चमत्कारांनी समजून येता तें मुकारल्या प्रकरणांत दिला.

स्वामी समर्थान कसलींच प्रवचनां दिली नात. कोणाकूय कसलोच मंत्र दिलो ना. तांकां मेळच्याक आयिल्ल्या भक्ताल्या मनांतले विचार तांकां अचूक कळटाले आनी ते तांगेलो संशय निवारण करताले. चडांत चड एक वाक्य उलोवप हीच स्वामी समर्थाली कृपा जावन आसत आली. ते म्हणटाले, ''हमकू कायकू सताते हैं? मै कौन गुरु -चेला करनेवाला नहीं'' (म्हाका कित्याक सतायतात? हांव कोण गुरुशिष्य करपी न्हय) जे कोण तांकां उपदेश दी म्हणण सतायताले,आनी हटच धरन बसताले तांका रागान क्या जूतेसे मार खाना चाहते हैं? निकल जांव यहाँ से अशें तापताले. पूण तांगेल्या हे तापोवचे फाटल्यान एक अर्थ आसतालो. जूते म्हळयार पादुका आनी ती तकलेर पडटकेच माथे थंड जातलें असो तात्पर्यार्थ. कोणी जर सिध्दी, मंत्र, सामर्थ्याची खबर काडत तर स्वामी म्हणटाले क्या रंडी अच्छी लगती है न? बदनमें जोर है तक (रांड बरी दिसता नय? आंगांत शक्ती आसापर्यतच तिची आवड.) अशी ताकीद दिताले.

हांगा रंडी म्हळयार सिध्दी, मंत्र, तंत्र, योग सामर्थ्य आसा पर्यत ताजो उपेग जाता, मागीर ना असो गर्भितार्थ. तांगेलो सांगणे आशिल्ले नामस्मरण करो, भजन करो होच तांगेले उपदेश. स्वामी समर्थाक अमूकच प्रकाराची पूजाअर्चा अशी कांय ना. जय जय श्री स्वामी समर्था अशें नाम स्मरण म्हळयार तांगेले नांवाचो जप केल्यार आमगेली मनांतली बरी इत्सा पूर्ण जाता. हाचो अनुभव आमकां - तुमकां आसा अशें तरेन स्वामी समर्थान आपणाले जिणेची निमाणी बावीस वर्सा अक्कलकोटात घालन भाविक भक्तांक हांसयत

खेळयत इ. स. १८७८ त चैत्र वद्य १३ क समाधी घेतली. प्राण सोडचे पयलीं जमिल्ल्या हजारो भक्तांक ताणी मोगान दोळे भरन पळयलें, गीतेतलो स्लोक अनन्याश्चिंतयतो मां यो जना: पर्युपासते । तेषां नित्यथियुक्तानां योगक्षेमं वहाम्यहम् ।। म्हणलो हात वयर करन सगल्यांक आशीर्वाद दिलो आनी दोळे धापले. स्वामी समर्थाले चमत्कार मुकारल्या खंडांत विस्तारान दिल्यात.



**जय जय स्वामी समर्थ महाराज**

**जय जय श्री गुरुदेव दत्त**

# अध्याय चौथो

## एक नियाळ

आतांपर्यंत आमी श्रीपाद श्रीवल्लभ, नरसिंह सरस्वती आनी स्वामी समर्थ हांचीं चरित्र जरा समजून घेतलीं. हाचे पयकीं पयले दोन दत्तावतार श्रीपाद श्रीवल्लभ आनी श्री नरसिंह सरस्वती हांचो काळ इ. स. १३०० ते इ. स. १४०० सुमार आशिल्लो. हया काळांत हिन्दुस्थानात मुसलमान बादशहानी धुमाकूळ घालन हिन्दुलोकांलीं देवळां, मठी उध्वस्त केली, तिर्थां इबाडली आनी हिन्दु लोकांली कत्तल केली. खूद्द हिन्दुस्थानात हिन्दुधर्मच ना जाता की किर्ते अशी परिस्थिती निर्माण जाली. गोदावरी तटाचेर विजयनगर साम्राज्य इ. स. १३३६ त स्थापन जाल्ल्या धा- बारा वर्सा भितर ताचे लागीच गोळकोंडयांत बहामनी (ब्राम्हणी) नांव लावन मुसलमान राज्य स्थापन जालें. निमाणें इ. स. १५६१ त बहामनी राज्याचे भाग जावन वाटेन गेल्ले पांच बादशहा एक जावन विजयनगराचो विध्वंस करन उडयलो. हातूंत अजाबाची गजाल म्हणल्यार मूळ जल्मान हिन्दु आसून बाटून मुसलमान जाल्लो विजयनगरच्या तिम्मप्पालो पूत हाणे अहमदबशीर नांव लावन निजामशाही बसयली, दुसरो एकलो युसुफ आदिलशाह हाणें विजयपुरांत आदिलशाही राज्य स्थापलें तर व-हाडांत फतेउल्लान इमादशाही, बेदरांत काशिम बेरीद, आनी गोळकोंडयांत कुतुबशहान मुसलमान घराणीं स्थापली इ. स. १५०० त सुमार कालीकतांत फिंरगे येवन गोंयांत पुर्तुगेज आयले.

हया पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांनी तर आकांडतांडव केलें. हिन्दुक जबरदस्तेन बाटोवप, देवळां, मठी नाश करप सदांचेंच जाल्लें हिन्दु लोक आपणाले देव घेवन जंय थंय पळत गेले.हयो देवतांची मूर्ती शेजारच्या राज्यांत सुरक्षित जाग्यार स्थापून देवळां बांधून आपुण कितलीं वर्सां रावले. इ. स. १६७४ त महाराष्ट् छत्रपती शिवाजी महाराजान राज्य स्थापन करपर्यंत नांवाक एक हिन्दु राजा उरलो ना म्हण्ण म्हणटात. श्रीपाद श्रीवल्लभानी धोब्याली राजसुख भोगची

इत्सा पुरी करचेखातीर ताका बेदरच्या बादशाहा घराण्यांत जल्मा घालो. इतले मात्र खरें कीं आतां मुसलमान बादशहांत जरा समंजस वृत्ती निर्माण जाल्ली. श्रीपादश्रीवल्लभ आनी नृसिंहसरस्वती सारख्या विभूतिमुकार हे मुसलमान बावगले. कारण, हे अवतारपुरुषांनी वास्तव्य केल्ल्या नरसिंहवाडी किंवा गाणगापूर हांगा केन्नाच मुसलमानांनी हल्लो केल्लो ना. उलट गाणगापूर सारकें क्षेत्र निजामशाहींत तेन्ना आसलें ताका निजाम सरकार वर्षासन दिताले. मुसलमान मूर्ति -पूजेक विरोध करपी पूण ते गुरु म्हणल्यार पीर अवलिया हांकां मानपी, तशेंच हया गुरुंनी पादुका स्थापून ताजेर ल्हानशीच घुमटी (वता आनी पावसापासून राखण) बांदल्यान तांचेर तांगेली आडनदर गेली ना. अशें तरेन गुरुभक्तितचें म्हत्व सांगूंक हया हिन्दुसमाजात प्रचार आनी प्रसार करचें काम हया अवतार पुरुषानी केलें. मुसलमान धर्मांत अबलिया मरतकेच पुरतात आनी ताचेर दर्गा बांदतात तशेंच हिन्दुधर्मातले हे गुरु समाधी घेतरेक तांजेर बांधिल्ली समाधी साधादरग्याभासेन आशिल्ल्यान तांकां ते पवित्र मानच्या लागले.

औरंगजेब जेन्ना दक्षिण हिन्दुस्थानात आयलो तेन्ना ताणें असल्यो कबरी पळोवन त्यो हिन्दुल्यो किंवा जैनाल्यो, तांकां हात लावं नजो म्हण्ण हुकूम दिल्लो. दत्ताअवतारी हया विभूति पुरुषांनी श्री दत्तात्रेयाचीं देवळां बादली नात ही बी मतींत घेवपासारकी गजाल. गुरुंची महिमा

अगाध आसा.

## श्री गुरुदेव दत्त

# अध्याय पांचवो
## समारोप



श्री भगवान दत्तात्रेय हो अवतार म्हणल्यार अयोजित ताचो अर्थ तो मनीसकुळांत जल्माक आयिल्लो न्हय. तो अत्री ऋषी आनी तागेली धर्म पत्नी अनुसुयेगेर तांगेल्या तपसामर्थ्यान आदिदेव ब्रम्हा, विष्णु आनी महेश हांचो अंश एक जावन भुरगेरुपान प्रकट जाल्लो. श्री राम, श्री कृष्ण आनी भगवान बुध्द हे राजघराण्यात जल्मल्ले. तांणी क्षत्रिय धर्माचें पालन करन राकेसांक, शत्रुंक मारन जैत मेळयलें. पूण श्री दत्तात्रेयान मात्र ब्राम्हणजातीत जल्मघेवन ब्रहमविद्या प्राप्त करन एक वेगेळोच आदर्श घालन दिलो, तो म्हणल्यार गुरु स्थानाचो.श्री दत्तात्रेय दत्तगुरु म्हण संबोधतात. अत्रि आनी अनुसुयेक देवांनी आपणाल्या अंशरुपान देहरुपी बालक दिल्लें. हाका संस्कृतांत दत्त म्हणटात. हिन्दु आध्यात्मिका प्रमाणे श्री विष्णु हो जगाचा अधिदेवता.

तांगेले बोंबलेंतल्यांन ब्रम्ह देव प्रकट जाला तो चार वेदांत प्राज्ञ पारंगत म्हण घेता.

श्री विष्णुन धा अवतार घेतले म्हणचे सर्वश्रुत आसा. अवतार घेवचें कारण ज्या ज्या वेळार ह्या जगांत अनाचार माजलो, जगाची संस्कृतीच नश्ट जाता किर्ते अशी परिस्थिती आयली तेन्ना त्या बिकट परिस्थितील्यान वाटवच्याकच श्री विष्णुन अवतार घेतलो. हया अवताराक आमी देव मानतात. हया काळचक्रापासून ब्रम्हा आनी महेश कुशीनच उरले. ब्रम्हार्चे तर देवूळ ना. शंकर तर लिंगरुपांत निराकार. मागीर मागीर लिंगाचेर मुखवटो घालन शिवलिंग अशी संज्ञा दिली. हया मुखवटयांची रुपां वेगळी वेगळीं आसात. थोडयांक दाडयां मिशी तर थोडयांक मिशीच आसात. नांवां खूब आसात. अनुमान असो काडयेत कीं लिंग ही द्रविडांची कल्पना हिन्दुस्थानात किंवा तेन्नाच्या आर्यावर्तात आर्य येवचे पयली जीं लिंगां आशिल्लीं तींच स्वयंभू. आर्यानी स्थापिल्लीं नय. हातूंत बारा ज्योतीर्लिंगां प्रसिध्द आसात. हीं लिंगरूप कल्पना सनातनधर्मात समावेश जावन वेगवेळोंचार उरलो ना. जसो भगवान बुध्द हो श्री विष्णुचो नववो अवतारच मानून हिन्दुंल्या विशाल आनी उदात्त दृष्टीकोनाची वळख दिता, तशेंच गुरुनी स्थापिल्ल्यो पादुका सुध्दां परम पवित्र जाल्यो.

ब्रम्हा, विष्णु आनी महेश भिन्न नासून ते एकच स्वरुपाचे अशीं समजूत प्रचलित जाली. तशी शिकवण हया गुरुंनी दिली. श्री दत्तात्रेयाचो अवतार हो हया एकस्वरुपाचो अविष्कार जावन आसा.

हिन्दुधर्मात जेन्ना शिव वेगळो, विष्णु वेगळो अशीं समजूत जावन भिन्नत्व उत्पन्न जालें तेन्ना हया विचारीक गोंदळाक खीळ घालचे खातीर आदि शंकराचार्यानी तिनूंय देवांचें एकरूप श्री दत्तात्रेय हाजी उपासना करची पध्दत मुकार हाडली. श्री दत्तात्रेयालो अवतार हया धा अवतारांपरस वेगळोच. तो जल्मल्लो ना, ताका मरण ना. श्री दत्तात्रेय नांवाप्रमाणे दिल्ल्या तीन गुणांचो अवतार. तीन म्हणल्यार सत्व, रज, आनी तम तशीच तीन अवस्था म्हणल्यार सृष्टी (जावप), स्थिति (जगप) आनी लय (नष्ट जावप) पूण ही अवस्था देहाक आनी जड वस्तूक लागू जाता आत्म्याक न्हय. तो परमात्म्याचो अंश आसता. सूर्याचे किरण जशें बिंबरुपांत कोटयांनी किरणां प्रत्यवर्तित करतात, चकाकतात तसो हो परमात्मा कोटयांनी आत्मरुपांत, प्रतीरुपांत

चमकता. असो परमात्मास्वरुपी देव म्हणल्यार श्री दत्तात्रेय ह आमगेल्या कल्याणाखातीर ब्रहमा, विष्णु आनी महेश हांच्या तिनूं अंशांचो एकरूप जाल्लो अंश.

अंश हो शब्द वापरला. कारण तो व्यक्त आसून उगडय दोळयांक दिसता. दिसता तें सत्य अशें समजतात. हो श्री स्वरुपच दत्तात्रेय ताची उपासना करप म्हणल्यार निर्गुणाची उपासना. गूण म्हणल्यार सत्व, रज, आनी तम म्हण सांगल्यात. पूण आमका खंयच्याच एका गूणांत रस ना वा आस्था ना. सत्वांत जरी रावलो तरी तो कालांतरान रजांत सरकता आनी सहज ताका अहंभाव येवन तो तमोगुणालागीं वता. म्हणच गुणातीत रावचें केन्नाच बरें. आमी खंयच्याय जड वस्तूचेर मोग करनासतना सदांच त्यागी वृतीन रावचें हें कायम सुख दिवचें तत्व.

हया तत्वाचें पालन करप आनी तत्वान चलप म्हणल्यार दत्तापरंपरा. ती आमकां आदि शंकराचार्यान दिली. दिली म्हणल्यार संस्कृतान संप्रदान केली, ताकाच दत्तसंप्रदाय अशें म्हणतात. श्री दत्त अवतार हो श्री विष्णुल्या धा अवतारां पासून पयस रावन आपणालें जें अवतार कार्य आसा तें गुप्त रितीन करन घेता पूण मनशाकडेन जेन्ना संपर्क येता तेन्ना ताका एक माध्यम लागता, तें माध्यम म्हणल्यार गुरु. गुरु हो मनीसच आसता, तो मनशागेर जल्मता, आमचे मदीं रावता, उलयता, व्हडजाता, मनशांक तो आपणालो लागींचो असो दिसता. पूण तो श्रेष्ठ मनीस. गुरु म्हणल्यार व्हड लघु म्हणल्यार ल्हान, अशें संस्कृत शब्द. गुरुकडेन प्रत्यक्ष संबंध येवचो म्हणल्यारच देवाकडेन अप्रत्यक्ष संबंध येवप, तो मागीर खंयचोय देव आसूं. जो जसो मानता तशा त्या देवाक तागेली निष्ठा वता. प्रत्यक्षांत गुरु हो समागम घडोवन हाडटा. ते खातीर म्हणला, गुरुर्साक्षात् परब्रम्ह।

ही शिकवण आमकां आदि शंकराचार्यानी दिली. अर्थात् हो गुरुसंप्रदाय दिलो. श्री दत्तात्रेय आदिगुरु अशें म्हणटात कीं श्री दत्तात्रेय अवतार हो गुरुरुपांत सदांच शास्वत जावन आसा.

आमी सद्‌गुरुक सोदून काडन तांका शरण गेल्यार जिणेचें सांर्थक जाता हो अनुभव आसा. मुकारल्या प्रकरणांत स्वामी समर्थाले चमत्कार समजून घेवया.



श्री गुरुदेव दत्त

# श्री स्वामी समर्थ
## मंगळवेढा गांवांत दिगंबर बुवा



स्वामी समर्थ सुरक्षतेक वाळटेघरांतल्यान (वारूळ) भायर सरले ते हस्तीनापुरालागीं छेली नांवांच्या गांवांत प्रकट जाले. थंयसावन ते मध्यप्रदेशांतल्या देवल गांवांत वचून एक मठ स्थापून रावले. हया मठांत त्या काळांत आठ गांवांची जागिरी मेळ्ळी तो मठ आपणाल्या शिष्यांक वसोवन दिवन ते यात्रेक भायर सरले. तांकां तेन्ना चंचलभारनि म्हण्ण वळखताले. ते प्रयाग, बंगाल, ओरिसा वयल्यान दक्षिणेक रामेश्वर आदि तिर्थाटनां करत उडपीक्षेत्रार पावले. उडुपी हें वैष्णव पंथस्थापक श्रीमत् मध्वाचार्यालें मूळपीठ स्थान. हांगाच श्रीमद् मध्वाचार्य जांकां हनुमंताचो अवतार मानतात ते वायूरुपांत गुपीत जाल्लो जागो दाखयतात, तेंच श्रीकृष्णालें पवित्र क्षेत्र. उडूपीसावन स्वामी समर्थ महाराष्ट्रांतल्या मंगळवेढा गांवांत गेले. हो गांव श्री विठोबालो परमभक्त दामाजी पंताले पुण्यायेन प्रसिध्द आसा. हया गांवांच्या भायर रानांत स्वामी समर्थ दीसभर रावताले. सांजवेळार गांवाचे हद्दीचेर कोयर वडयतात त्या जाग्यार येताशिल्ले. आंगाचेर

एक ल्हान लंगोटीच आसताली, देकून तांकां बुवा अशें म्हणटाले. त्या गांवांत बसप्पा गेली नांवांचो गरीब मनीस सदां रानांत वचून तेलाची वनस्पती हाडटाले. तागेली नदर हया दिगंबर बुवाचेर गेली. एक काटयाच्या झुडपाचेर स्वामी समर्थ सुस्त निदिल्ले.

तांकां पळोवन बसाप्पाक अजाब जालें, ताका कळ्ळे की हो सामान्य मनीस न्हय. तो तांगेली सेवा करपा लागलो. सदां तो रानात वतालो आनी हया दिगंबरबुवाली सेवा करतालो. स्वामीचेर भक्ती करप तागेलो नेमच जाल्लो. तो खूब गरीब आशिल्लो आनी तागेली बायल गांवांत काम वावर करन कितेंय पोटाखातीर कमयताली. तिका दिसलें कीं आपणालो घोव त्या दिगंबर बुवा पिशाल्या नादाक लागलो, म्हण्ण तिका खूब दुख जातालें. पूण बसाप्पान आपणाली भक्ती सेवा कमी केली ना. स्वामी समर्थ ताजेर खोशी जाले. तांणी चिंतलें कीं हया गरिबांक जरा श्रीमंत करया. एक दीस सांजवेळार ब-याच उसरान स्वामी समर्थ बसप्पाक घेवन थंय लागीं आशिल्ल्या काटवन नांवांच्या रानांत घेवन गेले. स्वामी मुकार आनी बसप्पा फाटल्यान. अशें चलतां चलतां काळोख जालो आनी तांकां दोळयां मुकार सर्पच सर्प दिसूंक लागले. तो बसप्पा तेली बावडो भिवन गुळो जालो. ताणें स्वामी समर्थाले पांय घट्ट धरले. स्वामी समर्थान ताका अभय दिवन म्हणले, ''तूं कांयच भियेनाका. हया सर्पातलो खंयचोय एक सर्प तुगेले इत्संप्रमाणे घे.''

बसप्पा तेल्याक स्वामी समर्थाचेर दांडगो विश्वास आशिल्लो. ताणें आपणाल्या आंगावयलें वस्त्र सोडलें आनी थंयचो सुमार एक देडहात लांब सर्प धरन त्या वस्त्रांत गुंडाळन घेतलो. तेन्ना बाकीचे सर्प नाच जाले. स्वामी समर्थ बसाप्पाक घेवन गांवांत आयले. थंय गांवांभायर एक सुंदर वन आशिल्लें, ते बागेंत स्वामी समर्थ बसले आनी तांणी बसप्पाक सांगलें, ''तूं वच घरा, तुगेल्या खाक्यांत धन आसा, तें खर्चून तुगेल्या बायल भुरग्यांवांगडा सुखान राब.'' ती उतरा बसाप्पान मानून घेतलीं.

स्वामीक साष्टांग नमस्कार करन तो घरा आयलो. घरा पावतकेच ताणें ती खाक्यांतली पोटली सोडली तर कितें आश्चर्य?

थंय सर्पाच्या बदलाक देडहातलांब भांगरा कांडी. बसप्पा तेल्याली बायल आनी भुरगीं आनंदान नाचलीं आनी स्वामी समर्थाली तुस्ती केली. स्वामीक आरत उंवाळली. तांगेलें दरिद्रपण ना जालें. तीं मागीर वर्सानवर्स अक्कलकोटा वचून स्वामी समर्थालें दर्शन घेवन मनोभावान सेवा करताली. ही खबर इ. स. १८४४ त सुमाराक घडिल्ली अशी नोंद मेळटा. तात्पर्य हेंच की सद्गुरु जरा प्रसन्न जायत तर आमकां कसलीत वस्तूंची उणीव येना, सगली जीण खोसयेन फुलता. जरी बसप्पा तेल्या प्रमाणें सर्पाचें भांगर जावचो चमत्कार न्ही तरी अकस्मात कांय घटना घडटात आनी व्हड फायदो जाता, खूब संपत्ती हाताकडेन येता. जें काम हातांत घेतला तातूंन व्हड यश मेळटा, तशीच नामना मेळटा असले अनुभव किंवा प्रचिती जायते जाण भाविक भक्तांक येता, ताकाच चमत्कार म्हणटात.



**श्री गुरुदेव दत्त**

## ❖ वाज गायन दूद दिलें.



बसाप्पा तेल्याक भांगराची लगडी मेळ्ळयो ख-यो पूण त्यो बाजारात वचून विकूंक जाय म्हण ताणें तागेलो एक विश्वासांतलो ब्राम्हण मनीस मंगळवेढा गांवांत रावतालो, ताका ही हकीगत वचून सांगली. तो देवभक्त, विश्वासू आशिल्लो. ताणें बसाप्पाक सोलापूर व्हेले आनी थंय त्यों दिल्ल्यो ताका समर्थालें सामर्थ्य कळ्ळें. ताणें विचार केलो कीं आपूण जर हया दिगंबर बुवाक शरण गेलों तर म्हगेले दळीद्र पयस वतलें. पूण दिगंबर बुवा रानात रावतालो तांका खय म्हण्ण सोदप? ताका तांगेलो ध्यासच लागलो. मनोमन तो बुवांचे चिंतन करत रावलो. एक दिस सकाळीं तागेल्या घरा एक संन्याश बुवा दत्त म्हण्ण उबो जालो. ब्राम्हणान ताका नमस्कार केलो आनी विचारलें "तुमी खावपा किर्ते घेतले?" संन्याशी बुवान सांगलें, "तुगेल्या गायच्या दूदान तयार केल्ली पोळी म्हाका खावपा जाय. तुमी तयार करन दवरात. सांजवेळा येवन हांव खातां." ब्राम्हणान खूब काकळतेन सांगलें, "म्हाराज, मगेली एकच गाय आसा, ती वांज, दूदच दिना." संन्याशी बुवा त्या गायकडेन गेले आनी तिगेल्या

फाटीवयल्यान हात फिरोवन म्हणल्ले, ''बाये, हो कुटुंबात मोगान सांबाळचो ब्राम्हण गरीब आसा, ताका दूद दी.'' आनी ते गेले. ब्राम्हणान म्हाराजावयले श्रध्देन तें गायच्या पान्याक हात घालो, तर किर्ते अजाब? तिका दूद. तांबयो भर दूद काडलें आनी तागेले बायलेन खोसयेन दसमी पोळी तयार करन दवरली. सांजवेळा संन्याशी बुवान तांगेर येवन दसमी खाली.

नंतर ब्राम्हणाक तागेल्या धंदयांत बरोच फायदो जायत गेलो आनी तागेल्या कुटुंबाची भरभराट जाली.

## ❖ शूद्र बायलेक पूत जल्मलो



बसाप्प्या तेल्यान दिगंबर बुवाली कीर्त तागेल्या गांवचे एकं शूद्र बायलेक सांगली. ते बायलेक पन्नास वर्सा जाल्लीं आनी तिगेलो घोव साठ वर्साचो. पूण तांकां दारले भुरगे नाशिल्ले म्हण्ण ती खंतेयताली. बसाप्पान सांगलें की दिगंबर बुवाली प्रार्थना करात, ताका शरण वचात. तांणी सतत दोन वर्सा मंगळवेढा रानांत दिगंबर बुवाचो सोद घेतलो. सददां वचून तागेलें दर्शन घेवचें आनी मागीरच जेवण

जेवचें हो नेम धरलो. तांगेली भक्ती पळोवन दिगंबर बुवा खोर्श जालो. एकदिस ताणी ते बायलेक सांगलें, ''तें पळय झाड, त्या झाडाचो दीक काण्ण साखरेंत मेळोवन खा, ती त्या रुकाकडेन गेर्ल आनी पळयलें तर तो रुचीचो रूक आसून ताका

धवो फुल्ल दीक व्हांवतालो. तो दीक तिणें पुंजावन व्हेलो आनी नव म्हयने जातकीर तिगेर एक सुंदर चलो जल्माक आयलो. तीं दोगांय त्या चल्याक घेवन रानांत गेलीं आनी त्या स्वामी दिगंबर बुवाल्या पांयांचेर घालून घेतले. दिगंबर बुवान ताका आशीर्वाद दिलो. त्या भुरग्यालें नांव तांणी दिगंबर दवरलें. मागीर येवन ती सुखान रावलीं.

## ❖ सुक्या बांयक उदक आयले



मंगळवेढा गांवांत बाबाजी भट नांवाचो सत्वशील ब्राम्हण रावतालो. दिगंबर बुवा केन्नाय येवन तांगेर

धा-बारा दीस रावताले. एक दीस बुवा म्हाराज आयले

तेन्ना भटजी घरा नाशिल्ले. भटणीन तांगेलें स्वागत केलें आनी

पूर केली. स्वामीन म्हणलें म्हाका तान लागल्या, उदक पिवंक दी. गेमाचे दीस आशिल्ले. घरांतलें उदक सरिल्ले, म्हण तिणें म्हणलें "महाराज, मारें बसात. हांवरांकडेंच उदक घेवन येतां." ती घागर घेवन भायर सरली. म्हाराजान म्हणले, "अगे भटणी, दारामुकार बांय आसा आनी पयस खय वता?" भटणीन जाप दिली, "म्हाराज, आतां गिमाचे दीस. ती बांय सुकल्या." म्हाराज हासले आनी ताणें सांगलें, "भटणी मामी, हांव दाखयतां तुका उदक." अशें म्हणत ते बांयकडेन गेले. थंय पावतकेंच ते बांयंत मुतले आनी म्हणले, मामी, बांयंत घागर सोड'.म्हाराजाल्या उतराचेर विश्वास दवरन तिणें बांयंत घागर घाली. मजा किते तर ते सुके बांयंत घसघसी निवळ उदक आल्लें. तितल्यान बावाजी भट घरा आयले. तांणी म्हाराजाल्या पांयांचेर लोटांगण घालें, तागेली पूजा अर्चा करन जेवण घेतलें. कांय वर्सानंतर तीं दोगां भट-भटीण पंढरपूर वचून सुखान रावलीं. ताणें स्वामी अक्कलकोट वचून कायम रावलेंण

## ❖ यवनाक अवलिया केलो

एक मुसलमान स्वामीली भक्ती करतालो. जेन्ना स्वामी दरवेळा गांवांत येताले तेन्ना तो तांकां तंबाकू, हुक्को दितालो. एक दीसा स्वामीन तागेल्या मान्यार हात दवरलो. तो गिन्यानी जावन अवलिया (संत) जालो. तो मागीर पंढरपूराक वचून रावलो. स्वामीलो आशीर्वाद रोकडोच फळतालो.

## ❖ तीन मूर्ती दिव्यपुरूष

हया जगात दृश्य (दिश्टीक पडच्यो) वस्तुपरस अदृश्य (दिश्टीक पडनाशिल्ली) वस्तू आसात आनी त्यो चड शक्तीच्यो, सामर्थ्याच्यो आसतात. उदाहरण वा-याचें पळयात एक टयूब-टायरांत घाल्लो वारो गाडयेचें कितलेंशेंच टन वजन उकलून धरता. वारो दिसना म्हूण तो ना म्हणच्या जायना, तशेंच परमेश्वर स्वरूप जाणवता पूण दिसना.

जगांत जे अवतारी पुरूष जल्माक आयले ते परमात्म्याचे अंशच परमात्म्याली तीन दृकरूपां, तीन गुणांक एकरूपांत, तीन अवस्थांचे मूळ, जांणी सांबाळ्ळा अशा त्या ब्रम्हा, विष्णू आनी महेश हे तीन आदि देव अंशानी केन्ना केन्ना प्रगट जातात जांकां ते दिश्टीक पडटात ते भाग्यवंत सत्पुरूष म्हणयेत. पूर्व पुण्यायेनच तांकां दर्शन घडटा म्हणत.

स्वामी मंगळवेढा आसता एक दीस ते थंयच्या एक दोंगरासकयल्या नदी तीराचेर बशिल्ले, तेन्ना तांकां मेळच्याक नदीपलतडीच्यान दोन दिव्य पुरूष आयले ते तिगय उलयत दोंगराचेर चडन गेले. तांगेली आपसांतली उलांवणी कोणाक कळचीं सारकीं नाशिल्लीं. एकलो म्हणटालो कित्याक रडटा? तर दुसरो म्हणटालो अशें कित्याक करता? अशें ते कितें कितें बडबडत गेले. थोडया वेळान स्वामी एकटेच परतून आयले. भाविकांलो समज कीं ते दिव्यपुरूष म्हळयार (स्वामी धरन तिगय) ब्रम्हा, विष्णु आनी महेश्वर. ब्रम्हाचें अंश रूप स्वामीक ते मेळच्याक आयिल्ले.



## ॐ श्री गुरूदेव दत्त

## ❖ हुमणाबादेंत दिव्य तीन मूर्ती

अक्कलकोट स्वामी समर्थ प्रकट जावचे पयलीं हुमणाबादेंत माणिकप्रभु नांवाचे सत्पुरुश प्रसिध्द आशिल्ले. तांगेलो एक परम भक्त अक्कलकोट गांवाचे बाबा सबनीस एक दिसा थंय गेल्ले कडेन माणीक प्रभु सत्पुरुषा वांगडा तीन दिव्य पुरुष बशिल्ले तांकां दि'टीक पडले. ही खबर इ. स. १८५७ त सुमार घडली. माणीक प्रभुन बाबा सबनीसाक सांगलें कीं हें पळय (स्वामी समर्थाक बोट दाखोवन) हे तुगेले गुरु, आतां थोडयां वर्सांनी तुगेल्या गांवांत येतले. ख-र्यानीच इ. स. १८६८ त माणीक प्रभून जीवन समाधी घेतली. ताचे धा वर्सां पयलीं स्वामी समर्थ अक्कलकोट आयिल्ले तांकां बाबा सबनीस वळखलो, तांकां शरण गेलो.

## ❖ स्वामी समर्थ पंढरपुरांत

मंगळवेढा गांवांत सुमार बारा वर्सां रावन स्वामी पंढरपुरांत आयले. पूण तांणी कसलोच चमत्कार दाखयलो ना. थोडे दीस पंढरपुरांत रावन ते लागींच मोहोळ गांवांत आयले. वाटेर भीमा नदी लागली. दीस पावासाळयाचे आशिल्ले. नदींत म्हापूर आयिल्लो. तारूं बंद आशिल्लें. स्वामी समर्थ नदींत देवलें आनी चलत पलतडीक गेले. पळयलंल्या लोकांक अजाप जालें. तांणी म्हणलें, हो एक म्हापुरुष आसूंक जाय. थंय मोहोळांत गवेस्वामी नांवाचो लिंगायत योगी रावतालो. ताका भूत भविष्य कळटालें. तो ध्यान करत बसतालो. तेन्ना तागेलें आसन (बशिल्लो पाट) जमनीवयर दोन हात अधांतरी रावतालो. तागेली पिराय सव्वायशी वर्सांची आशिल्ली.

स्वामी समर्थान तागेली भेट घेतली. दोगांली भासाभास जाली. कांय दिसांनी गवेस्वामीन योगाभ्यास बंद केलो आनी तार्णे समाधी घेतली. स्वामी मोहोळगांव सोडन सोलापुरांत गेले.

# ❖ सोलापुरांत स्वामी समर्थ

सोलापुरांत रामभाउगुर्जर नांवाचो देवभक्त सदृगृहस्थ रावतालो. तागेल्या घरांत स्वामी रावले. सोलापुरांत श्री दत्तात्रेयाचें देवूळ आसा. एकदीस स्वामी समर्थ त्या देवळांत वचून दिगंबर जावन बसले. अक्कलकोटचो चिंतोपंत आपा टोळ नावाचो एक मनीस श्री दत्तात्रेयाक पांय पडूंक प्रदक्षिणा घालत आशिल्लो. ताणें स्वामी समर्थाक पळोवन मनांतच म्हळें हो कोणीतरी सिद्धपुरुष आसा. दिगंबर बुवान म्हळें, आमी सिद्धपुरुष आसू वा नासूं, तुका ताचें कितें ? तेन्ना श्री, टोळान येवजिलें हो कोणीतरी अंतरज्ञानी आसा, तेन्ना दिगंबर बुवान म्हळे आसूं नासूं. तुका कित्याक पडला? ताणें आपणागेर यो म्हण प्रार्थना केली. तागेले भक्तीक प्रसन्न जावन स्वामीन तागेर वचून अन्न नैवेद्य घेतलो.

चिंतोपंत टोळाक स्वामी म्हाराजांचेर श्रद्धाभक्ती आसली तरी त्या काळाच्या रिवाजाप्रमाणें तांगेल्या मनाचेर अनवाळे पणाची संवय आशिल्ली. तो स्वामी समर्थाक आपणागेर जेवणाक व्हरतालो. एकदिसा तांगेर एक इष्ट जेवणाक आशिल्लो. स्वामी घराभितर बसून आशिल्ले. चिंतोपंत टोळ आनी तागेलो इष्ट घरा फाटल्यान बांयचेर न्हाताले.

तेन्ना तांणी आपसात हळूच उलयलें कीं स्वामी समर्थ कोणागेरय जेवतात, तांकां आमगेल्या ब्राम्हीण पंगतींत कशे बसोवचें? मागीर ते न्हावन अनवाळे न्हेसून भितर आयले. रोकडेच स्वामी समर्थ उठले आनी आपूण तुमगेर जेवना. तुगेलें अनवाळे भश्टाता अशें म्हणत चलपाकच लागले. श्री. टोळ हांकां वायट दिसलें. तांणी ध ांवन वचून स्वामीले पांय धरले. चूक मागली. तेन्ना स्वामी समर्थान तांगेर जेवण घेतलें.

## विष्णुपंताक स्वामीले सामर्थ्य कळ्ळं

थोडया दिवसांनंतर अशेच एक दिसा स्वामी समर्थ टोळागेर जेवणाक आशिल्ले. श्री. चिंतोपंतालो पूत विष्णुपूत सोलापुर कलेक्टर कचेरीत कारकून. सायब तपासणेक येवचे आशिल्ले. बापायन पुताक सांगलें की तूं धा वाजले करन कचेरींत वच. पूण पुताक स्वामीचेर भक्ती आशिल्ली. ताणें चिंतलें कीं घरांत अतिथी जेवणाक आसा, तांकां जेवण घालचे पयलीं आपूण यजमान जेवचे योग्य न्हय. जाता तें जावू म्हणण तो उगीच रावलो. अकरा वाजतना स्वामीक वाडलें आनी नंतर विष्णुपंतान जेवण घेतलें. तो गडबडींत जेवलो आनी घाईघाईन कचेरींत गेलो. त्यावेळार नेम कडक आशिल्ले. वेळार जर कामाचेर आयले नात तर कडक ख्यास्त जातली. विष्णुपंत येवंक कळाव जालो, गुन्यांव भोगसुवचो म्हणण नमळतेन सांगलें. बाळकृष्ण देवराय नांवाचो हेडक्लार्क आशिल्लो, तो शिस्तीचो मनीस आशिल्लो. विष्णुपूतालें तें उलोवणें आयकून तो हांसलो आनी ताणें म्हळें, अरे, सगल्यां पयलीं कचेरींत तूंच आयला आनी तुवें हजेरीपटाचेर सय केल्ली आसा कलेक्टरसायब अजूनय पावलोना विष्णुपंतान हजेरी पट उघडन पळयलो तर ताजेर तागेलीच सय आसा तो मनांत किर्ते समजूवंक जाय तें समजलो. ताका स्वामी समर्थाचेर गाढ श्रद्धा बसली.

## ❖ अक्कलकोट दिकेन स्वामी समर्थ

मागीर थोडयां दिसांनी चिंतोपंत टोळ अक्कलकोटसावन सोलापुरांत येवन स्वामी समर्थाक अक्कलकोट येवची प्रार्थना केली. त्या तेंपार घोडयांचेर बसून प्रवास करताले. एका घोडयांर स्वामी समर्थ आनी दुस-या घोडयाचेर चिंतोपंत टोळ बसले. थोडेंच अंतर पावल्ल्या खिणाक एक सरकारी घोडेस्वार घाईन आयलो, ताणें टोळाक सांगलें कीं कचेरींत तुका अति म्हत्वाच्या कामांत जरा आपयला. आतांच्या

आतां या श्री. टोळांनी स्वामी म्हाराजांक सांगलें, जरा हांगाच रावात, हांव रोकडोच येतां. ते धाईन गेले. समर्थ घोडयावयल्यान देंवले आनी तडक चलूं लागले. घोडेवाल्यान तांकां खूब विनंती केली, वचनाकात म्हण, पूण कांयच आयकनासताना चलत रावले आनी दिसनाशे जाले. थोडया वेळान टोळ आयले. घोडेवाल्यान घडिल्ली हकीगत सांगली. टोळाक खूब दुःख जालें कीं स्वामीम्हाराज आपणाक परते मेळटले कीं ना ते. घोडयार बसून वेगान घोडां ६ गांवडायत अक्कलकोट वाटेन गेले. हें पस्तीस किलोमीटर पयस आसा.

अक्कलकोटा वाटेर खंडोबाचे देवूळ आसा. त्या देवळा पडवेर स्वामी समर्थ बशिल्ले पळोवन टोळांक खूब खोसी जाली तांणी स्वामी म्हाराजांक आग्रो केलो कीं आपणाल्या घरा येवचें म्हण. स्वामीन तांकां सांगलें तशे म्हगेले घर वेगळेंच आसा. निरुपाय जावन ते परते गेले. थंय गांवाभायर देवळापडवेर स्वामी समर्थ तीन दीस रात निराहार रावले. थंय एक मुसलमान रावतालो, अहमदखान नांवाचो. तार्णे पळयलें कीं एक संन्यासी हांगा तीन दीस जाले, उपाशीच बसला, कांयच उलयना. मनात जरी आदर आसलो तरी स्वभावान मस्करी करची संवय आशिल्यान तार्णे लागीं वचून विचारलें, ''किर्ते बैरागीबाबा, तुमी हुक्का पितात? स्वामीन तकली हालांवन हय म्हळें. त्या मुसलमान रखवालदारान आपणालो रिकामां हुक्को स्वामीक दिलो. तार्णे त्या हुक्यांत तंबाकू घालनासतना बेस्टोच काथो घालन उजो पेटोयलो, तो स्वामी समर्थान हातां घेवन तोंडाकडेन धरलो आनी असो धुकट सोडलो कीं सुवासीक तंबाखूचो हुक्को ते पितात. तंबाखूच्या वासान अहमदखानाक रूच आयली आनी आपर्णे बैराग्याची फकाणा केल्ली चूक जाली म्हण माफी मागली. ताका कळ्ळे कीं हो एक अवलिया (सत्पुरूष). ताका जेवणाखाणाची सोय पयलीं करची गरजेची. तो लागींच आशिल्ल्या चोळप्पाल्या घरांत गेलो आनी ताका सांगलें, ''तूमगेलो हिन्दु अवलिया आयला, ताका जेवण दी,'' चोळप्पान बेगीन जेवण करन दवरलें. अहमदखानान वचून नमळकायेन स्वामी समर्थाक घेवन

चोळाप्पाल्या घरा हाडलें. हातपांय धुवन विनंती केली, जेवण घे.

स्वामी समर्थान म्हळें, अहमदखान, तें ताट तुगेल्या हातान दी. ताका दिसलें आपूण मुसलमान, आपणें कशें ब्राम्हणाल्या ताटा हात लावचो ? तेन्ना स्वामी समर्थान हुकुमी आवाजांत म्हळें, तुगेल्याच हातान ताट दिल्यार हांव जेवतलों. तेन्ना भीत भीत अहमदखानान तांकां तें ताट दिलें. स्वामी समर्थ आनंदान जेवले. सगल्यांक आनंद जालो. अशे तरेन स्वामी समर्थान जात धर्माचो आपणांक भेद ना, जो आपणाली भक्ती करता तो कोणय आसूं, तो म्हगेलो मोगाचो म्हण्ण दाखोवन दिलें.



**श्री गुरुदेव दत्त**

# अक्कलकोटांत स्वामी समर्थ थीर जाले

अक्कलकोट गांवांत १८५६ सुमाराक स्वामी समर्थ आयले ते भक्त चिंतोपंत टोळाल्या आग्रहान. पूण पयलें जेवण घेतलें तें चांळण्पान केल्लें. अहमदखान रखवाल दाराल्या हातान मंगळवेढा आसापर्यंत दिगंबरबुवा म्हण आशिल्ले स्वामी समर्थ केन्ना कशें जाले. तें कोणाकच खबर ना. अक्कलकोट गांवांत तें वटवृक्षामुळात थिरावले. तें स्थान आदलें पवित्र क्षेत्र जावन आसा. हांगा दर दिसाक तीन चार हजार भाविक भक्तांक फुकंटचो जेवणाप्रसाद दोनी वेळार वाडटात. हाचो अनूभव हांवे स्वता घेतलो.

अक्कलकोटचे महाराज म्हळयार स्वामी समर्थ अशें आख्खे महाराष्ट्र न्हय तर भारत आनी भारता भायर देश विदेशांत वळखतात. सद्या मुंबयंत अंधेरी लोंखंडावाला बिल्डींग कोंप्लेक्सांत स्वामी समर्थाचें सुंदर देवूळ बांदिल्लें आसून कडक शिस्त पाळटात. गोंयांत पणजेलागीं मेरशी गांवांत स्वामी समर्थाचें देवूळ आसा. आतां तर स्वामी समर्थालें ब्रीद वाक्य तूं भिउनकोस, मी तुझ्या पाठीशी आहे. अशा थळयांचें चलत्चित्र तयार जायत आसून महाराष्ट्रांतले प्रसिद्ध चित्र निर्मात राजलख्मी चित्र आनी सिलिनी एंटरटेनमेंट प्रस्तुती मार्फत जाता. हातूंत सुरेश वाडकर, अनुराधा पौडवाल सारके गांवपी कलाकार तर अभिनय विजय चव्हाण, नंदू केतकर, उशा नाईक, कु. आबु, प्रेरणा देशपांडे आनी नाच प्रियंका शेट्टी, बालकलाकार संकेत देशमुख, अपुर्वा हीं आसात.

स्वामी समर्थक भेटच्याक दरदिसा हजारों लोक येताले. आयिल्ल्या भाविक भक्तांचें दु:ख निवारण, संकटां पयस जावप, असाध्य रोग दूर जावप इत्यादि कामां जी स्वामी समर्थाल्या आशीर्वादान जालीं आनी आता सुद्धां तांगेले अदृष्य शक्तीन जी आमगेली सत्इत्सा पुराय जाता तांकां हांव चमत्कार म्हणटा कारण, तागेली कृपा जावप म्हळयार अद्भूत सामर्थ्य प्राप्त जावप, हें जो मन:पूर्वक भक्ती करता ताका अनुभवान कळटा. प्रार्थनेचं म्हत्व सगल्या जगाक खबर आसा, तेंच सामर्थ्य स्वामी समर्थ गाणगापुराचे नृसिंह सरस्वती.

# गाणगापुरचे नृसिंहसरस्वतीचे स्वामी समर्थ.

अक्कलकोट संस्थानचे राजे मालोजीराव भोसले गाणगापुरचे भक्त आशिल्ले. ते वर्सान वर्स गुरु प्रतिपदेचो उत्सव गाणगापुरा वचून तीन राती रावन, मागीर ब्राम्हाणभोजन घालन मनयताले. अशेंच एका वर्सा ब्राम्हणभोजन समारंभ जातकेच रातीन निदिल्ले कडेन राजा मालाजीरावाक एक सपन पडलें तातूंन श्री नृसिंह सरस्वतीन तांकां सांगलें हांव तुगेल्या गांवांत आयलां, तर तूं हांगा कित्याक येता? राजा सपनांतल्यान जागो जालो, तो अक्कलकोट आयलो आनी तांणी विचारपूस केली. ताका कळ्ळे कीं स्वामी समर्थच श्री दत्तावतार आसून नृसिंहसरस्वती आसात. तांणी स्वामी समर्थाल्यो पादूका मागून घेवन आपणाल्या देवघरांत पूजेक लायल्यो. मागीर दरवर्सा तो गुरुप्रतिपदेचो उत्सव ब्राम्हण भोजन आदि कार्यावळी अक्कलोकांटांत करपा लागलो. ती प्रथा अजूनय चालू आसा. अशेंतरेन स्वामी समर्थानी आपणालें रूप परगाटयलें.थोडयां दिसांनी गाणगापुरचे पूजारी अक्कलकोट येवन स्वामी समर्थालें दर्शन घेवन गेले. तांकां खात्री पटली कीं स्वामी समर्थ नृसिंहसरस्वतीचोच अवतार.



**जय श्री गुरुदेव दत्त**

# ❖ हाडाचे भांगर जालें.



बसप्पा तेल्या सारको एक गरीब मनीस आशिल्लो. तो जातीन ब्राम्हण. ताणें आयकल्लें की जर स्वामी समर्थ प्रसन्न जायत तर दळीदर ना करता म्हण्ण.

तो अक्कलकोटांत येवन रावलो. तो सदांच स्वामी समर्थामुकार हात जोडन रावन चार घटका उबोच रावतालो. मनांत स्वामी समर्थाक नमस्कार करतालो. एक दीस स्वामी समर्थ म्हारवाडयार गेल्ले आशिल्ले. थंय सुक्या हाडांची रास पडिल्ली आशिल्ली. कारण म्हार लोक गोरूं मेल्यार जनावराचे चामडें सोलतात आनी तें विकून आपणालें पोट भरतात. उबो आशिल्ल्या ब्राम्हणाक स्वामीन सांगलें, अरे तीं हाडां घेवन वच. त्या ब्राम्हणाक कितशेच जालें.ब्राम्हण हाडांक आपुड़नात, पूण स्वामी समर्थाली आज्ञा न पाळप पाप. ताणें स्वामीलें नांव घेवन आपणाल्या धोतरा कुडक्यांत एक हाड बांदून घेतलें. मागीर तो समर्थामुकार हात जोडन रावलो. तेन्ना स्वामी समर्थान म्हळें, अरे कित्याक रावला ? ती पोटली घेवन घरा वच. त्या हुकुमाप्रमाणें ताणें ती पोटली उबारली, तर ती तांका जड

लागली. तार्णे गाठ सोडवन पळयल्यार ते हाड भांगराचे जाल्ले आसा. तो ब्राम्हण स्वामी समर्थाली तुस्त गावपा लागलो आनी तो तांगेली मनोमन भक्ती करत रावलो.

## ❖ विचित्र वखदा



एक बायल मनीस आशिल्ली. तिगेले दोळे खूब दुखताले. ती स्वामी समर्थाक मेळ्ळी आनी आपणालें दुखणें सांगलें. स्वामी समर्थान म्हळें, म्हशीचे मूत दोळयाक लाय तिणें श्रद्धेन त्या प्रमाणें केलें. तीन दिवस प्रर्यत तें म्हशीमूत दोळयांक लायलें. तिगेल्या दोळयांत वायट जीव जाल्लो तो भायर गेलो आनी तिका स्पश्ट दिसपाक लागलें. आनेक बायलेल्या मानेक एक गळू जाल्लों. स्वामी समर्थाक आपणाली व्यथा सांगली. स्वामी समर्थान म्हळें, बैलाचें मूत लाय. त्याप्रमाणे तिन श्रद्धेन बैलाचे मूत लायलें आनी तिगेले मानेचें गळू गेलें आनी ती बरी जाली. तात्पर्य हेंच की म्हशीचें किंवा बैलाचें मूत वखद न्हय, पूण स्वामी समर्थाले पवित्र वाचेन जीं उतरां येतात आनी जी वस्तू ते वखद म्हणण सांगतात तें निमित्ताक कारण

जाता आनी रोगी बरो जाता. ताणें अशें विचित्र उपाय आपणाल्या भावीक भक्तांक सांगले आनी तांगेले दुखणें पयस जालें. ही अजाबाची खबर म्हणचेपेक्षा तांगेलो कृपा चमत्कार म्हणयेत. कृपा मेळोवप म्हत्वाचें. आतां स्वामी समर्थ हयात नात. तांणी वास्तव्य करन पवित्र जाल्ल्या अक्कलकोट वटवृक्षा कडची आरती हेगाळयाची विभूत सांगणी करन लावन घेतल्यार स्वामीली कृपा जावची शक्यता आसा. पूण जाय श्रद्धा आनी सबूरी.



श्री गुरुदेव दत्त

## ❖ स्वामी समर्थाली बखर

वयर सांगिल्याप्रमाणें स्वामी समर्थ आपणाल्या वाचा उतरा कृपेन भक्तांले रोग परिहार करता म्हळ्ळी खबर जशी पसरत गेली, ती महाराष्ट्रांभायर कोंकणात रत्नागिरी जिल्हयांत पावली. कोंकणात चिपळूण गांवांत गोपाळकृष्ण केळकर नांवाचो गृहस्थ नोकरे निमित्त नागपूर गेल्लो. थंय तो स्टेशनमास्तरकी करतालो. तेन्ना ताका जलोदराचो रोग लागलो. खूब वखदा विरसदां केलीं, पूण गुणाक पडलें ना.

नोकरी सोडन तो गांवांत आयलो. तागेलें लग्न जाल्लें. आतां नोकरी ना आनी येणावळ ना भावागेर थोडे दीस रावलो. थंयसान लागींच टेंबुर्ले गांवांत गेलो. थंय तागेलो दुसरो भाव रावतालो. हांगा ताका कोणें तरी अक्कलकोट स्वामी समर्थाली कीर्त सांगली. ती आयकून ताणें शपथ घेतली की जर म्हगेलो रोग बरो केलो तर हांव ईश्वराशिवाय दुस-या कोणालीच सेवा करचों ना. ताणें स्वामी समर्थाली मनांत प्रार्थना केली. ताका जरा बरें दिसपा लागलें. एक दीस ताणें भावाकडेन थोडे पयशें मागून घेतले आनी सांगलें कीं लागींच्या गांवात आशिल्ल्या आपणाल्या इश्टागेर वचून येतां. चलत चलत तो एका गांवांत पावलो. रात जाली म्हणण तो थंयच्या ध र्मशाळेंत रावलो. ताका ख-यांनीच अक्कलकोट वचूंक जाय आशिल्लें. खिशांत पयशे नात, वचप कशें? थंय एक चमत्कार जालो. ते धर्मशाळेंत एक श्रीमंत बायल उतरिल्ली. तिणें गोपाळबुवाली चौकशी केली, खंय वता काय म्हण्ण. ताका पयशाची अडचण आसा किर्ते म्हण्ण विचारलें गोपाळबुवान सांगलें आपूण अक्कलकोट स्वामी समर्थाक भेटच्याक वतां. वाटखर्चाक मदत मेळ्ळयार पुरो. जाय तितलेच पयशे घेतले आनी तो अक्कलकोट गेलो. थंय पावपर्यंत तागेल्या खिशांत फकत पांच पयशे राविल्ले. ताची ताणें खारका घेतली आनी आपूण भिक्षुवृत्तीन रावक लागलो. तो स्वामी समर्थाली सेवा करतालो. एक राती तागेल्या सपनांत स्वामी समर्थ आयले आनी तागेल्या पोटावयल्यान हात फिरोवन म्हळें, आमी तुगेलो

रोग ना करतात. तो जागो जालो आनी ताकां खूब मुतूक जालें.

पोट सैल जालें. ताका कळ्ळें कीं स्वामी समर्थान आपणालो रोग परिहार केलो. थंय तो थोडीं वर्सां रावलो. बायल ताका सोदत थंय आयली. तांणी जोडप्यांन स्वामी समर्थालें दर्शन घेतलें आनी निरोप मागलो. स्वामी समर्थान तांकां दोन नाल्ल आनी एक खारीक तिगेले होटींत घाली. स्वामीन गोपाळबुवाक आनी तागेल्या बायलेक सांगलें, तुमी तुमगेल्या चिपळूण गांवांत वचात. थंय गांवाभायर मार्कंडेय टेकडी आसा. एका ब्रम्हचारी बुवाक हांवेंच दिल्ल्यो पादुका थंय स्थापना केल्ल्यो आसात, तांची पूजा सेवा करन भिक्षुवृत्तीन संसार करन रावा. स्वामी समर्थाल्या आदेशा प्रमाणें गोपाळबुवा सपत्नीक मार्कंडेय टेकडेर आशिल्ले मठींत येवन रावले. दर ब्रेस्तवार भिक्षा मागून तो थंयच्या मठपादुकांची सेवा करू लागलो. ताका दोन चले आनी एक चली जाली. (स्वामीन दोन नाल्ल आनी एक खारीक दिल्ले संकेत), तागेले श्रद्धाभक्तीन ताका तपजैत आयलें. तांणे दिल्ले आशीर्वाद फळाक येवूं लागले. रोकडो लोग तांका भजूं लागले. मठाची भरभराट जाली. हांगा मठात रावन ताणें अक्कलकोटांत तीनचार वर्सां राविल्ले तेन्ना स्वामी समर्थानी दाखयिल्ले चमत्कार जे स्वता पळयिल्ले ते गद्यरुपान बरोवन काडले. ते सुमार पावणे चारशीं आसात. तातुंतले म्हत्वाचे हांगा दिल्ले आसात. तो हे बखरीच्या आध ारान आनी स्वामी समर्थाल्या कृपा आशिर्वादान आज चिपळूण मठ कै. गोपाळबुवाले पुतणे चलयतात तो भरभराटींत आसा. नित्य पूजा सेवा सगली चलता.

## ❖ अक्कलकोटाचें गाणगापूर

एक ब्राम्हण गृहस्थान असो नवस केलो की जर आपणागेर चलो जायत तर तागेली मूंज गाणगापूरच्या श्री दत्त सान्निध्यात करतलो. तागेले इत्सेप्रमाणें ताका चलो जालो. चल्याली मुंजी वय जातकेच तो कुटुंबा सयत गाणगापूर वचून भायर सरलो त्या काळांत प्रवास हो बैलगाडीन आनी पांयांनीच करचो पडटालो. वाटेर ताका

अक्कलकोट संस्थान लागलें. थंय तांणे मुक्काम केलो. तागेली मूंजी सरत आयिल्ली, ताका कळ्ळें कीं उरिल्ल्या पयशांत आपूण गाणगापूरा वचून मूंज करूंक शकना.तेन्ना ताका कोणें सांगलें कीं स्वामी समर्थ हेच गाणगापुराच्या नृसिंहसरस्वतीचे अवतार जावन आसात. तांकां भेटून विचारात. त्या प्रमाणें त्या देशस्थ ब्राम्हणान स्वामी समर्थाकडेन आपणाली अडचण सांगली. स्वामी समर्थान सांगले, ''तू तुगेल्या चल्याली मूंज हांगाच कर.'' त्या प्रमाणें ताणें व्हड खोशयेन मूंज अक्कलकोटात केली आनी स्वामी समर्थालो आशीर्वाद घेतलो. ते राती ताका सपनांत दृष्टांत जालो कीं तुंवें सांगिल्लो नवस पुराय जालो, म्हाका पावलो, काळजी कर नाका.

## ❖ ठाकूरदास बाबा

खंच्याय योगीपुरूषालें म्हत्व कालक्रमान जाणवत्व तें तांणी आपणाल्या भक्तांचेर केल्ले कृपेन, जाका आमी चमत्कार म्हणटात. देडशे वर्सा पयलीं मुंबय शारांत ठाकुरद्वारा भागांत एक दत्तभक्त, कृष्णदास उर्फ ठाकुरदास बुवा रावताले. ते ब-यांपैकीं कीर्तनकार आशिल्ले.

ते वर्सान वर्सा गाणगापूर नरसोबावाडी हया दत्तक्षेत्राचेर वचून श्री दत्ताली सेवा करताले. तांगेलीं गेल्ले गेल्ले कडेन किर्तनां जातालीं. दुर्देवान तांकां कोड रोग जालो. आनी सगले आंग धवेंध र्वेच जावंक लागलें. तांकां लज जाली. तांणी निश्चेय केलो, गाणगापूर वचचें आनी थंयच्या निर्गुण पादुकांची सेवा करची. पूजेक तांणी अष्टगंध कस्तुरी घेतली गाणगापुरा गेले तीर्थांत न्हाले. पादुकांची सेवा केली, पूण कस्तुरी मात्त अर्पण करचे विसरले. थंय तांणी ब्राम्हण भोजन घालें आनी किर्तन सुद्धां केलें. मुकार आपणाक काशी क्षेत्रार वचची परवानगी दी म्हणण देवाकडेन प्रार्थना केली. ते राती तांकां सपन पडलें आनी एक अज्ञात व्यक्तीन येवन सांगलें कीं तूं अक्कलकोट वच, थंय स्वामी समर्थालें दर्शन घे, तो तुगेलो रोग ना करतलो. त्या प्रमाणें श्री ठाकूरदास बुवा थेट अक्कलकोट

आयले. स्वामी समथालें दर्शन घेंतले आनी हात जोडन उबे रावले. स्वामी समर्थान तांकां बरे करन पळयलें आनी विचारलें, "म्हाका म्हणण हाडिल्ली कस्तुरी खंय आसा? आतांच्या आतां हाडन दी". ठाकूरदास बुवाक घास्स जालें. आपणें गाणगापुरांत पादुका समर्पण केली ना ते कस्तुरीचे यादीन. तांणी बेगीन बेगीन ती कस्तुरी स्वामी समर्था पायांकडेन अर्पण केली. ती कस्तुरी स्वामी समर्थान जमिल्ल्या भुरग्यांक वाटली.

अक्कलकोट खूब दीस रावले आनी नेमान स्वामीलें दर्शन घेवन मनोमन सेवा करताले. एकदीस सकाळीं न्हावन धूवन ठाकुरदास बुवा स्वामी समर्थाल्या दर्शनाक गेले. स्वामी समर्थ एका होमकुंडालागी बशिल्ले. ठाकुरदासाक पळोवन स्वामीन त्या पेटच्या कुंडातली एक जळती कोल्ती काडन ठाकुरदासाकडेन उडयली. त्याबरोबर जमिल्ली भक्त मंडळी जयजयकार करपा लागली. तांणी म्हळें, बुवा, तम गेलें काम जालें. स्वामीन तुमकां ही कोलती दिल्या,ती वखद. ताचो गोबर आंगाक लावन घेयात. त्या प्रमाणें ठाकूरदास बुवान ते कोलते चो गोबर आपणें हाडिल्या गाणगापुरच्या प्रसादांत मिसळन सगल्या आंगार सात -आठ दीस लायलो. चमत्कार असो कीं बुवाली कोड ना जायत गेलें आनी ते पयली भशेन नितळ कातीचे जाले. स्वामी समर्थाल्या आशीर्वादान बुवागेर एक चलो जालो. ताचे नांव तांणी गुरुदास दवरलें. व्हड जातकेच हया गुरुदास बाबान ठाकूरद्वार देवळा बानून स्वामी समर्थाली पादुका स्थापना केल्यो. थंय अजुनी सकाळसांज पूजा आरती जाता. उत्सवा वेळार खूब कार्यावळी जातात. मुंबयच्या भाविक भक्तांलें तें एक पवित्र स्थान जावन आसा. थंय अवश्य वचचें.

## ❖ आनेकल्यालें कोड गेलें

ठाकूरदास बुवालें कोड स्वामी समर्थाल्या विचित्र वखदान गेले ही हकीगत सगल्यात पसरली. तेन्ना असोच एक कोडरोगी अक्कलकोट वचून स्वामी समर्थाक शरण गेलो. स्वामी समर्थान ताका बरें पळयलें

ानी सांगलें, अरे,तू सगल्या आगांक गू लावन घे, तुगेलें कोड साफ तलें. ताणें विचार केलो कीं गू कोणालो लावचो? ताणें थारायले की स्वामी समर्थालोच लावन घेवचो. त्या प्रमाणें तो सदां सकाळीं वामी समर्थ बहिर्विधी करन आयले कीं तांगेलो गू पुंजावन ाडटालो आनी स्वामी नांव घेवन आंगार कोडाक सारयतालो, मागीर ो निवळ न्हातालो. अशें ताणें सतत सात दिवस केलें. चमत्कार होच की तांगेल्या आंगावयले कोडीची खवळी निखळली आनी तागेलें ांग नितळ कातीचें जालें. तो मागीर थोडे दीस स्वामी समर्था ह-यांत रावन तागेली सेवा करन निरोप घेवन गांवां गेलो. जीण आसपर्यंत तो स्वामी समर्थालें नामस्मरण करत रावलो.

अशे तरेन स्वामी समर्थान आपणाले चमत्कार अक्कलकोटांत ाखयले,ते स्मामीचेर श्रद्धा दवरिल्ल्याक फळाक आयले.

## ❖ संस्थानिकाक थापटे

अक्कलकोट हें ब्रिटीश काळांत संस्थान आसून थंय भोंसले घराण्याचो मालोजीराव हो राजा स्वामी वेळार राज्य करतालो. तो देवभक्त स्वामीक बरोच मानतालो. प्रत्येक ब्रेस्तवारा तो स्वामी समर्थ रावता त्या वटवृक्षाकडेन वचून तांगेर दर्शन घेतालो. एक पटी तो राजा हत्तीचेर बसून नेटान आयलो. तो सकयल देंवलो आनी स्वामी समर्था कडेन गेलो आनी ताका नमस्कार केलो. मात्त स्वामी समर्थ एकदम रागार जावन तागेल्या कानपटार थापट मारलें. त्या बरोबर राजालें माथ्याचें पागोटें उसळ्ळे. स्वामी समर्थान म्हळें, ''तुगेलें व्हडपण तुजेकडेन दवर. हांगा गुरुदरबारांत व्हडपणा कित्याक जाय? असले बुकबुकीत राजा आमी खूब तयार करतात''. तेन्ना राजान स्वामी समर्थाकडेन चूक मागली. हत्तीचेर बसून येवन माथ्याचेर पागोटे घालन दरबारपद्धतीन येवचें नय अशें ताका कळ्ळें. ताचे नंतर तो दरेक ब्रेस्तवारा राजवाडयांतल्या चलत येतालो आनी आंगाचेर साधे कपडे घालतालो. उघडया बोडान स्वामीलें दर्शन घेतालो. स्वामी समर्थ तांकां म्ह-यांत घेवन आशीर्वाद दिताले.

स्वामी समर्थान राजावयलीं खूब संकटा परिहार केली. तशेंच जेन्ना ब्रिटीशान अक्कलकोट संस्थान जप्त केलें तें मेकळें केलें.

## ❖ दाजीबा भोयल्यालीं वायट कर्तुबा

मालोजीराव भोसले राजालो विश्वासांतलो एक गृहस्थ दाजीबा भोसले हाका कारभारी नेमलो. तो स्वभावान तापट आनी स्वार्थी आशिल्लो. ब्रिटीशांनी ताका हद्दपार केल्लें. पूण राजेसायबान मदी पडन ताका वाटायलें. सूंब जळें तरी पीळ वचना तशें तागेले बतींत जालें. ताणें जनतेचेर अत्याचार करपाक सुरवात केली. तेन्ना संस्थानातले सुभेदार, मेजिस्ट्रेट आनी इतर कांय हक्काभायले व्यसनी लोक ताणें हातां धरले. तांकां विरोध केल्ल्या राजघराण्यातलोच एक ऐंशी वर्सां पिरायेचो बापूसाहेब निंबाळकर हांकां ताणें एक वर्साची बंदखणेची ख्यास्त दिली. निंबाळकरान एका म्हाराक जोत्यान मारलें म्हण्ण आरोप आशिल्लो. दुसरो एकलो नारायणराव सोलापूरकार नावाचो वकील रस्त्यान वतना एका मनशाक आपटलो आनी त्या सरकारी अधिका-यालें पागोटें जमनीर पडलें. ताका बी दाजीबान एका म्हयन्याची बंदखणीची ख्यास्त दिली. 'फुलां चोरता ताका जीवनशीं मारात'. असो विचित्र न्याय अक्कलकोटात चालू जालो.

इ.स. १८८२ पयली भारती दंड नियम (इंडियन पेनल कोड)लागू नाशिल्लो आनी प्रत्येक संस्थानांत तांणी केल्लेच कायदेनेम लागू जाताले. दाजीबा कारबारी आसतना अक्कलकोट संस्थापनेचो महसूल अधिकारी चिंतोपंत आपा टोळे आशिल्लो. संस्थानाक दरवर्सा सुमार सव्वालाख रुपया येणावळ आशिल्ली. दाजीबानराजाक असो सल्लो दिलो कीं चिंतोपंत टोळान आपणालें बरेपण जोडपाक संस्थानाक लुकसाण केला. जायते कर बसयलेनात. दाजीबान लुकसाण केला. दाजीबान रयतेचेर जबरदस्त कर बसयले. कडक रितीन वसूली करताना जप्ती काडन रयतांक रस्त्याचेर उडयले. तेन्ना जनतेन ब्रिटीश कोन्सलाकडेन फिर्याद केली. अशी तक्रार करचें फुडारपण करतले, कांय अधिकारी आसात आनी तांतून शंकरराव सरदेसाय हे मुख्य

सात अशें कळतकेच ताणें शंकररावाक कैद केलो. पूण तो ईतल्यान पळन गेलो आनी सोलापूर वचून थंयच्या पोलीटीकल जंटाक मेळ्ळो. ताणें दाजीबा विरूद्ध सगलो अन्यायाचो पाढो चलो. ब्रिटिश पोलीटीकल एजंटाक पटलें. ताणें अक्कलकोट स्थानच्या अन्यायाविरूद्ध सगलो रिपोर्ट मुंबयच्या गव्हर्नर सायबांक डलो.ही हकीगत घडटा आसताना स्वामी समर्थ एक दीस जवाडया भायर शिपायचौकांत बशिल्ले. त्यावेळार थंयच्यान संस्थानातले धिकारी दाजीबाले बगलबच्चे घोडयार बसून पासयेक भायर रेल्ले. तांकां पळोवन स्वामी समर्थाक वोड्डुन (आड्डुन) म्हळें, रांनो, लुच्च्यांनो, तुमी म्हगेल्या भुरग्यांक मारलें, जळयलें, घराक जो घालो. त्या बरोबर तो गोरो मेजीस्ट्रेट वापस फिरलो. बाकीचे तेते गेले.

स्वामी समर्थान व्हाडान म्हळें, बडतर्फ. खरेंच, थोडयांच वसांनी गवर्नरसायबालो हुकूम आयलो आनी अक्कलकोट संस्थान प्त जालें. राजाचेर खटलो भरलो. दाजीबा भोसलेक बंदखणीत डयलें. खूब अधिकारी संस्थान सोडन पळत गेले. स्वामी समर्थ न्याय सोसून घेनाशिल्ले तांगेलो जसो आशीर्वाद फळतालो तसो शाप धतालो.

## ❖ राजे सायबाक पश्चात्ताप

अशे घडतरेक राजाक पश्चात्ताप जालो. तो स्वामी समर्थाक रण गेलो. स्वामी समर्थाक तागेली काकुळत दिसली. तांणी ताका र दिलो. थोडयाच दिसांनी सरकारान जप्त केल्लें संस्थान मेकळें लें आनी राजाक ताकीद दिवन सोडलो. पूण ही सगली गजाल जाक मनाक लागली. तो दुयेंत जालो. ताणें हातुळण धरलें. ताका वामी समर्थाक पळोवची इत्सा जाली. तळमळ लागली. एक दीस वामी समर्थ अकस्मात राजावाडयांत गेले. राजासायबाक भेटले. वामीलें दर्शन पळयतरेक राजाक खूब समाधान जालें, तोंडार हासो

आयलो. पूण स्वामी समर्थ परतकेच त्याच दिसा सांजवेळार राजेसाहेब स्वस्थ न्हिदिल्ले कायमचे न्हिदले. तांगेलो प्राण शांतपणांक गेलो. स्वामी समर्थालीच कृपा.



**श्री गुरुदेव दत्त**

## ❖ कबीरपंथ ढोंगी साधू

स्वामी समर्थाक कोणालें तोंड पळयलें कीं तो खरो कोण, तागेल्या मनांत किर्ते आसा तें अचूक कळटालें. ते रोकडेच ती गोष्ट तागेल्या तोंडारच सांगताले. एक दीस स्वामी समर्थ अक्कलकोटांत आपणाल्या एका भक्तागेर वचून तागेले वोसरेर बशिल्ले, तेन्ना थंय एक कबीररपंथी साधू ठाकठीक कपडे करन हातांत तंबारो घेवन भीक मागच्याक आयलो. तोंडान तो, संतनकी बानी, साधूराम, ए संतनकी बानी असो कबीरालो दोहो गायतालो. स्वामी ताका पळोवन दाव्या हाताच्या आंगटया बोटा मर्दे आकार केलो आनी उजव्या हाताचें दर्शनी बोट तातूंन घालन संभोगाची खूण करत ए संतनकी बानी, साधूराम एसंतनकी बानी म्हणत पोट धरन हासूं लागलो. जमिल्ल्या लोकांक आश्चर्य जालें आनी तांकां कळ्ळें कीं तो साधू ढोंगी आसा अशें स्वामी सुचयतात. तांणी साधू रावता तें बिडार सोदलें आनी पळयलें तर थंय एक बायल आसा, ती बी कोणाली दुस-याली लग्नाची आसून तिका त्या सादून फूस लावन पळोवन हाडिल्ली. हें ढोंग उगतें पडतरेक तो साधू त्याच दिसा अक्कलकोट गांव सोडन गेलो, तो पत्तोच ना. अशें तरेन स्वामी समर्थ असत्याचें खरें रूप उगडें करताले.

## स्वामी समर्थानी कानडींत आदेश दिलो

म्हैसूरचो नरसप्पा नांवाचो एक जाण्टो गिरेस्त स्वामी समर्थाकडेन येवन अनुग्रह दी म्हण्ण प्रार्थना भास कळनाशिल्ली. तो चिंर्तेत आशिल्लो कीं आपणालो हेत स्वामीक कसो कळोवचो. एक दिवस स्वामी दरबारांत पुराण वाचन चलतालें. पुराण सोपचे वेळार स्वामी समर्थान थंयच बशिल्ल्या नरसप्पाक खुणेन आपयलें. नरसप्पाक खूब आनंद जालो. तो हात जोडन स्वामी म्ह-यांत उबो रावलो. तेन्ना स्वामीन आपणाल्या एका हिशोब बरोवपी कारकूनाकडली पटी घेतली आनी तातूंतलें एक रिकामें पान काडन नरसप्पाक ताजेर कानडींत

बरयलें, तूं सदां भगवद्गीता म्हण, तुगेलें काम जातलें. त्या प्रमाणें ताणें स्वामी दरबारांतले एक वेद शास्त्रपंडीत दत्तात्रय बुवांक आपणाक भगवद्गीता वाचून दाखय म्हण सांगलें. जेन्ना वे.शा.स. दत्तात्रय बुवांक कळ्ळे कीं स्वामीन ताका गीता पठणाचो आदेश अमुक एक पटीचेर बरोवन दिला तांणी ती हिशोबापटी आरतीपरती करन तपासून पळयली तर ताजेर तांका खंयच कानडी मजकूर दिष्टीक पडलो ना. तांकां स्वामी समर्थाली अगाधलीला समजून आयली.

## ❖ युरोपियनाचेर कृपादृष्टी

सोलापूरांत रेल्वेंत एक युरोपियन अधिकारी आशिल्लो. ताका संतती नाशिल्ली. कोणें ताका सांगलें कीं लागींच अक्कलकोटांत स्वामी समर्थ खरेच समर्थ आसात, तांगेली भेट घेवन आशीर्वाद घे. त्याप्रमाणें तो बायलेक घेवन स्वामी समर्था मुकार येवन हॅट काडन हात जोडन उबो रावलो. ताका पळयिल्ले बरोबर स्वामी समर्थानी हिंदी भाशेन 'तूं भुरगे मागूंक आयला, एक वरसांत तुका भुरगें जातलें.

वच'. म्हणण आशीर्वाद दिलो. ख-यांनीच तागेर दुस-या वर्सा एक सुंदर चलो जालो. ताका घेवन तें जोडपें अक्कलकोट येवन स्वामी समर्थाल्या पांयांचेर भुरग्याक घालो. आनी आपूण दोन दीस थंय रावन सेवा करन गेली. सोलापूरांत आसापर्यत किंवा इंग्लंडात परत वचपर्यत तीं स्वामी समर्थाल्या दर्शनाक येत रावली.

## ❖ चोराक धरलें

हरिश्चंद्र गोपालजी नावांच्या भक्तागेर चोरी जावन दोन हजार रुपया चोरान व्हेले. हरिश्चंद्र स्वामी समर्था पांयांकडेन येवन रडलो. स्वामी समर्थान सांगलें, तुगेल्या चोराक हांवें धरन दवरला. खरेंच ताका पोलिसांनी कळयलें कीं तागेले चोरिली दोन हजार रूपया सोलापूर लागीं गांवांत चोराकडेन मेळ्ळयात.

## ❖ स्वामी समर्थाले कृपेन पावस

एक वर्स ऐन पावसाळो सुरू जालो तरी पावसाचो पत्तो ना. शेतां करपून गेलीं. सगले लोक काळजेंत पडले. ते खातीर लोकांनी गांवच्या देवळांत पूजा अभिषेक चालू दवरले. स्वामी समर्थ आपणाली शिष्य मंडळी घेवन जेहून गांवांत गेले. थंय काशी विश्वेश्वराचें जागृत स्थान आसा. थंय पूजा अर्चा पळोवन ते वळसंग गांवांत गेले. थंय बी पूजा अभिषेक चालूच आशिल्ले. पूण मळबांत मोड सुद्धां ना. स्वामी समर्थ गांवांतल्या शंकराल्या देवळांत गेले. थंय लोकांनी विचारलें, स्वामी पावस केन्ना पडटलो?

तें आयकून स्वामी समर्थ देवाकुडींत भितर गेले. थंय शंकरालें लिंग, गणपतीली मुर्त आशिल्ली. ताका 'पावस कित्याक पाडनात? तुमकां चणे जाय कितें?' तांणी सेवकाक सांगून चणे हाडले आनी ते त्या लिंग मुर्तीचेर मोकून मारले. आपूण उठून वचून भायर धर्म शाळेंत बसले. सुमार अर्दो तास गेलो. वारो व्हांवक लागलो, मळबांत मोडां जमली आनी थोडयांच वेळान जोरजोरान पावस पडलो. सगले कडेन उदकच उदक जालें. शेता भिजलीं. त्या वर्सा पीक बरी आयली, तेन्ना लोक म्हणपाक लागले, 'स्वामी समर्था, तुमी हाडमांसान जीवंत देवच आसात आमी तुमकां वळखूं शकनात. आमकां माफी दी, कृपा कर, देवापेक्षांय गुरुलें सामर्थ्य व्हड आसा'.

## ❖ ठाण्यात बुडचें गलबत उबारन धरलें

ठाणें (महाराष्ट्) रावपी लक्ष्मण नांवाचो खारवी स्वामी समर्थाली मनोमन सेवा करतालो. तो दोन तीनपटी अक्कलकोट येवन गेल्लो. स्वामी समर्थाचेर तागेली दांडगी श्रद्धा. एक दीस तो आपणालें गलबत घेवन नुस्ते धरपाक ठाणें खाडीतं गेल्लेकडेन अकस्मात तुफान जालें. आनी तागेलें गलबत बुडच्याक लागलें. तेन्ना सगल्यांनी आशा सोडली, पूण लक्ष्मण भावार्थान पाय माडन (दिंबी मारन) दोनी हात वयर करन व्हडान, 'हे अक्कलकोटवासी, म्हगेले आवय, आता

तूंच धांव, तुज्याशिवाय दुसरो कोणीच आमका राखूंक शकना. अशी प्रार्थना करूं लागलो.

हया वेळार स्वामी समर्थ अक्कलकोटांत आपणालो परमप्रिय भक्त चोळप्पाल्या घरांत बशिल्ले. तांणी त्यावेळार आपणालो उजवो हात असो सकयल करन जशी एक वस्त उबा़रतात तशें करन वयर केलो तेन्ना हातांतल्यान खारें उदक गळ्ळे तें पळोवन थंय आशिल्ल्या लोकांक अजाप जालें. तेन्ना तांणी स्वामी समर्थाक प्रश्न केलो. स्वामी महाराज, तुमगेल्या हाताक दरया उदक कशें? स्वामी महाराज हासून सांगपा लागले, 'अरे दरयांतलें गलबत उकल्लें न्हय?' पूण कोणाक कांयच अर्थ लागलो ना. कांय दिवसांनी लक्ष्मण खारवी आपणाल्या कुटुंब सांगाती लोकांक घेवन अक्कलकोट आयलो, तेन्ना ताणें घडिल्ली गोष्ट थंयच्या भक्तांक सांगली. तेन्ना याद जावन स्वामी समर्थाले अगाध शक्तीचें गिन्यान तांकां जाले. अशे स्वामी समर्थ आपणाल्या भक्ताल्या संकटाक उल्याक ओ दिताले. तशे ते अजून दितात हाचो अनुभव घेतिल्ल्याकच कळटा, म्हाका पुराय भरवसो आसा.

## श्री गुरुदेव दत्त

कै. गोपाळबुवा केळकर हांगेल्या स्वामी समर्थली बखर पुस्तकांतल्या २६५ सुमार घडिल्ल्या हकीगतीं की कांय प्रसग हांगा म्हगेल्या यथामतीन मायभाशेतल्यान बरोवन काडल्यात. ही सेवा साहित्यस्थान कोकणदेवीन आनी प्रत्यक्ष स्वामी समर्थान जागेल्या वटवृक्षस्थानाचें हांवें दर्शन घेतलें ताणीं मानून घेवची.

## जय श्री गुरुदेव दत्त

खजान्यांत भरले नात तर तागेल्या पुताक दासोपंताक बाटोवन मुसलमान करतले. बापूय दिगंबर पंतान सरकारी धान्य दुकळांत भुकेल्ल्या लोकांक फुक्याचें वाटुन दिल्ले. दिगंबरपंत श्री दत्तगुरुक शरण गेले. चमत्कार असो कीं दत्ताजी पाडेकर नांवांच्या श्रीमंत गृहस्थान सरकारी रकम तिजोरेंत जमा करन दासोपंताक सोडोवन हाडले.

पूण हो दत्ताजी कोण हाचो पत्तो लागलो ना. दिगंबर पंताक जाणवलें कीं तो प्रत्यक्ष श्री दत्तच दासोपंत घरा येतकच विरक्त जालो, ताणें घर सोडलें. तो तिर्थाटन करत माहुराक गेलो. थंय दत्त गुरुल्या सहवासांत बारा वर्सां तपाचरण करन सामर्थ्य प्राप्त जालें. गोदावरी किना-याचेर तांकां पादुका सापडल्यो. अवधूत दर्शन बी जालें. वाणासंगमार वचून थंय तागेलें कुटुंब तांकां भेटलें. तांकां तांणी आपणाकडेन दवरन घेतलें. ते आंबेजोगाईत येवन गणेश मंदिरांत रावले. थंय ताणी दोन लाखांवयर वळींचे गीतार्णक आनी गीतार रथ चंद्रीका हे दोन ग्रंथ बरयले ते वयाच्या चौसष्ट वर्साचेर समाधिस्त जाले. दासोपंतान दत्त पूजेंत शिस्तीचे नेम घालन दिले. दत्तात्रेयाचे सोळा अवतार जाले अशे मानतात आनी दासोपंत सतरावो श्री सर्वज्ञावतार.

## ❖ एकनाथ

महाराष्ट् ही संतांची भूंय. हया महाराष्ट् संत भानुदास म्हण्ण प्रसिद्ध संतकवी जावन गेलो. तागेलेच वंशावळींत एकनाथालो जल्म जालो. भागवत धर्माचो पायो जो इ. स. १२००त संत ज्ञानेश्वरान खराम घालो ताचो. देवूळ समर्थपणान चलोवन व्हेलें. एकनाथ जरी वारकरी संप्रदायाचे म्हापुरूष आनी पंढरपूरच्या श्री विठोबाचे परमभक्त, तेंच श्री दत्तात्रयाचे महान भक्त जावन आशिल्ले. तांकां पंढरपुरच्या विठोबांत आनी गाणगापूरच्या श्री दत्तात्रयांत फरकच दिसनाशिल्लो. एकनाथ दत्तानामर्महीमा आनी दत्तामानसपूजा अशी दोन अंभगाची प्रकरणा बरयल्ली आसात. श्री दत्तजल्माचेर ६७ ओवीबद्ध रचना

प्रसिद्ध आसात. तांगेल्या मतान जगाचो उद्धार करपाक अत्रि अनुसुयेगेर निर्गुण निराकार तत्वान आकार घेतले तेंच त्रिगुणात्मक त्रैमुर्ति दत्त हो जाणात. एकनाथ महाराज जेन्ना थंय पावले तें तांकां दत्तक्षेत्राचो साक्षात्कार जालो. तांणी बरयिल्ल्या अभंगांत म्हळा कीं श्री दत्तदेवच खुद्द आमका येवन भेटलो. श्री दत्त सगल्या जगांत व्यापून आसा तो प्रत्येकाल्या काळजांत आसा.

## ❖ मुक्तेश्वर (इ. स. १६००)

संत एकनाथाले चलयेलो चलो मुक्तेश्वर. मुक्तेश्वरान आपणाल्या आज्यालो वारसो समर्थपणान चलोवन व्हेलो. कुरूंदवाड संस्थान लागीं तेरवाड गांवांत रावपी चिंतामणि आनी गोदावरी हया जोडप्यागेर हो जल्मलो. कोल्हापुरची महालक्ष्मी आनी सोनारी चो भेखदेव तागेली कुळदेवता. वयांत येतकर तार्णे महाभारताचो अणकार प्राकृत भाशेंत केलो म्हण ताका प्राचीन मराठीत व्हड कलाकवी अशें वळखतात. पूण दुर्दैवान ताची व्यक्त पांचच पर्वा मेळटात. तो आपणाक श्री दत्ताल्या पांयांकडेचो भुंगो अशें म्हण्टालो. लागींच आशिल्ले नरसोबावाडी हें तागेलें स्फूर्तिस्थान. आपणालो ग्रंथ रामायण (उत्तरकांड) तो नरसोबावाडीच्या श्री नृसिंहसरस्वतीक ओपता. श्री दत्तात्रेयांलो सवो अवतार लीलाविश्वंभर हाजो उपवास आशिल्लो हें तो अंभगांत बरयता. आपणालें नांव मुद्गल आसून तो आपणे बरयिल्ले ग्रंथ तागेलें आराध्य दैवत मुक्तेश्वरा ओपता आनी हया मुक्तेश्वरानच करोवन घेतले देखून ग्रंथकार मुक्तेश्वर अशें तार्णे बरयला तेंच प्रसिद्ध जाला. मुक्तेश्वराक तार्णे अवधूत बिरूद जोडला. तार्णे शिवाले त्रिमुर्तिरूप म्हळयारच दत्तात्रेय अशें म्हळा. दासोपंतान सुद्धां श्री दत्तात्रेयाक लीलाविश्वंभर अशें म्हळा. तांणी श्री दत्ता इतलीच भक्तीगीतां शिवाचीं गायल्यांत. तांगेल्या कल्पनेन शिव आनी दत्तात्रेय एकच अभेद्याची प्रतिकां अशें म्हणयेत.

## ❖ निरंजन रघुनाथ (इ. स. १७८२ ते १८५५)

कळंब गांवाचो कुळकर्मी (शानभोग) श्रीधरपंत आनी तागेली धर्मपत्नी लक्ष्मी हांगेर जाल्लो चलो ताका तांणी अवधूत नांव दवरिल्लें. माहुरांतली रेणुका देवी तांगेली कुळदेवता. ल्हानपणांत हो अवधूत नोकरी करचे खातीर पुण्यां आयलो. एक खासगी सावकाराकडेन कारकून म्हण्ण नोकरी धरली. त्यावेळा मुंबयच्या ठाकूरदास बाबालीं किर्तनां लोकांचीं आवडीचीं आशिल्लीं तीं तो आयकतालो. त्या किर्तनाचो परिणाम ताजेर इतको जालो की तार्णे आपणाली जीण परमार्थांत घालची म्हण्ण थारायली. किर्तन सोपतकेच ठाकूरदास बाबा पांया पडलो. बाबान सहज ताका म्हळें तूं नारायण जातलो रे देवळांतल्यान भायर सरिल्लो निरंजन बिराडाचेर गेलो ना. थंय लागी आशिल्ल्या आपणाल्या वळखीच्या एका दोस्तागेर रात काडली आनी फातांडेर उटून सिधा चिंचवडाक गेलो. थंयसान देहू गेलो आनी इंद्रायणी नदींत न्हालो. थंय नदींत न्हातना ताका संत तुकारामालें स्मरण जालें.

तागेली जीण याद करन तो इतलो फुल्लो कीं तार्णे हातांत इंद्रायणीचें पवित्र उदक घेवन सोपूत घेतली आयच्यान बारा म्हयन्या उपरांत सात दिवस हो देह हांव धारण करतां फकत दत्तात्रेय दर्शनाक लागून ।।

जर ना जालो तर श्री गुरुचे दर्शन ।<br>
तर खात्रेन हो म्हगेलो देह गुरुक अर्पण ।।<br>
केलो ठाम निश्चय मनात ।<br>
भायर केलो तुकोबा साक्षीवंत ।।

अशें तार्णे व्हडान आड्डून म्हळे आनी आपणाली सदचीं न्हेसणां भिरकटावन उडयलीं. संन्याशाली कौपीन न्हेसलो आनी गांवांत वचून भिक्षा मागून जीण सारूं लागलो. मनात एकसारखें दत्त दत्त नांव जपत तीन दिवस उपास करत घोडनगर नांवांच्या गांवांत पावलो. थंय एक सत्पुरुषाकडेन रावलो. तार्णे ताकां एक गोजडी आनी कट्टी दिली. ती घेवन तो वाटचाल करत ब्राम्हणवाडा पावलो.

ंय एक जैन मठांत रावलो. थंयच्या जैन साधून ताका गिरनार वचचो सल्लो दिलो. वाटेंत ते जुन्नार गांवांत आयलें थंयच्या बैरागी मठांत तागेली भरपूर फकाणां जालीं. जल्मभरांत एक बालोन्मत पेशाच्च सारखो कुशाबा नांवाच्या संस्कृत पंडितागेर थारलो. थंय एकादश स्कंधाचेर पुराण आयकतना दत्तात्रेयाली दर्शनाची हुरड लागली. हांगा ताका श्री दत्तत्रयाचो साक्षात्कार जालो. एक घटिका तो बेहोष जालो. ताका श्री दत्तगुरुन कानाक तोंड लावन मंत्रदीक्षा दिली. थंयसाकून तो शिन्नार आयलो. थंयसान ते बाबाजी भागवताले अतिथ जावन रावले आनी शिंदया गांवचे बालकराम बाबा हया सत्पुरूषालें दर्शन घेवन नाशिक क्षेत्राचेर गेलो. नाशिकांत तांका गुरु भेटले. रघुनाथ स्वामी नांवाच्या सत्पुरूषान ताका गुरुबोध दिलो. योगविदयेचें रहस्य समजावन सांगलें, तशेच परमार्थ मार्गांतले जायते अनुभव पटोवन दिले. ताणें दत्तजयंती उत्सव मनय तसोच आपणाल्या अनुभवाचो पयलो वाटो बरोवन काडलो. नंतर गुरुलो निरोप घेवन तो गिरनार वचपाक भायर सरलो. पयलो त्र्यंबकेश्वर येवन त्र्यंबकेश्वराचें दर्शन घेवन ब्रम्हगिरीची प्रदक्षिणा काडली. मागीर तो रानांतल्यान वनांतल्यान वाट काडत गुजार राज्यात गेलो. पयली धर्मपूर गांवांत रावन थंयसान तो सुरत गेलो. सुरतसावन बडोदा गेलो. थंय ताका एक योगी संन्याशी भेटलो. ताणें ताका आशीर्वाद दिलो. बडोदयांत ताणें रूद्राक्षा आकाराचे शिवलिंगाचें दर्शन घेतलें. मागीर तो काठेवाड वचपाक भायर सरलो. भयंकर रखरखीत काठेवाडच्या प्रदेशांतल्यान तो जुनागड ओलांहून गिरनारक्षेत्र पावलो. द्वारका बी वचून आयलो. इतलें जाय पर्यंत ताणें घेतिल्ल्या सपूताचो मुर्त (एक वर्स सात दिवस) सरत आयिल्लो. गिरनार पर्वतावयल्या दत्तपादुकालागीं गेलो आनी निश्चय केलो कीं जर दत्तगुरुन दर्शन ना दिलें तर आत्महत्या करची. तीन दीस कडक उपास केलो आनी निमाण्या दिसा थंयच्या शिलेचेर नाल्ल जसो फातरार फोडटात तशें आपणालें बोड फोडन घेवंक लागलो. बोड फुटलें, रगत, व्हावूंक लागलें आनी तो बेशुद्ध जावन पडलो. तेन्ना ताका श्रीदत्तात्रेयान प्रत्यक्ष दर्शन दिलें. ही घटना इ.

स. १८१२ भाद्रपद कृष्ण एकादशीक घडली.

मनांत समाधान जावन तो थंयसावन प्रभास आनी सोमनाथ क्षेत्रांचें दर्शन घेवन मुंबय आयलो. निमाणें तो नाशीक वचून आपणाल्या गुरूक भेटलो. हांगा ताणें गुरुवचनान आपणाल्या अनुभवांचे उत्तरार्ध बरोवन काडलो. फकत एकच वर्सांत मुमुक्षुथावन मुक्तीस्थिती मेळोवपी परमार्थ गाठपी हो निरंज़न रघुनाथ नंतर कांय तीर्थाटना करत मिरज आयलो. तांणी खूब ग्रंथरचना केल्यां. अनुभवामृतबोध नी, आत्मबोधप्रकाशिनी, केशव चैतन्य तथा कल्पतरू इत्यादि ग्रंथ प्रसिध्द आसात. सुमार धा वर्सां तांणी ग्रंथ बरोवपाचे काम केलें आनी मिरजेच्या किल्ल्यांत एक ल्हानशेच दत्तमंदिर उबें केलें. हातूंत श्री दत्तात्रेयाली एकच तोंडाची मूर्त आसा. इ. स. १८५५ त संप्टेंबर म्हयन्यांत तांणी कृष्णा नदींत जिवंत जलसमाधी घेतली.



**श्री गुरुदेव दत**

## ❖ माणिक प्रभू

महाराष्ट ्रतल्या श्री. मनोहर नाईक हांचो पूत माणिक इ. स. १८१७ डिसेंबर म्हयन्यात जल्मलो. तागेली आवय आनी बापूय दोगूय देव भक्त आसून सात्विक स्वभावाची आशिल्लीं. भुरगो माणिकाक पळतकेच तो एक देवाचो फरिश्ता. जणूं आसा असो दिसतालो. ल्हानपणातच तो कानडी, मराठी, उर्दू फारशी आनी संस्कृत भासो बरेतरेन शिकलो. तो एक प्रतिभावंत भुरगोच जावन आशिल्लो. ल्हान वयांत तो तागेल्या गांवालागीं आशिल्ल्या भालकी नांवांच्या रानांत एकटोच वचून एके घोलीत वर्सभर रावलो.

मागीर तो हुमणाबाद गांवचे हद्दीचेर एका बेला झाडामुळांत येवन रावलो. ताका भाळिल्ले लोक ताणें रावचे जागे भोंवतणीं येवन कायम रावपाक लागले, तोच माणिक नगर गांव जालो. ताका भुरगेपणापासून आंगार उंची कपडे, भांगरा दागिने घालची हौस आशिल्ली. तो उतम तरेचे गावपी जाल्यान भजन गायन सभेक हजारांनी लोक जमताले. तो हिन्दुंलो दत्तजयंन्ति उत्सव, लिंगायतांलो संक्रांतिमहोत्सव तर मुसलमानांलो मोहरम हे सण व्हड दबाज्यान मनयतालो. हजारों लोक दोन तीन दिवस पक्वान्ना जेवण जेवताले. माणिकप्रभुल्या हया वर्सभरच्या उत्सवाचेर लाखानी रुपया खर्च जातालो. लोकसुध्दां लाखानी रुपया दान दिताले.

माणिक प्रभुलें शिकोवप दत्तपरंपरेतल्या सुकलमत संप्रदाय नांवांन प्रसिद्ध आसा. तागेल्या मतान प्रत्येक धर्माच्या, पंथाच्या, संप्रदायाच्या लोकांनी आपलोच धर्म निष्ठेन पाळचो तर ताका परमेश्वर प्राप्ती जाता. म्हगेलोच देव व्हड, इतर लोकांलो ल्हान अशें केन्नाच समजूं नजो. खंच्याय धर्मातलीं बरीं तत्वां पाळचीं, भेदभाव करनजो हया सकलमत संप्रदायाचें उदात्त दैवत श्रीचैतन्यदेव म्हळयार आत्मदेव जें विश्वांत भरन आसा तें. हो सकलमत संप्रदाय दत्तात्रेयाले मधुमती नांवांचे शक्तीची आराधना करतात. हे संप्रदायी अद्वैतवादी (जीव वेगळो शिव वेगळो अशें ना मानपी). सर्वव्यापी आशिल्ल्यान अमुकच मंत्र-जप घेवच्या जाय असो आग्रो धरनात. आमगेले सद्गुरू

वेगवेगळया भेसांनी नटल्यात ते सगले एकच स्वरुपातले, अशें समजून खंच्याय धर्म पंथाचो मंत्र जप केल्यार बाधा येना अशें मानतात. तागेल्या सहवासांत आयिल्ल्या लोकांक माणिक प्रभुले दैवीशक्तीन जायती मनोकामना सिद्ध जाली, रोग संकटां पयस गेली, सुख समाधाान मेळ्ळें, अशी श्री कृष्णासारकी उदात्त जीण तांणी सारली. स्वामी समर्थाल्या चरित्रांत बाबा सबनीस नांवांचो एक अक्कलकोटाचो गिरेस्त माणिकप्रभूल्या दर्शनाक नेमान वतालो तेन्ना ताका माणिक प्रभू सांगताक तीन दिव्य पुरूष बशिल्ले दिश्टी पडले अशें सांगला. ते दोळया पाती हालयनाशिल्ले. बाबा सबनीसान जाणलें कीं त्रिमूर्ति ब्रम्हा, विष्णु, महेश्वराचे अंश तांकां नमस्कार करतात माणिकप्रभून एका दिव्यमूर्तीक बोट दाखोवन सांगलें, बाबा, हो तुगेल्या गांवांत (अक्कलकोट) येतलो जेन्ना स्वामी समर्थ पांच स वर्सा नंतर अक्कलकोट आयले, तेन्ना बाबा सबनीस तांकां वळखले. त्या दिव्य देवपुरूषांक आपणाल्या दरबारांत आपोवन बसोवची तांक माणिकप्रभुक आशिल्ली म्हण्टकेच तांगेलो परमार्थाचेर केदो अधिकार आसतलो!

अशा हया परोपकारी परमपुरुषान इ. स. १८६५ डिसेंबर म्हयन्यात जीवंत समाधि घेतली. माणिकप्रभूलें दत्तपीठ अजुन चालू आसून तागेल्या भावाल्या वंशान राखून दवरल्लें आसा. श्री भक्त कार्यकल्पद्रुम गुरु सार्वभौम श्रीमद्राजधिराज योगी महाराज त्रिभुवनानंद अद्वैत अभेद निरंजन निर्गुण निरालंब परिपूर्ण सदोदित सकलमत स्थापित श्री सदगुरू माणिकप्रभु महाराजकी जय!

## श्री गुरुदेव दत्तवासुदेवानंद

## ❖ सरस्वती (इ. स. १८५४-१८२४)

सावंतवाडी संस्थानातल्या माणगांव खेडयांत गणेशभट्ट (नांव वासुदेव टेंबे) आनी रमाबाई हया जोडप्यांक जो भुरगो जालो ताचे नांव वासुदेव टेंबे. ताच्या ल्हानपणार सावनच अति वैराग्य उत्पन्न जालें. पूण श्री दत्तदेवाल्या दृष्टांतान तांणी संन्यास घेनासत्तना गृहस्थाश्रम आपणायलो. तागेल्या बापायन आनी आज्यान ताका घरांतच संस्कृत, वेदोपनिषद्, ज्योतिषशास्त्र शिकयलें. तांचे लग्न वयाच्या २१ वर्साचेर अन्नपूर्णाबाई नांवाच्या सुखभावी चलयेकडेन केलें. मागीर तांकां एक चलो जाल्लो. पूण तो बेगीनच भायर पडलो. तांगेलो चड वेळ दत्तभक्ती करपांत वतालो. तागेली आवय ताका उत्तेजन दिताली. थोडयाच तेपान ते नरसोबावाडी गेले आनी थंय तांणी गोविंदस्वामी नांवाच्या सत्पुरुषाले आज्ञेन दत्तोपासना चालू दवरली. हांगा नरसोबावाडी आसताना तांकां दत्त साक्षात्कार जालो. अवधूत भेसान दत्तगुरुच खुद्द येवन तांकां मंत्र दिलो. त्याच बरोबर ते गांवां माणगांवा आयले. आपणाबरोबर हाडिल्ली एक दत्तमूर्ती माणगांवांत स्थापन करन त्या देवळांतच ते रावपाक लागले. आपणालें जेवण ते आपूणच करताले. सात वर्सापर्यंत मौनव्रत पाळले. मागीर तांकां श्री दत्ताचो दृष्टांत जालो. त्याप्रमाणें ते बायलेक घेवन तीर्थाटनाक भायर सरले. पूण दुर्देवान दोन वर्सांतच तांगेली बायल भायर पडली. तिगेलो बारावो केल्या बरोबर तांणी संन्यास शीक्षा घेतली. वासुदेवाचें वासुदेवानंद सरस्वती अशें बिरूद घेतलें. संन्यास घेवन ते आख्खें भारत भोंवले.

वाटेर खूब कडेन दत्तमूर्ति स्थापना केल्यो आनी दत्तोपासनेचो प्रचार आनी प्रसार केलो. तांणी चातुर्मास केलो. गेल्लेगेल्ले कडेन तांगेलें दर्शन घेवपाक लोकांची झुड्डी पडटाली आनी तांकां निरोप दितना लोकां दोळयांतल्यान अश्रु व्हांवताले. तांगेलें तेज विलक्षण आशिल्लें. तांणी संस्कृत आनी मराठी भाशेंत बरोवप केलें, ते पांच हजार पानांचे जाता. गरूडेधर मुक्कामांत तांणी श्रीदत्त गुरू मुकार उत्तरेक तोंड करून उबो रावन प्राण सोडलो. गरूडेश्वरांत तांगेलें

समाधिमंदिर आसा तशेंच दत्ताचें देवूळ बांदला. दर वर्सा ज्येष्ठ वदय ३० (अमावासेक) तांगेली पुण्यतिथी व्हड प्रमाणांत मनयतात.

## श्री गुरुदेव दत्त

महाराष्ट्रांत दत्तपरंपरेचे साधुसंत शेंकडयांनी आसात. तातूंतले प्रमुख अशीं कायं नांवा दितां.

बाळेकुंद्रीकर पंतमहाराज (इ. स. १८५७-१९०५)

विष्णुदास (इ. स. १८४४-१९१७)पुणें

रामानंद बीडकर (इ. स. १८३८-१९१२) पुणें

दीक्षित स्वामी (इ. स. १८६६-१९२७) नरसोबावाडी

श्री सच्चिदानंदस्वामी उर्फ मुनीस्वामी (इ. स. १८६०-१९३४) सिन्नर व्रम्हानंद सरस्वती उर्फ लीलादत, कारंजा अग्रपूर्जाई नारायणस्वामी (नरसोबावाडी) नृसिंहसरस्वतीक पूजा करची पयली पूजा

चिदानंद सरस्वती (गाणगापूर)

देव मामलेदार (भोसे)

नाशीकदत्तमहाराज (इस्लामपुर)

श्रीकृष्णस्वामी (कोल्हापूर)

नारायण महाराज (केडगांव, पुणे)

साईबाबा (शिरडी, महाराष्ट्रं)

जंगली महाराज (पुणें)

श्रीपद्मनाभतीर्थस्वामी (ताळीकोट), गुरुमठ- बाड, कारवार कृष्णेचे दत्तोपासक (बोरी, गोंय, दत्तदेवूळ) नारायण महाराज जाळवणकर (इ. स. १८०५-१८६७)

वयर सांगिल्ल्या निरंजन रघुनाथाले शिष्य नारायण झांशी लागीं जाथ्वण गांवांत जल्मल्ले. तांगेल्या वडिलालो धंदो झांशीराजवाडयार पुराण वाचून सांगपाचो. ल्हानपणांत तांगेली मूंज आनी फाटोफार लग्न जालें. पूण तांकां संसार आवडना जावन घर सोडन मथुरेक वचून रावले. थंय तांणी गोवर्धन बाबा म्ह-यांत रावन हठयोग शिकपा

ागले. मथुरेंत ताका तागेल्या गांवच्या मनशान पळोवन ताका घरा
म्हणण आग्रो केलो. तें आयकना म्हण्टकेंच तागेल्या गुरूक वचून
ांगलें, असो हो भुरगो वडिलाक सांगनासतना आयिल्लो गुरूक
ावडलेंना. तांणी घरा

धाडलो. दोन-तीन वर्सांनी तांकां जाल्लो चलो आनी घरकान्न
ी तेन्ना तो निवृत जावन गिरनार पर्वतार गेलो. तागेल्या गुरून
का श्री दत्तात्रेयाक प्रसन्न करन घेवन शांति मेळय म्हळ्ळें हें
वजलें. गिरनारा वयल्या श्री दत्तमंदिरांत ताणें श्रीन आपणाक प्रत्यक्ष
न दिवचें म्हणण हट्ट धरन बसले. पूण श्री दत्तात्रेय प्रसन्न जालो
तेन्ना तो त्या गिरनार पर्वता कडेवयल्यान उडी मारन जीव दिवंक
लो थंय एक फकीर आयलो आनी ताका हात धरन बाजुच्या
ालींत व्हेलें. थंय ताका

श्री दत्तात्रयाचें रूप दिसलें. देव दत्तात्रेयान ताका सांगलें

तूं निरंजनरघुनाथा कडेन वच, थंयसाकून ते द्वारका गेले आनी
कार मुंबय आयले. मुंबयसावन ते दक्षिणेक रामेश्वर गेले. परत
त्तरेक येवन तांणी काशी, जगन्नाथपुरी इत्यादि क्षेत्रांची भोवंडी
ली. निमाणें महाराष्ट्रांत ब्रम्हावर्ताक येवन थीर जाले. हें कळटकेंच
गेलें वडील सुद्धा कुटुंबासयत ब्रम्हावर्त येवन रावले. पूण नारायण
हाराजान आपणालोच मठ स्थापन करन श्री दत्त भक्तीचो प्रसार
लो. ते हरद्वार गेल्ले कडेन वयाच्या साठाव्या वर्सा समाधी घेतली.
रायण महाराजान १७६७२ ओव्यांचो सप्तसागर ग्रंथ रचलो अध
त्मविधायावयलो अधिकार ग्रंथ म्हणयेत ताजे ताणें बोधसागर,
वल्यसागर, ज्ञानसागर, विज्ञानसागर, आनंदसागर, शांतिसागर आनी
रुणासागर अशें सात खंड केले. मोक्ष मेळोवपा इत्सा करतल्या
मुक्षुक आधार जातात हातूंत गुरुशिष्य भसाभास पद्धतिन केल्ल्या
वेचनात श्रुति स्मृति पुराणातली वचनां उदाहरणां दिल्यांत. ताजे
ायर तांणी गुरुपादुकाष्टक बोधष्टक बी बरयल्यात. तांणी बरयिल्ल्या
नवासविलास ग्रंथांत पारमार्थिक जिणे बद्दल वर्णन केला, तें सुंदर
दा रुपान, एक नमुनो.

चल चल रे मना, वनांत वचुंया ।

रम्य रानांत एकटेच सुखान रावुंया ।
पुण्यारानाची व्हड सोबा पळय ।
सोबा पळयतना श्रीहरीनांव घोळय ।।
रानटी झाडांचीं भांगरा फळां खावया ।
इत्साभोवपी त्या हरणा फाटल्यान धांवया ।।
दिव्य तत्वाचें उदक तान न्हिवयता ।
पर्वतावयलो वारो सुखान भोंवयता ।।

पानाच्या कुल्यांवात गोड न्हीद घेरे ।
चंचल मनाक सावरन घट धरे ।।
रातीन लावया उजळ चंदिमाचो दिवो ।
पळोवच्या तातूंत विरक्त बायलेलो सवो ।।
रूप पळोवन तिगेलें मारली घट मिटी ।
एकांत भंगून जाली संसाराची ताटातुटी ।।

अशी नारायण महाराजांनी विरक्त बायलेकडेन पारमार्थिक सुख सौंदर्य उपभोगिल्लीं वर्णनां आसांत.

## पंतमहाराज बाळेकुंद्रीकर (इ. स. १८५७-१९०५)

दत्तात्रेय रामचंद्र कुळकर्णी नांवाचे बेळगांव लागींचे बाळेकुंद्री ते मेट्रीक पास जाले. रोकडीच तांणी मास्तरकी केली. इ. स. १८८२ त लग्न जाले. संसार सुखान केलो. घरची जबाबदारी संबाळन तांणी पारमार्थिक जीव जगयलो तांकां बाळेकुंद्री लागींच्या कर्डीगुद्दी दोंगरांत रावपी बालावधूत गुरू सापडले. हया बालमुकुंद गुरुन तांकां अवधूत संप्रदाय चलोवन व्हरची आज्ञा केली आनी ते गुरु श्री शैल मल्लिकार्जुनाकडेन गेले. मागीर पंतांनी योगाभ्यास केलो आनी अध्यात्मग्रंथाचें मनन केले. तांणी स्वता सुमार तीन हजार पदां बरयलीं. ताणी श्री दत्तगुरु आनी तांगेलो बालावधूत गुरु संबंधी भकती भाव उघड करच्या हेतूंन बरेच बरयला. एक नमुनो दत्तप्रेम लहरी पदाचो.

दत्त मागेलो भव, दत मागेलो देव ।
दत्तलो घे अनुभव काळजाचो ।।
दत्त मगेले ध्यान, दत मगेले गिन्यान ।
दत्ताशिवाय ना माका आनिक कोण ।।
दत्तनांव आयकता, दताचेच ध्यान करता ।
दत्तभजनांत मौन जावन हाँव रमता ।।
दत्तनिराकार, दतच साकार ।
दत्तच गुरू मगेलो बाळाकार ।।

ताळीकोट पदम्नाभस्वामी महाराज हांणी कारवार शहरा लागीं आशिल्ल्या बाडग्रामांत इ. स. १९०९ त

श्री दत्तात्रेय मठ बांदलो (श्री पद्मनाभतीर्थ स्वामी महाराजान), ते शांकरी परंपरेचे संन्याशी आशिल्ले. अक्कलकोट स्वामी समर्था भासेन तांगेलें मूळ, खंय जल्मले, खंयच्या गुरुकडेन तांणी शिक्षा घेतली इत्यादि म्हायती मेळना. तांणी बरयिल्ल्या स्फुट संस्कृत स्तोत्रांत स्वयंप्रकाशाष्टकात आपणाल्या सदगुरुसंबंदान उल्लेख केला. (ताजे भाशांतर हया बरोवप्यान केल्लें आसा) तशेंच तांणी बाडांत स्थापिल्ल्या मठा तेकूंन अखंडाश्रम नांव दिला नळयाच्या घरात ते रावताले. ते श्री अखंडाश्रम हे तांगेले परमगुरु आशिल्ले अशें समजना पूण नक्की कोणें तांकां संन्यास दीक्षा दिली हें समजना इ. स. १९७३ त कर्नाटकांतल्या विजापूरशाराकडी हांगा संन्यासदीक्षा घेतली अशें म्हळा. लागच्या ताळीकोट हांगा ते आयले आनी ताणी स्थापिल्ल्या मठाक चमत्कारी पसरली आनी ग्रामाधिकारांत तांकां गांवांत मठी बांदून दिली. तरी ते संगमाचेर वचपाचो नेम चालूच दवरन आशिल्ले हया संगमार श्री संगमेश्वर देवूळ असा. पूर्वेक तोंड करन तें उबें आसा. हो संगमेश्वर शिव, पवित्र स्थळ. तें श्री गुरु मंदिर हया जाग्यारच पयलीं श्री गुरु तप करताले थंय पयलीं अश्वत्थरूक आशिल्लो.

तो पडतकेच थंय शिवलिंग आनी पादुका स्थापन केल्यो हल्लीं हया देवळा भोवतणें प्रशस्त सिमेंट कॉंक्रिटचो मंडप बांदला देवळाचे दक्षिणेक आनी उत्तरेक तीन धर्मशाळा आसात. श्री गुरुजी

आपल्या भक्त कोडरोगी नरहरीक सुके बडयेचेर उदक घालपा लायलें आनी निमार्णे आपणें कमंडलूंतलें तीर्थ घाले बरोबर ते सुके बडयेक पाना फुटलीं तोच मागीर औंदुबर रूक जालो. तो हयाच जागेर अशे दाखयतात. हांगा अजापाचें म्हळयार गांवांत वचपा दावें वाटेचेर एक भस्मा दोंगर आसा. गुरुजी विभूत म्हण लोक त्या भस्मा वापर करतात. पूण ती विभूति, तें भस्म अजुनीं कमी म्हण जायना.

दरवर्सा कार्तिक पुनवेक हांगा संगमाचेर व्हड उत्सव जाता. गांवातल्या देवळांतली उत्सवमुर्ती पालखेंत बसोवन वाजत गाजत संगमेचेर आशिल्या विश्रांती कटयाचेर बसयतात. नंतर आरती प्रसाद जाता. थंयच्यान ती संगमावयल्या देवळांत वता. थंय अभिषेक महानैवेद्य जाता. अन्नसंतर्पण घालातात, रातीन आरत तीर्थ प्रसाद जातकेच मध्यरातीन पालखी गांवांत येता. लोक अनंत कोटी ब्रहमांड नायक करतात.

## ❖ गाणगापूरांतलीं तीर्थां

भीमा आनी अमरजा नदीच्या संगमथळांत आठ तीर्थां आसात. अशीं आसात-

१ पटकुळ तीर्थ २ मनोरथ तीर्थ ३ भागीरथी तीर्थ ४ पापविनाशी तीर्थ हया तीर्थांत न्हावन श्री नृसिंहगुरुली भयण रत्नाबाई हिगेलो कोड ना जालो अशी आरव्यायिका श्री गुरुचरित्रांत आसा.

सिद्ध सांगता घाटकाक
आमी पळयलें दिष्टींत देख
न्हावन तीन राती त्या तीर्थांत
कोड तिगेले गेले खिणार्दांत
अशेंल हें तीर्थ पळय आसा प्रसिद्ध
पापविनाशी नांवांन तें आसा प्रसिध्द
जे कोण न्हातात भक्ती भावना हातूंत
सात जल्माचीं तांगेलीं पापां ना जातात
तीर्थाचें महीमान समजून

रतनाबाई भरली खोश
वचनासताना ती परत संसारांत
रावली ती हांगाच बांदून मठ उपरांत
गुरूचरित्र अ ४८

५ कोटीतीर्थ ६ रूद्रपादतीर्थ हातूंत न्हावन लागींच आशिल्ल्या केशव देवळांत पूजा केल्यार द्वारकायात्रा सारकी जाता हया तीर्थात केल्यार न्हाण

पतित पापी जातले म्हान जावन
मेळयतले द्वारकेचें पुण्य पावन

९ मन्मथ तीर्थ गांवांचे पूर्व दिकेन आसा. न्हावन कल्लेश्वर देवाची पूजा केल्यार गोकर्ण म्हाबळेश्वराची यात्रा केल्लें पूर्ण मेळटा. पूण सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळयार आपल्या आंगाक तीर्थ उदकांत न्हाणोवन शुद्ध करचे पयलीं मन शुद्ध करचें गरजेचें जावन आसा. संत कबिरान म्हळा

मन चंगा तो काठवठमें गंगा

वयर सांगला कीं विश्रांती करच्याक पालकी येता म्हण्ण. संगमावयल्यान गांवाकडेन वतात.

वाटेर हो कट्टो लागता. श्री नृसिंहगुरु संगमास्नान करन

तांकां बालसंन्याशी म्हणटाले उतर भारतांतली क्षेत्रांचें दर्शन घेवन तीर्थाटन केल्लें असो उल्लेख मेळटा. उज्जयनी हांगा गेल्लेकडेन तांणी थंयच्या पंडित बापट उज्जयिनीकर हाकां *शिष्य* करन तांकां श्रीकृष्णानंद नांव दिल्ल्याचो उल्लेख मेळटा ते थंय सावन महाराष्ट्रांतल्या वसई, पालघट गांवांत आयले आनी नंतर बिजापूर ताळीकोट आयले. तांणी पालघट आसताना बलवंत नांवाच्या ब्रम्हनिष्ठ गौड ब्राम्हणा खातीर सुबोधिनी तत्वबोध ग्रंथ संस्कृतांत बरयलो ते पांयांनीच प्रवास करताले. दिवसाक चाळीस मैल पयस वताले. ताणी ताळीकोट, बागलकोट, मिश्रीकोट, कूडलसंगम, (बसवेश्वराचें पवित्रस्थान) बळ्ळारी, गदग, शिरूर, बंकापूर, कुंदगोळ, नूलवी, गंगाभावी इत्यादि गांवांक भेट दिली. हांगा कर्नाटकांत संचार करताना ते लोकांक वेदांताचो

बांध कानडी भाशेत करताले. थंयच्या भक्तमंडळीनी आपणाल्या गांवांत मठ स्थापन करा म्हण्ण विनंती केल्ली. पूण पूर्वसंकेतान म्हण्ण किंवा कारवार कारांच्या पुण्यायेन म्हण ते हुबळी, यल्लापूर येवन अरबैलघाट देवन अंकोला गांवांत आयले. थंयसाकून ते थेट कारवार आयले. काळी नदी अरबी समुद्राक मेळटा, त्या कोडीबाग संगमाचेर वचून ल्हानशे नळयां घर बांदून रावले. हांगाच तांका कै. गुरुभक्त विठ्ठलराव, कै. गणपत शामा शानभोग, कै.रामचंद्र पुरूषोत्तम दणायत निष्काम कर्म करपी, सद्गुरुल्या दर्शनाक भुकेल्ली शिष्यमंडळी मेळ्ळी कै. दणायत हांणी आपणाली मालकीची बाडग्रामांतली दोन एकर आठ गुंठे (आतांच्या मापान पध्दति प्रमाणें दोन हजार आठशीं चौरस मीटर). जमीन गुरुमठ बांधकामाक दान दिली. ही जागा मसणकोंटो म्हणटाले आनी दिवसान सुद्धां फकलो दुकलो थंय फिरनाशिल्लो. इ. स. १७०० त स्वामी महाराज कोडीबाग सोडन कारवार आयले. इ. स. १७०३ त मठाचें बांधकाम सुरू जाले. हयाच वेळार इ. स. १७७० त जोगफॉल्स लागीं सिद्धापुर गांवांत पादुका मठ स्थापन केलो. थंय तांगेले शिष्य अनिरूद्धस्वामी त्या मठाची व्यवस्था पळयताले. थंयचे भक्त कै. सुब्राय मंजण्णा बैदुर आनी वे. भू. पुतु अनंत भट हे मठाची सेवा करताले. बाडच्या गुरूमठांतल्यो पादुका खुद्द पद्मनाभतीर्थ स्वामी महाराजाल्या पांयांचे माप घेवन तयार केल्ल्यों त्यो आतां श्री दत्तात्रेय मूर्तीच्या सामक्या मुकारल्या श्री पद्मनाथमहाराजालो मुखवटो (च्रांदीचो) घालन स्थापिल्ल्या पवित्र खोलींत आसात. स्वामी महाराजान गुरूमठाची शिस्त बसयली आनी सतरा नियम दवरले, ते प्रत्येक ब्रेस्तवार रातीन आरती पयलीं वाचतात. हंया आदेश पत्रांत स्पश्ट म्हळा कीं हो मठ सगल्या धर्म जातींच्या लोकांखातीर उगडो आसा हांगा उच्च नीच भेद करनजो, म्हार म्हण्ण पयस बसोवंनजो. महात्मा गांधी हरीजन चळवळ करच्या वीस वर्सापयली स्वामी महाराजान हिन्दु समाजांत एकवट उरचेखातीर दत्तपरंपरेंतलें समानतेचें तत्व आचरणात हाडिल्लें, इ. स. १९७५ त मठाची परती बांधकामा जाली व्हड सभागृह बांदले. पूण १९९१ त मठाची नवी वास्तू भव्य सिमेंट आर. सी. सी. बांदून विशाल

पटांगण, राजांगण इत्यादि बांदला. गुरुद्वादशी, दत्तजयंती सारक्या उत्सवांनी धा- धा हजार लोकांची पंगत जेवता प. पू. स्वामी

महाराज इ. स. १९१० त श्रावण शुद्ध दशमीक शिवतत्वांत विलीन जाल्ले, ती पुण्यतीर्थ व्हड दबाजान, गंभीरतेन पाळटात. हजार लोक जेवतात. मठाची व्यवस्था अगदीं चोख आसून हिशेब तपासणी जाता. आतां बाडग्राम लोकवस्तीन गजबजला.

## ❖ रामानंद बीडकर (इ. स. १८६६ ते १९२७)

अक्कलकोट स्वामी समर्थाल्या शिष्यांप्यकीं एक रामानंद. हांकां भुरगेपणासावन देवभक्तीचें पिर्शे आशिल्लें. तें भुरगेपणांत चलत पंढरपुरा श्री विठोबा रखुमाईल्या दर्शनाक गेले. नंतरते सप्तशृंगी यात्रेक वचून आयल. व्हड जातकेच तांगेलें लग्न जालें आनी ते कुटुंबाचें पालन पोषण करच्या लागले. ते अत्तर विकपाचो धंदो करताले. अत्तर, सुंगधी तेलां ही श्रीमंतांलीं आनी तेन्ना आशिल्या संस्थनिक राजाराणयेक वापरचीं वस्त्रां तांगेलो संपर्क असल्या श्रीमंत लोकांकडेन येतकेच तांकां व्यसनां लागलीं. उत्पन्न बी खूब आशिल्लें. अक्कलकोट संस्थानिकागेर गेल्लेकडेन तांकां स्वामी समर्थाचें दर्शन घडलें. तांणी तांकां शिटकायला परत परत रामानंद स्वामी समर्थाक मेळपा गेले, तेन्ना स्वामीन ताका नर्मदा यात्रा कर म्हण्ण आदेश दिलो. हें सुमार इ. स. १८७४ त घडलें. रामानंद नर्मदा यात्रा करन परतले. तेन्ना स्वामी समर्थान समाधी घेतिल्ली रामानंदाक खूब दुःख जाले ताणें काशी, प्रयाग क्षेत्राक भेट दिली आनी परत येताना माहाराष्ट्रांतल्या संतांची पुण्यगांवां तुकारामालें देहू, ज्ञानेश्वराली आळंदी, गजानन महाराजाले चिंचवड इत्यादि क्षेत्रांचेर वचून चिंतन केलें.

तांणी पुण्यालागी मुळामुठा नदीलागीं एक मठ बांदलो आनी थंय लाकडी श्री विठोबा रखुमाई, श्री गणपती आनी श्री महादेव हांची मूर्त स्थापन केली, मारुतीचे ते व्हड उपासना करताले. तांका रोकडेच शिष्य मेळ्ळे तातूंन रावसाहेब सहस्त्रबुद्धे नांवांचे रत्नागिरीचे कोंकणस्थ ब्राम्हण आसात. इ. स. १९१२ त ताणी समाधी घेतली.

## ❖ दीक्षितस्वामी (इ. स. १८६६ ते १९२७)

हे नरसोबावाडींत दीक्षित घरांतल्यान जल्मल्ले तागेलीं आंवय-बापूय दत्ताची परभक्त आशिल्ली. भुरगेपणात ते जरा छंदी आशिल्ले. पूण हायस्कुलांत शिकताना तागेल्या बापायल्या उपदेशा लागून तें शास्त्रमार्गान चलपा लागले. संस्कृताचो अभ्यास करन तांणी बापायकडून दत्तोपासना व्रत स्विकारले. ताका लागून तागेलें आनी तागेलें बायलेलें पेट्टाले. बापायन ताका चिपळूणातल्या टेंबे महाराज उर्फ वासुदेवानंद सरस्वती कडेन दवरलो. गृहस्थ आश्रमात रावनच ब्रहयकर्म अग्नीकर्म करताले ते कोणालेंच कांय घेनाशिल्ले. तांणी कसलोच धन संग्रह केलो ना. ताका लागून तांकां खूबपटी उपास घडटालो दुर्दैवान प्लेगाची साथींत तागेलीं बायल भुरगीं भायर पडलीं. तांकां प्लेग जाल्लो, पूण ते बरे जाले. त्या बरोबर तांणी वानप्रस्थाश्रम घेतलो. मागीर वासुदेवानंद सरस्वती नरसोबावाडी आयले. तेन्ना गुरुशिष्याली भेट जाली. वासुदेवानंद सरस्वतीन तांकां म्हळे, भक्ताल्या उद्धाराक अवतार घेतिल्ले नृसिंहसरस्वतीच तुमी आसात, तेंच नांव तुमकां फावो, पूण आदि नरसिंहसरस्वती आपूण न्ही अशें कळचे खातीर तांणी तें बिरूद घेतले ना. तांगेलो शिष्यवर्ग खूब आशिल्लो. तांणी संस्कृतांत स्पष्टस्तोत्रा आनी मराठींत गुरुशिष्य संवाद ग्रंथ बरयला. तांणी म्हत्वाचे विचार बरयल्यात ते अशें कीं कलियुगात श्री दत्ताल्या तीन तोंडांचें स हातांचें दर्शन जावचें कठीण ते हया युगांत एकच तोंडान, दोन हातांनी तशेंच बालोन्मत्त पिशाच्च वृत्तीन दर्शन दितले. तांगेल्या गुरुलेंय तशेंच मत आशिल्लें.

दीक्षितस्वामी इ. स. १९२५ अयोध्येक गेल्ल्या वेळार हें जग सोडन गेले. तांगेली समाधी थंय आसा.स्वामी समर्थ हे एक अवधूत जावन आशिल्ले. अवधूत म्हळयार जो सगले वर्णाश्रम धर्म ओलांडून फक्त आत्मस्वरुपात थीर जालो तो अति वर्णश्रमी योगी अशें श्री गोरक्षनाथान बरोवन दवरिल्लें आसा. स्वामी समर्थ एकाच जाग्यार केन्नाच रावले नात. सुरुवातेक तांणी मध्यप्रदेशांत देवल ग्रामांत एक मठी स्थापन केली, पूण ती आपणाल्या शिष्यांकडेन सोंपयली आनी ते यात्रेक गेले. गंगा संगम, बंगाल प्रांत नंतर रामेश्वर

आनी थंयसावन उडुपी क्षेत्राचेर ते भोंवले. थंयसावन ते पंढरपूर पावले काय वर्सांनी ते सोलापूर आनी मागीर बारावर्सा मंगळवेढा रावले. जिणेंतलो निमाण्या बावीस वर्सा काळ तांणी अक्कलकोट घालो. हांगा तांणी खूब चमत्कार केले. हजारों भक्तांक रोगमुक्त केले. असले एक गृहस्थ कै. गोपाळ रामचंद्र केळकर आपणालो रोग परिहार जातकच स्वामी समर्थालें शिष्यत्व पत्करून आपणाल्या गांवांत म्हळयार कोंकणातल्या चिपळूणांत आयलो. थंय तांणे मार्कंडेय टेकडेर स्वामी समर्थाल्यो पादुका स्थापन जावन आशिल्ल्या मठांत आपणाली जीण घाली. तेन्ना स्वामी समर्थान केल्ले चमत्कार जे स्वता दोळयांनी पळयले ते बरोवन लिखित रुपान मराठींत बरोवन दवरले.

# कायमृत्वाचि दत्तश्रेत्रा

## गिरनार

सौराष्ट्रालागी जुनागडचें गिरनार क्षेत्र दत्तोपासनेचें प्राचीन केंद्र. गिरनार पर्वताचेर चार धर्म संस्कृतींचो एकवट जाल्लो आसा. हिन्दु, बौध, जैन, आनी इस्लाम. गिरनार पर्वताचेर जैन मंदिर, गोरखनाथ मंदिर, शिवमंदिर, दोन देवीचीं देवळां, आनी श्री दत्तमंदिर आसा. हांगा एक पीरा (मुसलमान संता) लो दरगा आसा. हया पर्वताच्या सगल्यांत वयल्या सातव्या शिखराचेर पावता म्हणसर सुमार धा हजार मेटां चडून वचचें पडटा. दत्तप्रबोध ग्रंथांत गिरनारची सासाय अशी वर्णन केल्याण

## ❖ श्री क्षेत्र माहूर

मराठवाडा आनी विदर्भाचे हट्टीचेर अदिलाबाद जिल्ल्यांत किनवट तालुक्यांत अगदीं दोंगराळ भागांत समुद्रपातळीवयल्यान सुमार अडीच हजार उंचिचेर आसा. आतां मठापर्यत बसी वतात आनी अनुसुया शिखर पर्यत टेंपो वतात ऋषिमुनींचें तपोवन, दत्तात्रेयालें न्हिदचें देवील्या ओटीपोटांतले गांव गुरुगीतेन म्हळा.

स्नान काशीपुरी संध्यापांचाळेश्वरी

भिक्षा करविरी, कोल्हापूर, निद्रा माहूरी हांगा शंकराचार्य परंपरेचो एक मठ आसा. प्रसिद्ध संतकवी विष्णुदासालो मठ आसा. माहुराचें मूळ नांव माताजुर परशुरामाली आवय रेणुकामाते वयल्यान हें नाव पडले. माहुरगड किल्लो सुमार हजार मेटां चडटकेच रेणुकादेवी मंदिर लागता. हंगा जमदग्नी ऋषी, रेणुकेलो घोव, नावान शीवलिंग आसा, लिंगाक पायांपडून रेणुकादेवीलें दर्शन घेवचो रिवाज आसा. हया रेणुकेक कर्नाटकांत यल्लम्मा सगल्यांली आवय तर कोंकण, गोंयांत कोंकणी प्रदेशात सांतेरी अशे म्हण्टात. रेणुका मंदिरा मुकार तेंगश्यो चडत सुमार तीन मैल गेल्यार दत्तशिखर मेळटा. हें सुसंपन्न देवूळ आसून अर्ध लाटवाची जागीर आसा. श्री दत्तात्रेय हो एकच आसून

हांगा दत्तपादुका आसात.

हया देवळांत दत्तोपासक महानुभावाले चांगदेव राउळ हे महानुभा संप्रदायात आशिल्ल्या पंचकृष्णात दत्तात्रेय उपास्य आनी परमगुरु जावन आसा. हया महानुभाव संप्रदायाचे दत्तस्थान देवदेवेश्वर नांवांत प्रसिद्ध आसा. अतिप्राचीन काळात दत्तात्रेय हो विष्णुचोच अवतार मानून विष्णुप्रमाणें एक तोंड, स हात आशिल्लो अशी उपासना करतात. हया महारा - दत्तसन्निध्यान गुरुभूमी, रेणूका मातेवयल्यान मातृभूमि आनी दासोपंत विष्णुदास संतकवी निमितान संतभूमी अशे महाराष्ट्रांक पाचारतात.



**श्री गुरुदेव दत्त**

## ❖ श्री क्षेत्र औदुंबर

श्री लक्ष्मी सरस्वती चरित्रांत तांगेलो जल्मगांव लाड कारजे व-हाडांत अकोला जिल्ल्यांत आसा. माणगांव चिपळूणचे दत्तपरमभक्त टेंबे महाराज उर्फ वासुदेवानंद सरस्वतीन हया गांवांक भेट दीवन तो लोकांल्या दिश्टीक हाडलो आनी थंय श्री नृसिंह सरस्वतीची मूर्ती बसयल्ली आसा. हे करजागांव वसिष्ठ ऋषीले शिष्य करंजमुनी वयल्यान पडलें अशें प्राचीन संस्कृत ग्रंथ श्री करंजमाहात्म्यान समजून येता हया करंजनगरींत जैन धर्माचें एक हातबरपाचें भांडारच आसा हुबळी वतल्या दक्षिणमध्य रेल्वेच्या किर्लोस्करवाडी मुकार भिलवडी स्टेशनासावन चार मैलांचेर औदुंबर क्षेत्र आसा पावसाळयात मात्त कृष्णानदी होडयांनी वयचें पडटा सांगलीसावन सीधा औदुंबर वचू येता. श्री नृसिंहसरस्वती इ. स. १४४१ औदुंबर क्षेत्राचेर चातुर्मास आचरण केलो. हांगा कृष्णानदीच्या पलतडीचेर अंकलखेप नांवांचे गांव आसा. थंय भुवनेश्वरी देवूळ आसा. हांगा घनदाट रूक आसात. या जागेचेर नृसिंहसरस्वतीन एक चातुर्मास काळ घालो म्हण हया जागेक म्हत्व आयलें कांठाचेर, घाटाचेर मंगल चारी पारा शुभ सगले, शुभवारें गाती रेव सगली शुभचशुभ अशी ख्याती आशिल्या कृष्णानदीत आमी पादुकांचें दर्शन घेवचें पडटा.

## ❖ श्री क्षेत्र नरसोबावाडी

महाराष्ट्ांत नाथ, महानुभाव, वारकरी, समर्थ, आनंद आनी अहोभक्ती संप्रदाय म्हत्वाचे जावन आसात. हया सगल्या भक्तीसंप्रदायांतल्या संतांनी श्री दत्तस्तोत्राची स्तुती केल्ली आसा. कृष्णा नदीच्या तिराचेर वाडी नांवांचें गांव आसा. पलतडीचेर ओरवाड आनी गोरवाड अशी दोनय गांवा फाटी विजापुराच्या आदिलशाहान वाडीच्या दत्तमंदिरा खर्चाक दान दिल्लीं ओरेवाडांन अमरेश्वर नांवांचें ईश्वरलिंग आसा. अमरेश्वर नावा वयल्यान हया गांवांक अमरापूर हें नाव पडला.

कुरूंदवाडयाच्यान एका मैलाचेर मुक्तेश्वराले तेरवाड गेप लागता. संत एकनाथाले धुवेलो पूत मुक्तेश्वर हाणे महाभारताचो मराठींत सुंदर अनुवाद बरयिल्लो ताजीं पांचच पर्वा हाताक लागल्यार हीं पांचच पर्वा वाचल्यार मुक्तेश्वराले कवितेंन वाल्मीकी -व्यासाली प्रतिभा दिसून येता हया मनोहर पादुका बाजून घाट चडन वयर वतकेच टेंबेस्वामी उर्फ वासूदेवानंद सरस्वती हांगेलें स्मृतीमंदिर मेळटा कोंकणांतल्या सावतवाडी लागी माणगावचे टेंबेस्वामी हाणी इ. स. १८५६ - १९१४ हांगा नरसोबावाडी येवन तपाचरण केले आनी मागीर गांवांत दत्तमंदिर बांदलें.

श्री टेंबेस्वामी उर्फ वासुदेवानंद सरस्वतीन दत्तउपासनेचेर चार हजार पानांचो ग्रंथ बरयलो तांणी संस्कृत आनी मराठी दोनीय भाशांनी बरयला, हांगा नृसिंह सरस्वतीच्या समकालीन रामचंद्रयोगी हे श्री नृसिंहसरस्वती हांगा येवचे पयलींच आयिल्ले पूण श्री नृसिंहसरस्वती येतकेच तांकां भयंकर आनंद जालो आनी आपली जीण सार्थक जाली अशे तांकां दिसलें. बेगीन ते समाधीस्थ जाले. जेन्ना सरस्वतील्यो पादुको अुउटात तेन्ना रामचंद्रयोगील्या पादुकांची पूजा-अर्चा करतात अशें तांगेलें महात्म्य आसा रामचंद्र योगीली समाधी पिपळापाट आसा ताजेर लींग, नदी, पादुका आसात. वासुदेवानंद स्मृतीमंदिराथावन कमान खूब लोकांच्यो समाधी आसात. पयलो नारायण स्वामी, काशीकरस्वामी, गोपाळस्वामी, मौनीस्वामी अशे हे तपस्वी, हाणी हो पुराय परीसर पवीत्र करन दवरला. हांगा श्री नृसिंहसरस्वतीच्या नृसिहवाडी म्हण्ण कीर्त जाली. हंगाचे कांय तपस्वी जांचीं नांवा वयर सांगलीं तांची महती कमी ना तासगांव लागींच्या वीसपुरचे नारायणस्वामी तागेली पादुकापूजा पयली करन नंतर श्री नृसिंहसरस्वतीली पादुकापुजा करतात. हया नारायणस्वामीनी इ. स. १८०४ जिवंत समाधी घेतली. मौनीस्वामीन इ. स. १८९१ त वाडीत एक केलो.

नरसिंहवाडीत सांजेर आरतीवेळार भूम जळयतात, तेन्ना ताचो वास पसरले बरोबर जांकां बाधा आसात ते लोक खुदतात आनी नंतर ती बाधा कामाची वता. आतां लोकांत गुरुमहात्म्य तशेंच दत्तमहात्म्या

बद्दल आवड भक्ती आसा.

स्मरण केल्यारच मुकार उबो रावता तो दत्त म्हण एक ओपारी आसा.

## ❖ श्री क्षेत्र गाणगापूर

गाणगापूर हें क्षेत्र म्हैसूर राज्यांतल्या गुलबर्ग्यांत भीमा नदीच्या तीराचेर आसा. हांगा भीमा आनी अमरजा हया नदीचो संगम आसा. वयर सांगिल्ले प्रमाणें श्री नृसिंहसरस्वती एक चातुमास चार काडतकेच अर्माजा आतीची नरसोबावाडी हांगा बारा वर्सा रावले . नंतर इ. स. १४३४ त ते कृष्णा नदी ओलांडून भीमा नदी तिराचेर गाणगापूर आयले हांगा ते इ. स. १४१८ पर्यंत रावन निमाणें भीमानदी फुलांचे होडींत बसून श्री गेल्ले, ते अंतर्धान पावले. भीमानदीचें पुण्य श्री गुरूचरित्रांत बरयला.

विशेष भीमानदी
अमरजा संगम सुंदर दिसता
गंगा यमुना जशी ही भेट
तीर्थ घडलें पवित्र नेट

हांगा संगमाच्या तिराचेर श्री नृसिंहसरस्वती सदां सकाळीच सूर्योदयाक जचप आनी अनुष्ठान करप हो नेम. गांवांत जरी भिक्षा मागली, संन्याशी जिर्णेत हो नेमाचो क्रम आनी परत तपाक बसताले. हया संगमाचेर न्हावपा वतना तांकां जो कोण भेटलो, एक शेतकार जागेल्यो शेतांत उदंडपीक - आयले.

अश्यो चमत्कारी घटना विस्तारात सांगल्यात एक गरीब ब्राम्हण घरा वतालो तागेली एक वांज म्हस आशिल्ली, तिजेर तो खाती माती व्हावोवन लोकाल्या होताक आनी मेळटा त्या पयशांत जीण सारतालो. पूण श्री गुरुन म्हशीचे फाटी वयल्यान हात फिरयले बरोबर तिका पाने फुटून दूध आयलें. मागीर तो दूद धंदो करन गिरेस्त जालो. करच्याक लागलो.

## श्री गुरुदेव दत्त



साहित्य अकादमी पुरस्काराखातीर लेखक दिलीप बोरकाराचो सत्कार करतना



कारे कायदो महाविद्यालयात इनाम स्विकारतना



वयाच्या ५५व्या वर्षी वकिली पदवी



'मोगाचें लग्न नाटकांतली भूमिका



माताजी मंदिरांत श्री.हरिश झांट्येवांगडा भासाभास



मुख्याधापक नात्यान श्री.कामत एका बसकेंत मोलाचे विचार मांडटना




लायन्स क्लब संस्थेच्या बसकेंत मुद्दे मांडटना



घरकान्न सौ.उमादेवीवांगडा श्री.कामत



करवारा गोंयच्या सुटके झुंजा-यावांगडा

## श्री स्वामी समर्थ -अक्कलकोट



श्री स्वामी समर्थ अन्नपूर्णाच्या दर्शनांत



अक्कलकोट देवळाचें पेड

## कै. मंजुनाथ दास कामत हाणी रचिल्ले हेर साहित्य

- श्री. गणपती अर्थर्वशिर्ष
  (कोकणी अणकार प्रकाशीत)
- श्री रामरक्षा स्तोत्र
  (कोकणी अणकार)
- माताजी मंदीर (स्मरणीका)
- कारवारचे रसिक आनी
  गोयचे हौसिक
  (आत्मचरित्र प्रकाशीत)
- टागोर रस्तो - ३ अंकी नाटक
  (अप्रकाशीत)
- निबंध लेख हाचे संकलन
  (अप्रकाशीत)




Punsulem Canacona Goa Ph.2643808